कौल
(कथासंग्रह)
अंजली रवीन्द्र आमोणकर

Kaaul
(Collection of Short Stories)
By Anjali Ravindra Amonkar

प्रकाशन क्र. 1



पयली उजवाडावणी
2006

छापणावळ
मॉर्सन ग्राफिक्स, फोंडें-गोयं
मोबाईल : ९३२६१००६२७

प्रकाशक
अंजली प्रकाशन,
704, ला कांपाला कॉलनी, पणजी,
गोंय 403 001
फोन : 2464033

अक्षरजुळणी
ज्योती गांवकार

मुखचित्र :
साईनाथ पडते

मोल : 120/- रूपया

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' अर्थीक आदार येवजणेखाला छापलां.

# कौल

(कथासंग्रह)

अंजली रवीन्द्र आमोणकर

अंजली प्रकाशन

म्हज्या जिविताचे स्वास जांच्या माये-मोगाच्या रिणांत आस्सात,
त्या म्हज्या मोगाळ भयणींक आनी भावोजींक -
सौ. रोहिणी आनी श्री. मकरंद सप्रे,
सौ. माया आनी श्री. सुरेश महाजन,
सौ. वसुंधरा आनी श्री. अशोक कुलकर्णी

हांकां प्रेमादरपुर्वक

- सौ. मंजू (अंजली)

# मनांतलें पान

खूब्ब वर्सांसावन, हांव कोंकणी कथा बरयतालें. पूण बरयिल्ल्यो काणयों हांवें उजवाडावपाक मात खंयचेकडेन धाडल्यो नात.

दर वर्सा सारकीच अंदूय कोंकणी अकादमीची 'पयलो चंवर' येवजण जाहीर जाली आनी म्हाका ह्यो कथा उजाडावपाची उमळशीक लागली.

मध्यम वर्गाचे जीणेंतलें नीजपण, बरे वायट अणभव, म्हज्या काणयेंयल्या मनशांच्या मनाचीं पानां उकतीं करतात. तीं उक्तीं पानां जाता तितल्या कसबीपणान, प्रामाणिकपणान चितारपाचे यत्न हांवें केल्यात.

हो म्हजो पयलोच कथा-झेलो वाचप्यांच्या मुखार दवरतना म्हाका खूब्ब खोस भोगता. तो वाचप्यांक आवडटलो ही आस्त हांव बाळगितां. गोवा कोंकणी अकादेमीन 'पयलो चंवर' येवजणेखाला हो संग्रह उजवाडाक हाडपाची संद दिली तेखातीर हांव अकादेमीचे उपकार मानतां.

. चित्रकार श्री. साईनाथ पडते हांणी सोबीत मुखपृश्ठ काडून पुस्तकाक सोबितकाय हाडली देखून तांचे उपकार. पुस्तक उजवाडाक येवंचें म्हण म्हजे वांगडा सगळी धडपड करपी म्हजे पती श्री. रवीन्द्रबाब आमोणकर हांच्या रिणांत रावपाकूच म्हाका आवडटलें. तशेंच पुस्तकाची सोबीत छपाई केली ताका लागून ग्राफिक प्रिंटर्स हांचेय बी हांव उपकार मानता.

बरें मागून

**- अंजली आमोणकर**

# मांडावळ

1

# अँगल

"आयज आठ जावन गेली. उठपाचेंना काय कितें?" अरूणान कांबरूण ओडटकच हेमंत काचाबूल जावन उठलो आनी घडयाळीर नदर मारीत, सोमतो बाथरूमांत धांवलो.

च्या चो कप तोंडांक लायताना ताणें आपणाली डायरी चाळ्ळी. आयज पुराय दिसाक ताका, मुखेलमंत्र्यालें एक भाशण, एक कोनशिला समारंभ, एका बीचार एका फुडफेस्टीव्हलाचो उक्तावण सुवाळो आनी एक पत्रकार - परिशद इतलेच कार्यक्रम आशिल्ले. खोशयेन ताणें च्याक घोंट मारलो आनी काल पेपराक दिल्ले फोटे, कशे-कितें आयल्यात ते बारिकसाणेन जोखूंक लागलो.

"आयकलां..." अरूणा आपणाली च्या घेवन ताच्या म्हच्यांत येवन बसलें. "कालच श्यामभाई आनी भाभी आयल्यांत मुंबयच्यान. काल फोन आयिल्लो तांचो. दनपारां जेवणाक येतलीं म्हणटालीं. तुमीं घरा येतले न्ही जेवणांक?"

"आं! जेवणांक...आयज म्हळ्यार... पळोवया. असेम्ब्ली चालू आसां न्ही गो? आनी शिवाय तें कालचें अर्दकुटें उरिल्लें एक म्हत्वाचें कामय बी, कशेंय करून आयज सोपोवंचें आसा. जेवणांक पावतलों काय ना, कांय सांगूंक शकना. हांव फोनार उलयतां श्यामाकडेन. रावतलों न्ही कांय दीस?"

"च्यॅ! फाल्यांच परते वतले. बंटीची आंगवण पुरी करूंक आयिल्यांत."

"बरें - बरें" ताकतिकेन हेमंत उठलो. "खंय उतरल्यांत हे खेपेक?"

"सर्किट हावसांत. वांगडा ऑफिसांतले कांय लोक आसात."

"ओ. के. हांव मागीर आफिसांतल्यान करतां फोन ताका. चल तुवाले हाड. न्हातां आनी पळटां."

"तुमी न्हातकच गीझर चालू आसूनी. म्हाकांय बी रोकडेंच न्हावपाक जाय." अशें सांगतनाच अरूणान च्याचे पेले एकठांय केले आनी तें तुरतुरीत रांदचे कुडींत नाच्च जालें.

हेमंत देसाय सर्वाधिक खपाच्या एका नेमाळ्यांत फोटोग्राफरचें काम करतालो. भुरगेपणासावन ताका कॅमेराची खूब्ब व्हडविक आशिल्ली. ताका लागुनूच पदवी घेतकच तो मुंबय फोटोग्राफीचो डिप्लोमा करपाक धांविल्लो आनी आतां फाटलीं कितलींशींच वर्सां तो ह्या नेमाळ्यांत फोटोग्राफर म्हुणून काम करतालो. फाटल्याच म्हयन्यांत ताका ताच्या मालकान चिफ् फोटोग्राफरचें प्रमोशनूय दिल्लें. पूण मालक आशिल्लो मात सामको मारवाडी कसो. इतलो बरो, सणसणीत सेल आशिल्लो पेपर, पूण मालक ठरावीक स्टाफाकूच सगल्या कामाखातीर गुठलावंक सोदतालो. हेमंतावांगडा काम करपाक फकत आनी एक पार्ट-टायम करपी फोटोग्राफर आसतालो. आनी तो जेन्ना सुटयेर वतालो, तेन्ना हेमंताक स्पोर्टस, अपघात, मोर्चे, बंद, परदेशी पावण्यांचें येवप, लायन्स-रोटरी क्लबांचें कार्यक्रम, सगल्या मंत्र्यांचे कार्यक्रम, सगलें कव्हर करतां करतां सामकें नाका जातालें. चिफ् फोटोग्राफरचें प्रमोशन मेळतसावन मालकाक ताणें कामाचो भार पटोवन दिल्लो आनी एक फोटोग्राफर स्टाफान जॉयन करून घेतलो. कामाचो भार ल्हव जालो आनी जोडूय मातशी वाडिल्ली त्या कारणान आपणाल्या मोगाळ बायले आनी भुरग्यांवांगडा हेमंत उमेदी आशिल्लो.

हेमंत ऑफिसांत पावलो तेन्ना 'गोवा एक्सप्रेस'चीं सगलीं खातीं निकतीं जागी जातालीं. निकतें पावता थंय आशिल्लें रिसेप्शनिस्ट चली, हारशांत पळोवन लिपस्टीक सारकें करतालें. विंगड विंगड कोनशांनी टेलिप्रिंटर धडधडटाले. तांकां रेस करपाक टेलिफोन घणघणटाले. मदले सुब्रातेर हेवटेन तेवटेन लोक यो-वच करूंक लागिल्ले. निकतोच पाविल्लो एक उपसंपादक प्रिंटरावयले कॉपीचेर नदर मारीत उबो आशिल्लो. एक प्यून फायली रचतालो, दुसरो फर्निचर पुसतालो. इविनिंगचो स्टाफ येवपाक सुरवात जाल्ली. एका उपसंपादकान हेमंताचे फाटीर थापट मारलें. काल केरी छापो घालून, रूप्याच्या स्मगलिंगाचे मारिल्ले फोटे आनी

टुरिजम - मंत्र्याच्या उक्तावण सुवाळ्याचे मारिल्ले फोटे 'ए-वन' आयल्यात म्हूण तो हेमंताच्यो तोखणायो करूंक लागलो. स्मगलिंगाची खबरूय हेमंतानच तयार करून दिल्ली. त्याखातीर रिपोर्टर ताजेर खूश आसताले. आयतें तयार आनी तेंवूय बी बरेभशेन करून दिल्लें काम कोणाक नाका जाता? हेमंतान पुलिस आनी फायर ब्रिगेडिक फोन लावन, सगलें सुशेगाद आनी थंड आसा म्हणपाची खात्री करून घेतली. मस्टराचेर सायन मारतकच परती ताणें आपली डायरी उगडली. केरीच्या कामावयल्यान ताका हालूंक मेळचें नासलें. सांजे उसरां आशिल्लें मुख्यमंत्र्यालें भाशण तितलें आपल्या नांवार दवरून, हेर सगळे कार्यक्रम ताणें आपल्या सहकाऱ्यांक वाटून दिले.

ताणें चिंतलें, पयलो रिपोर्टर कामाचेर येवपाक वेळ आशिल्लो. शिपिंग, गोदी-कामगारांच्यो खबरो दिवपी रिपोर्टर अकरांक सुमार येतलो. डे-कॉल्साक आशिल्ल्यांतलो एक रिपोर्टर कोर्टांत वतलो, एक एअर-पोर्टार वतलो, एक क्रायम ब्रँचकडेन आनी लास्ट रिपोर्टर नायटीक आसतलो. म्हणटकच सद्या ताच्या वांगडा येवपाक एक्कूय रिपोर्टर रिकामी नाशिल्लो. कालचें अर्दकुटें उरिल्लें, केरी जाल्ल्या स्मगलिंग-धाडीचें काम आयज पुराय करूंकच जाय आशिल्लें. कस्टम खात्याक ताणें फोन करून 'येतां' म्हुणून कळयिल्लें. हेमंताकडेन कॉम्पीटीशन करपी एक्कूय फोटोग्राफर गोंयांत नाशिल्लो. हेमंताची बारीकसाण, अँगल्स्, लाँग-क्लोज शॉट, मिक्सिंग, टचिंग, सगलेंच इतलें प्रभावित आसतालें, सांगू नज. आपणाली सगली ताकद पणाक लावन तो कामांत जीव ओततालो. हेमंतान एकापरस एक अशे अनेक तरेकवार फोटे मारिल्ले. म्हत्वाचो खीण सदांच चतुरायेन, चपळायेन आनी कुशळतायेन कॅमेऱ्यांत बंदिस्त केल्लो. हेर पेपरांतले फोटे, वाचप्यांचे नदरेमेरेनूच पावताले. पूण हेमंतान मारिल्ले फोटे, वाचप्यांच्या सामके काळजाक हात घालताले. स्पोर्टाचे आनी अपघाताचे फोटे पळयतना तर वाचप्यांचो स्वास वयल्या वयर उरतालो.

बारा वरांमेरेन एकाद्रो रिपोर्टर मेकळो जालो जाल्यार ताका केरी धाडपाचो एकाद दवरून हेमंतान आपणाली स्कूटर केरीच्या रस्त्यार फास्ट सोडली. मनांतल्या मनांत तो सगल्याा कामांची यादी करूंक लागलो. हें हेमंताचें खाशेलेंपण आशिल्लें. खंयचो वावर कितल्या वेळांभितर कितलें म्हत्व दिवन सोपोवपाचो हें तो पयलींच

चिंतून दवरतालो. म्हणटकच काम रोकडें सोंपता आनी वयल्यान मनशाचो आत्मविस्वास वाडटा, अशें तो म्हणटालो.

कामाच्या निमतान आख्खें गोंय हेमंतान उबें – आडवें फाफसून काडिल्लें. रस्त्याच्या दोनूय कुशींनी भाताचीं शेतां वाऱ्यार धोलतालीं. माडांतल्यान शीतळ वारो येवन आंगाक थंडसाण दितालो. सदांच नवीन रूपां धारप करपी सैम हेमंताक आपले मोगाळ वेंगेंत बुडयतालो. पूण आयज त्या सैमाकडेन नदर मारपाकूय हेमंताकडेन वेळ नाशिल्लो. ताचे तकलेंत चक्र फिरतालें. 'बरें जालें, ह्या प्रकरणांत खंयच्या 'व्हडल्या मनशाचो' हात ना तें! ना जाल्यार मागीर सुरू जावपी त्यो फोनावयल्यो धमक्यो, लांच, वशीलेबाजी, आनी 'कोणा व्हडल्या मनशाच्या' एका फोनान कश्टान काडिल्ले फोटे, मेहनतीन जमयिल्ली खबर कोयराचे पेटयेंत! मागीर जी निराशा येता ती सांगू नज जाता. पूण शेवटाक तो आशिल्लो एके प्रायवेट कंपनीचे नोकरेंत जंय धनयाचो शब्द तो प्रमाण!

'आतां कितें – कितें करपाचें उरलां? ताणें चिंतलें, मनांत गणीत करीत ताणें थारायलें, कालचीच खबर आयज डिटेलान दिवपाची. हेर नवे फोटे काडून तयार करपाचे, पुलिशेचो प्रोग्रेस बरोवन काडपाचो आनी कस्टम अधिकाऱ्यांली सदचींच उतरां आशिल्ली मुलाखत घेवपाची. केन्ना मेरेन सादारण चलतलें हें काम? देड तें दोन वरांनी सोंपतलें. आतां जातात इकरा म्हणटकच तो घरा जेवणाच्या टायमार सारको पावतलो. नाजाल्यार अरूणा चंडिकेचो अवतार धारण करतलें हें ताका खबर आशिल्लेंच.

'शाम प्रभू'. खूब वर्सां उपरांत अरूणाचो हो भाव, दोन–तीन दिसांखातीर गोंयांत आयिल्लो. अरूणाच्या ह्या श्यामभाईक फाटलीं पंदरा वर्सां भुरगें जावंक नाशिल्लें. जायत्या दोतोरांचे उपचार, आंगवणी, उपास, व्रतवैकल्या सगलें जाल्लें. पूण कांयच दोश नासतना लेगीत कांयच फायदो जालो ना. आनी अकस्मात फाटल्या वर्सा जाणटेपणांत म्हणटात तसो तांका चलो जाल्लो. हेमंताक लेगीत श्यामाची खोशी पळोवन उमेद जाल्ली. अपुरबायेच्या चल्याक घेवन श्याम हेर मित्रां वांगडा देवाक म्हूणून आयिल्लो आनी तांचेच पंगतीक पावना जाल्यार अरूणा कानाक धरून कोंबो करून बसयतली आशिल्ली. विचारांत गूल्ल जाल्ल्या हेमंताक कुंडयची चडटी केन्ना लागी पावली कळ्ळेंच ना. पूण चडण चडपाक लागतकीर ताजें

काळीज कच्च जालें. दोनूय सायडीक ट्रफीक जॅम जाल्ली. मुखार मदींच एक मंत्र्याली नांबड्या दिव्याची गाडी, एक परती जाल्ली जॅम. ॲम्ब्युलन्सेस, पिल्लुको वाजोवपी पुलिस – घुस्पून उरल्ली गर्दी हेमंत जागच्या जाग्यारच फडफडलो. जालें, आतां हो ॲक्सीडेंट कवर केलेबगर फुडें वचूंक मेळचें ना. जेवणूय ना आनी वयल्यान अरूणालो शंख आयकुचो पडटलो. सांजमेरेन आतां निर्जळी एकादस.

लोकांची गर्दी वाडटाली. हेमंतान ल्हवल्हवू गर्दैत चवकशी करपाक सुरवात केली. पूण कोणूच सारको नकळो आसलो. सिक्युरिटीच्यो गाडयो मदीं आडव्यो घालून सगलो ॲक्सीडेंट पुलिसांनी लिपोवन दवरलेलो. रस्त्यार कोणतरी पडलेलें मात दिसतालें. ॲम्ब्युलन्सी भितर कोणाक तरी दवरपाचें काम चलतालें. खंयच्या ड्रायवराची चूक हाचेर आतां पब्लिक ल्हवू आवाजांत चर्चा करूंक लागिल्ली. मंत्र्याची गाडी थंय आशिल्ली पूण मंत्री केन्नाच नाच्च जाल्लो.

भंय आनी संयमाचो बांद फुटून पब्लीक आतां व्हडा – व्हडान राजकारण्यांक, जनतेखातीर तांच्या असले बेपर्वा वागणुकीचेर गाळी घालूंक लागली. हेमंताक तातूंत कांयच रस नाशिल्लो. झाडांपोंदा स्कूटर दवरून तो आपलो बॅच दाखयत दायखत, गर्दैत फुडें रिगतालो. पुलिस कोणाकूच कितेंच कळपाक दी नासले. हेमंताचे दोळे लकलकताले. अश्यो तरेकवार केसी सोडवप म्हळ्यार ताज्या दाव्या हाताचो मळ! खंयच्या चोर मार्गान, कसलें सवंग करून भितर रिगपाचें, कशी बरोबर खबर काडची, कोणाचें नाक खंय दाबतकच तोंड उगडटा ह्या सगल्या अणभवान तो बेस बरो शाणो जाल्लो. चलाखिन फटाफट कशें अचूक ॲंगल मेळोवचे हातूंत तो पारंगत जाल्लो. तो सगलो खेळ खेळटना मात हेमंत, संवसार विसरतालो. आपणाली सगली शक्त एकठांय करून, मन एकाग्र करून काम करतालो. तेन्ना, मागीर येवपी फोन, धमक्यो, लांच दिवपाचे प्रयत्न– मडीं – तांच्या सोयऱ्यांचो शोक– गर्दी – खेचाखेर्चीचो ताजेर परिणाम जाय नाशिल्लो. तो आपणाल्या नेमाळ्याखेरीज कोणाच्याच फुडाराचो विचार कर नाशिल्लो. फक्त खंयच्या ॲंगलान प्रसंग काळजाक हात घालपी चित्रित करूंक मेळटलो, इतलोच विचार ताजे तकलेंत घुंवतालो. तेन्नाचो ताचो अवतार पळोवं नज जातालो. जटा जाल्ले केंस, चुरिल्ले कपडे, एकाच पायांत उरल्ली व्हाण, एक काडी मोडलेलें, हुमकळपी वक्ल आनी घामाच्यो पावळ्यो. भुरग्याभशेन जपणूक करतालो तो फकत

आपल्या कॅमेराची. आनी मागीर काम सोंपतकच ताका इतलें पुरो जातालें, दुसऱ्या दिसा पेपरांत आदल्या दिसांचे फोटे पळयतकच ताज्या जिवाक थार येतालो.

हेमंत सिक्यूरिटीलागीं पावलो. एकट्याचें लक्ष ताजेकडे गेलें. "Mr. Desai, keep away, keep away!" तो जाग्यावेल्यानच आड्डलो – आमकां विचारले बगर कितेंच करपाची गरज ना. पच्छाताप करपाचो वेळ येतलो आं! सांगून दवरतां."

"च्यँ." सामको गोड हांसत – हांसत हेमंत फुडें रिगलो. "म्हजी कसली कापास्ताद तुमकां विचारले बगर कितेंच करपाची! कांय करचो ना हांव, डोंट वरी; पूण जालां कितें? चड सिरियस ना मूं? कोणाच्या जिवाक बी कांय जालें ना मूं?" जिवाकच जालां हें पळयता आसतनाय हें विचारित विचारित फुडें रिगत रावलो. ताणें सामको अजाणपणाचो बुरको तोंडार ओडून घेतलो.

"असेम्ब्लीच्या सेशनांक लेट जातां म्हूण बेगबेगीन वतालो दिसता. माल्ली धडक व्हॅनाक सकाळफुडें." तोंडांवयल्यान लेंस भोंवडायत पुलिस इन्स्पेक्टर फुतफुतलो.

"व्हॅन भरलेली आशिल्ली दिसता."

"हें पळय, ही आतां मंत्री महाशयाली केस जाल्या. चड शाणेपणां करून, फोटे बिटे घालून जायरात करूं नाका. खड्ड्यांत पडटलो. मंत्री उरतलो थंयच, आनी तुजेर केस घालून, तुका जेलान घालाक आसा तो. ... चल चल तुज्या फुडल्या कामाक चल पळोवया. वच...वच.." इन्स्पेक्टरान तापयलो तरी "हय....हय : वतां वतां" करीत हेमंत थंयच रावलो. पळोवया तरी कितें जाता तें. "हांव कोण्णाचीं नांवां दिनासतना फोटे दितां. संपादक छापूं अगर न छापूं. फोटवांक म्हजी कमाई लागू जातली. कितें म्हणटा?"

इन्स्पेक्टराचें मातशें शें समादान जालें. "झक मार" अशें तोंडांतल्या तोंडांत बडबडत तो सायडीक गेलो.

दोन मनशां रगतांत पडिल्लीं आसलीं. दोगा जाणांक ॲम्ब्युलन्सींत दवरून जाल्लें. पुलिस पंचनामाची तयारी करताले. हेमंतान कॅमेरो काडलो. पोलिसांनी मारिल्ल्या खडवाच्या लायणीभितर रावन तो ॲँगल सोदूंक लागलो. रगतान रिगलेलीं तोंडां सारकीं दिसनाशिल्लीं तरी ताचे सांगणेन पोलिसांनी ताका इल्लो जागो मेकळो करून दिलो. कोण आसतले बाबडे? घरा केन्ना कळटलें तांच्या? जिते आसात

काय गेले? विचार करतां करतां हेमंतान मनशां फाटोफाट गाडयेचेय आनी व्हॅनाचेर बी फोटे मारले. आपणाले स्कूटरीकडेन येतना ताका ताच्या पेपराचो रिपोर्टर डिमेलो गर्दैंत दिसलो. ताका उपसंपादकानच धाडला आसूंक जाय असो विचार करून हेमंतान ताका हात केलो. अपघाताचे रिपोर्टींग बारीकसाणेन करपाक सांगून हेमंत स्कूटर घेवन लायणीन उबो रावलो. सारको पंचवीस मिनटांनी तो परतो रस्त्याक लागलो. बारा वरां जायत आयिल्लीं. लेट पावलो म्हुणून केरीचो अधिकारी मातसो रागार जाल्लो, पूण ताका अपघाताची खबर कळटकच तोयबी वोग्गी रावलो.

छापपाच्या मालाचे ताचे फोटे, पोलिस प्रोग्रेसाची खबर, अधिकाऱ्याली मुलाखत अशें सगलें काम सोंपयता सोपयतां दोन जावन गेल्लीं. आतां घरा पावतकच अरूणा घर कशें माथ्यार घेतलें हाची याद येवन येवन ताका नाका जालें. त्या रागाचेर मातसोसो थंडसाणीचो शिडकावो म्हूण ताणें पणजे पावतकच जण एकल्याच्या नांवान मेळटा त्या उगड्या माणावयलीं, व्हडलीं व्हडलीं प्रेझेंटां घेतलीं आनी तो ऑफिसांत आयलो. आपणाल्या कामाची थोडक्यांत म्हायती दिवन तो लंचाक वचपाचोच तितल्यान संपादकाच ताका उलो मारलो. भितरल्या भितर 'पाड पडूं' म्हणत, पूण वयल्यावयर हांसत्या तोंडांन तो म्हऱ्यांत गेलो.

"हेमंत, कुंडयच्या अपघातावेल्या जाग्यावेल्यान डिमेलोचो फोन आयला. तुवें खंय फोटे मारल्यात. तुका लंचाक वचपाक आयज सामको लेट जातलो. पूण आतांच्या आतां फोटे धुवून दी. गजाल सामकी सिरियस जाल्या. डिमेलो येतलो सगली खबर घेवन, रोकडेंच ब्रीफ करूंक लावंक जाय."

"यस सर!" म्हूण हेमंत झक मारत, परतो डार्करूमाकडे गेलो. हेमंत, तुजे बायलेचो तुका दोन-तीन खेपो फोन आयिल्लो.. दुसऱ्या एका उपसंपादकान मदींच आडोवन ताका म्हळें. "मरू नी!" सामको बाबडो जायत हेमंत बडबडलो.

फोटोच्यो कॉपीज सामक्यो जशाक तश्यो आयिल्ल्यो. वाचप्यांक आतां अपघाताचे गंभीरतायेचो सारको अदमास येतलो आसलो. मंत्री आनी ताचो ड्रायव्हर आतां सवाय भितर सुटपाचे नासले. फोटे संपादकाल्या मेजार दवरून आयिल्ली बातमी ताणें वाचूंक हातांत घेतली. आपूण कितें वाचता हेंच ताका कळना जालें. तो थंयच्याच कदेलार धप् करून बसलो. सगलो शर्ट घामान भिजलो. हातपांय झेलाभशेन थंड जाले. तकलेंत कितेंतरी मारून आयिल्ल्याभशेन जालें. भंयाचें

एक ल्हार कण्याकडसून येवन मेंदवात वचून फुटलें. मेंदू काम करना जालो. ताळो सुकून गेलो. बटबटीत उकत्या दोळ्यांनी तो हवेंत पळयत रावलो. उपसंपादक अचकीत सो पळयत रावलो. "जॉन, बेगीन उदक हाड!" ताणें उलो मारलो. तोंडार उदक मारूनय बी हेमंत सावचित जालो ना. जित्या मड्याभशेन ताची परिस्थिती जाली.

"हेमंत, बायेलेचो फोन तुजे...!" दुसरो एक रिपोर्टर सांगत आयलो. हेमंतान फकत आंवडो गिळ्ळो. कसली ही नोकरी म्हजी. मड्यांचोय बी अँगल सोदपी मनीस हांव. बोल्सांत पगाराचे चार पयशे पडटकच भावना, कर्तव्य, मनीसपण, सगळेंच विसरतां हांव. मेल्ल्याकडेन पळोवपाची जण एकल्याची नदर विंगड विंगड आसता. हरेक जाण, गेल्ल्या जीवाखातीर आपणांक कितलें लुकसाण जातलें आनी कितलो फायदो जातलो हेंच चिंतता. वयल्यान कितलोय दु:खी जांव, हर एकटो मनांतल्यान शादूर आसता. त्या खिणापासून आंगार पडपी जापसालदारकीचें गणीत काडटा. म्हजें मन त्या खिणाक कसलो विचार करतालें? मालकाक खूश करपाचो? वांगडा काम करपी लोकांकडसून फाट थोपटून घेवपाची? काय भ्रश्ट मंत्र्याचो बदलो घेवपाचो? सगलें ऑफिस ताचे नदरेमुकार घुवूं लागलें. अरूणाचो दुकांनी रिगिल्लो, तिरस्कारान भरिल्लो चेरो दिसूंक लागलो. शर्टार गळपी दुकांचें ताका भान नाशिल्लें. एकूच गजाल दिगंतरान भरून उरिल्ली. "कित्याक! म्हजे बाबतींत हेच खेपेक अशें कित्याक घडलें?" उपसंपादकान ताज्या हातांतली खबर ओडून काडली आनी तो व्हडल्यान वाचूंक लागलो. 'काल दिनांक 24 तारकेक सकाळीं अकरांक, कुंडयचे देंवतेर मंत्र्याचे गाडयेन टुरिस्ट व्हॅनाक टक्कर मारली. व्हॅन परतून पांच लोक जाग्यारच खलास जाले. फियाटीचो ड्रायव्हरूय सिरियस आसा. मरणाऱ्यांमदीं एक ल्हान भुरगोय आसा. वायट स्थिती जाल्ल्याकारणान ताजी वळख पटूंक ना; पूण त्याभितरल्या एकट्याच्या बोल्सांत मेळिल्ल्या कागदावयल्यान ताजें नांव श्याम प्रभू आसा अशें कळटा...'

"तुगेलो कोण लागता रे तो?" उपसंपादक विचारूंक लागलो. इतलें जाता म्हणसर सगलें ऑफिस ताजे भोंवतणी एकठांय जालें.

"सायब, फोन, अजून कोणूच घरा जेवणांक कित्याक पावना म्हूण!" प्युनान हेमंताक म्हळें. हेमंत फातराभशेन स्तब्ध जावन बशिल्लो. मेल्ले लोक हेमंताले

सोयरे कळटकच दुसरो फोटोग्राफर कॅमेरो घेवन धांवलो. दोनचार अँगल्सांतल्यान ताणें हेमंताले फोटे मारले, फाल्यां अपघाताच्या फोटोवांगडा होय एक फोटो छापूया. मेल्ले लोक आपणाले सोयरे अशें कळटकच फोटोग्राफराची जाल्ली स्थिती, दाखोवपाक. खबरेक असादारण म्हत्व येतलें. फोटोग्राफर, रिपोर्टराच्या कानांत फुतफुतलो. शेवटाक तोय बी अँगल ठरोवपाक कुशल. हेमंताचोच शिश्य आसलो, न्हय?

●●●

2

# कौल

घंटा घणघणून शाळा सुटली. आपणाल्या सवंगड्यांखातीर मात्तूय रावनासतना बाबून आपलें पिजूंक आयिल्लें विटकें दप्तर फाटीर उडयलें आनी भायर धांव मारली. रावतलो कसो? तांचेखातीर रावल्यार पलतडी पावपाक उशीर जातलो आशिल्लो. आयज तर कळाव जावंक कसोच फाव नाशिल्लो. ताचेबगर गांवांतल्या भुरग्यांचीं कितलींशींच कामां अडून उरतलीं आशिल्लीं. आयज गांवांत जात्रा आशिल्ली. काळभैरवाली जात्रा म्हळ्यार परब. धांवतना कितलींचशीं ल्हान ल्हान तोरां ताज्या पांयापोंदा आयलीं. पूण तो वेचूंक रावलो ना. न्हंयेंत तार ताची वाट पळयताली. तारयान व्हडल्यान एक लांब कुकारो घातलो. भरलेली तार पळोवन बाबून धांवपाची गती वाडयली, आनी परतो साद घालीत तारयाक रावपाची कुरू केली. माथ्यार, खांदार पोटल्यो आनी साक घेतलेल्या पसरकारांनी तारींत सामकी गर्दी केल्ली. सगले जाण चिड्डून मुड्डून उबे आशिल्ले. खरशून, घामान रिगून तो एकदांचो तारीर पावलो. तारयान तार उदकांत धुकल्ली आनी वल्हीं मारूंक लागलो. उदकाक पळयतकच बाबूक भिरभिरी मारली. सुकती आशिल्ल्यान न्हंयक चड उदक नाशिल्लें. आतां पावपाक पंदरा मिनटांच्या जाग्यार अर्दवर लागतलें. भुकेन बाबूच्या पोटांत कावळे आड्डूंक लागले. पूण तांचेकडेन लक्ष दिवपाक आयज बाबुलें चित्त जाग्यार नासलें.

गोंयचे बॉर्डरीर न्हंयचे हेवटेन आगरी गांव आशिल्लो आनी तेवटेन डोंगरी. जुवळ्यो भयणीच कश्यो. डोंगरेक फकत लोकवस्ती आनी देवळी आशिल्ली

आनी हेर सगळ्यो गजाली म्हळ्यार बाजार, शाळा, पंचायत, दवाखानो सगळें आगरेन वशिल्लें. वर्सासून एकदां डोंगरेच्च्या लोकांक परबेचो दीस येतालो. तो म्हळ्यार जात्रा. तेन्ना मात गांवांत लोकांची न्हंय व्हांवताली. दोनूय गांवांतले लोक एकठांय जाताले. देवळांकडल्या रस्त्यार दोनूय बाजूंक माण पडटाले. खाजेकार, आयदणकार, कपडेकार, वेळार, चणेकार, खेळणेकारांचे घे म्हूण माण! सगलो गांव लायटीच्या उजवाडान न्हातालो. पांचूय दीस, गांवांतल्या जण एकल्याक, घरांत लग्न आशिल्ल्याभशेन दिसतालें. पांचूय दीस घराघरांत गोडशीं शिजतालीं. जात्रा उलगतच लेगीत गांवकऱ्यांच्या आंगार चडिल्ली उमेदीची, सुखाची चादर, कितलेशेच दीस तशीच आसताली. दोनूय गांवचो लोक मात सामको भावार्थी आशिल्लो. उतरां-पावलांक तांकां भूतनाथाली प्रसाद-पाकळी जाय पडटाली. सगली ताच्या पांयाकडे दवरून, पाकळी घेतकच कसलेंय काम करपाक लोक फुडें सरतालो.

काळभैरवाली लांबरूंद देवळी सकल देंवतेर घळीयेंत आशिल्ली. जागृत म्हणटात तसलें हें देवस्थान. सगल्या अडून उरिल्ल्या कामांक गती दिवपाक, कोर्टाचीं कामां चलोवपाक, शेणिल्ल्यो वस्तू मेळोवपाक, इस्टेटीच्यो भानगडी निवारण करपाक, जिवावयल्या दुयेसांक राखण घेवपाक, शारांतलें लोक लेगीत धांवत येवन भूतनाथाल्या पांयाचेर घालून घेताले. बाबुचो बापूय लंगडो शांतो भट भूतनाथाक प्रसाद लावपाक एकमेव असो मनीस. पर्यशिल्ले लोक ताचें नांव आयकून पडत झडत खर्शेत गांवांत येवन दाखल जाताले. काळभैरवाले देवळेंत आशिल्ल्या बाबल्या भटानच, शांतूभटाक, ह्या कामांत शिकोवन तरबेज केल्लो आनी भूतनाथाले देवळेन पोटाक लायिल्लो. आवयविणे पोराच्या आनी बायलेविणा घोवाल्या पोटाची वेवस्था जाल्ली. बाबलोभट लेगीत खूबूच घडघडटालो. देवळांत एकठांय जाल्ले सामुग्रीतले तीन वांटे ताच्या घरांत नाच्च जाताले आनी उरलेलो एक वाटोच देवळांत भरती जातालो. शांतुभटाक मात बाबून शिकचें आनी व्हडलो जावचें अशें दिसतालें. बाबुकूय बी शिक्षणाची व्हडवीक आशिल्ली. बाबू शिकतालोय बी बरो. पूण जसो जसो तो फुडें फुडें पावतालो ताचें मन आनी तकली सैरभैर जाताली. भुरगेपणासावन पळयिल्ल्या आनी आयकल्ल्या गजालींतलो भावार्त ताका घुस्पागोंदळाक उडयतालो. ताचें भावार्थी मन काचाबूल जातालें.

खरें –फट कांयच कळनाशिल्लें. ताणें भुरगेपणासावन पळयिल्लें, भूतनाथान राखणेची पाकळी दितकच न्हंयेक आयिल्लो पूर अद्र्यारच थारता आनीक परतता, शेतांत पिकतल्या भातावयली कीड नाच्च जाता, कोर्टाचीं कामां प्रसाद घेवपी मनशाच्या पार्थिन जाता. इतलेंच न्हय तर गांवांत जाल्ल्या चोरयांचो चोर, खुनांचो खुनी, मारामारींतलो मार घालपी, आपूण जावन देवाच्या पांयाकडेन येवन चूक मागतात. वर्सानवर्स हें पळोवन – पळोवन बाबुकूय आतां ह्या शास्त्राची सगली विद्या आत्मसात जाल्ली. खंयच्या झाडां–रूखांची कितलीं पानां घेवप, ताका कितलें गंध काडप, ते पानांचे कुडके मूर्तीच्या खंयच्या अवयवांचेर खंय खंय दसवप, देवाले मूर्तीवयलें, खंयच्या जाग्यावयलें खंयचें पान पडटकच कसलो अर्थ जाता, भश्टकार कसो सोदून काडप, खंयच्या दिसांनी प्रसाद जायना, सुर्वेक 'दयेची राखण' मेळपाक वेळ लागूंक लागलो जाल्यार आड येवपी सगळ्यो अडचणी कश्यो देवाच्या पांयालागीं दवरप आनी निवारण करप हातूंत तोय बी तरबेज जाल्लो. शाळेंत शिकता आसतना मात् जेन्ना बाई वा मास्तर अंदश्रध्दे विरूध्द कितेंय शिकयताली तेन्ना बाबूल्या तरनाट्या मनाक कितें फट कितें खरें, कितले योगायोग, कितली अंधश्रध्दा हाचेर विचार करून पुरो जातालें. तरीयबी देवळांतल्या ह्या शास्त्राक फट म्हणपाक बाबूक तांक नासली.

वैशाखांतलें वोत सगल्या वाठाराक भाजून काडटालें. न्हंयचें चकचकीत उदक – दोळ्यांक सुयो कश्यो तोंपतालें. तारयालें काळें कीट्ट आंग घामान भिजिल्लें. सगली शक्त एकठावन तो तार ताणतालो. तार, पलतडेक दोंगरे गावांक तेकली. बाबू उडकी मारून भायर सरलो; आनी पळत सुटलो. जोतें नाशिल्ल्या ताच्या पांयाक तोपपी गुण्यांची, शेंकऱ्यांचीं लेगीत ताका पर्वा नाशिल्ली. आपल्याचेर बापायन घातिल्ल्या कामाची जापसालदारकी कितल्या वेळान आपूण सोपोवंक शकतलो तेंच तो चिंततालो. मुखार आशिल्ल्या व्हडल्या माळार, कडुलिंबाचे सावळेंत बसून ताचो बापूय ताची वाट पळयतालो. पांय लांब करून, कुबडी सकयल उडोवन दोळ्यांर हात दवरून तो बाबू येता काय म्हुणून पळयतालो. बाबू येतकच अनवाळ्यान बांयचें उदक काडटलो. मागीर माळावयल्या कोंडीचेर आशिल्ल्या देवळांत मूर्तीक आनी आंगवणीच्या तरेकवार आकाराच्या फातराच्या मातयेच्या रंगीत घोड्यांक अभिषेक करतलो. फाटोफाट भूतनाथाकय. मागीर जात्रेच्या पयल्या

दिसाचें, सकाळचें ताचें काम सोंपतले आशिल्लें. बाबू खर्शेत बापाय म्हऱ्यांत पावलो.

"इलस. चल बेगीन. उशीर होतलो." शांतूभटान म्हळें.

"बाबा, तूं हंयसर कित्याक बसलय? उठ, चल चल काय काळजी करा नुको." बापायक उठपाक आदार दितना बाबून म्हळें. बापायलीं कुबडीं उखलून ताजे कडेन दिलीं आनी ते दोगूय चलूंक लागले. माळार सामको खोर्न पेटिल्ल्याभशेन उजो जातालो.

"यंदा कोळनुरकाराचो खाजाचो माण पडलंय का नाय?" शांतूभट चवकशी करूंक लागलो.

"हय तर!" उमेदीन बाबू म्हळें. "कोळनुरकरालो माण तर सगळ्यांत झकपक आसय. बोंदेराचें काम पूर्ण करूंक होयो. उशीर जालय तर गांवचीं भुरगीं बोब मारतलीं म्हाज्या नांवान."

उलयतां उलयतां दोगूय घरा पावले. चार कळशे माथ्यार वोतून बाबून बापायच्या माथ्यारूय उदकाचे चार कळशे घाले. दोगूय अनवाळी पुडवीं न्हेसून आयले. बाबून बापायच्या पावलांक केळम्याचे खोले बांदले. एक व्हडलो कळसो खांदार आनी कळशी हातांत घेवन परत तांची वरात त्या माळावयल्या खोर्नामदसून गेली. बाबून कळश्याफाटल्यान कळशे उदक ओडलें आनी बापायच्या म्हऱ्यांत दवरलें. शांताभटान मन लावन सगल्या मूर्त्यांक अभिषेक केलो. हातान घासून चकचकीत धुल्यो. शेवटाक वर देडा वरांत अभिषेकाचें काम सोंपोवन दोगूय जाण घरा परतले. इल्लीशी शीतकडी पोटांत धुकलून बाबू भायर धांवलो. आतां चार दीस गांवांतल्या खंयच्याच मनशाचें चित्त जाग्यार नासतलें. गांवांतल्या भुरग्यांनी अर्दीं बोंदेरां लावन सोपयिल्लीं. बाबू तांचे भितर सामिल जातकच तांकां आनीक उमेद जाली. सकाळीं फुडें सुरू जाल्लीं दिवजां सोपोवन बायलां घरा परततालीं. देवळा म्हऱ्यांत पालखी सजोवपाचें काम चलतालें. देवळापासून सुरू जावपी तांबडे मातयेचो रस्तो तरेकवार माणांनी सोबीत दिसतालो. पसरकार आपणालें सामान दाळपाक गूल्ल जाल्ले. माणकुल्या भुरग्यांक म्हऱ्यांत घेवन तांचीं बायलां माणाच्या फाटल्यान न्हिदिल्लीं. खाजें-शेव-लाडू-बावल्यो-कापां-रेवड्यो हांचो गोड आनी तेलकट परमळ चारी दिकांनी घमघमतालो. वाजंत्री आपणाल्या ड्रेसाची नितळसाण

पारखिताले. बोमाडे, गडगडे, पिपाण्यो, चणे, आयदणां, फुलां, कपडे, खेळणीं, भजीं, खाजें, च्या चीं हॉटेलां रस्त्यार हालपाक जागो नासलो. सगळीं भटां हे देवळेंतल्यान, ते देवळेंत पासयो मारीत आशिल्लीं. आयज जात्रेचो पयलो दीस. भूतनाथाली गर्भकूड आतां पांचूय दीस शांत आसतली. गाऱ्हाण्यांचो आवाज थंय घुमचो ना. जात्रेच्या दिसांनी भूतनाथाक प्रसाद जायना. पिसोळीं गर्भकुडींतल्या थंड काळोखान सुशेगाद फडफडटालीं. तिनसांजेक दर एकल्याच्या घराच्या हुंबऱ्यार, घरच्या सव्वाणींनी दिवल्यो पेटयल्यो. नवीं वस्त्रां-दागिने-फुलांचो परमळ आसमंतांत भरलो. फुगोट्यांचे आवाज काळीज हालयताले. काळभैरवाच्या देवळामुकार लोकांची गर्दी जाल्ली. रंगीत कापडांनी न्हेसयिल्ल्यो, देवीचो मुखवटो लायिल्लो, तरंगांच्यो सत्र्यो, वांदार सोबूंक लागल्यो. मुखेल अवसराचें तरंग वासूच्या खांदार आशिल्लें. लोकांची 'कौलां' घेवपाक गर्दी जाल्ली. आकांताचे गर्देन धोलार तोणी पडली. ताशे आनी ढोल वाजूंक लागले. तातूंत शेनायेची भर पडली. वासूच्या पायांत वारें भरलें. तो कडकडूंक लागलो; ताच्या आंगांत देव आयिल्लो. ढोल-ताशांच्या तालार तो फाटीं-फुडें धोलूंक लागलो. मदींच तो खांद्यावयलें तरंग उबारून जमनीक तेंकयतालो आनी लोक फुडें सरून आपणाले नाल्ल तरंगाक तेकोवन कौल घेताले. तांचीं कौलां घेवन जातकच फाटलीं मनशां फुडें येतालीं. देवळान व्होंटयो भरपाक सवाशणींच्यो रांको लागिल्ल्यो. व्होंट घेवन आनी तीर्थ-प्रसाद दिवन भटांक पुरो जाल्लें. तांकां स्वास घेवपाक वेळ नासलो. ह्या सगळ्यांपासून पयस, देवळाच्या खांब्याकडे भगत बशिल्लें तें दोरे, ताविज, विभुती दितालें. दर्शनाच्यो रांगो सोप नासल्यो.

धवीफुल्ल मारूती गाडी पयस येवन रावली. भितरल्यान कुवेलकरशेट देंवलो आनी देवळाकडेन येवपाक लागलो. तरंगाचे गर्देंतल्यान बाबूची नदर ताचेर पडली. गाडयेचे डिकींतल्यान केळीचे घड, नाल्लांचो साक, शालूंच्यो आनी सोवळ्यांच्यो काशी, मिठायेचीं बॉक्सां, तांब्याचे तांबडे चकचकीत कळशे कळश्यो भायर सरल्यो. इतलें सामान पळोवन बाबूक अजाप जालें. कळनासतना बाबू गर्देंतल्यान कुशीक सरलो आनी देवळांत येवन एका खांब्याच्या फाटल्यान उबो रावन पळोवंक लागलो. घामान भिजिल्लो, भयभीत जाल्लो कुवेलकार शेट देवळांत भितर सरलो आनी थेट बाबलो भटा म्हऱ्यांत पावलो. बाबलो भट भायर आयलो आनी शेटीक

घेवन गर्भकुडी फाटल्यान गेलो. बाबून पळयलें शेट परतो परतो दुकां पुसतालो. आनी हात जोडून भटाक कितेंयतरी सांगतालो. भटाली मान न्हयकारी हालताली. शेवटाक शेटीन बोल्सांत हात घालून किदेंतरी काडलें. भांगराच्यो वस्ती दवरतात तसलें बॉक्स आशिल्लें. तातूंतसून एक लकलकीत वज्र काडून भटाल्या हातार दवरलें. भटान तो खडो डबयेंत घातलो आनी डबी कडसरेक लायली. गाडयेंतलें सगळें सामान देवळांत पावलें. त्या सामानार एक संतुश्ट नदर मारीत, शेटीक घेवन, भट भायर आयलो. ताच्या तोंडांर एक आशेचें हास्य फांकलें. बाबू पळयत रावलो. कुवेलकर शेट भांगराच्या स्मगलिंगच्या धंद्यांत अडकला आनी ताजेर केस चल्ल्या हें बाबू जाणां आशिल्लो. आतां हायकोर्टांत ताचे केशीचो निकाल आशिल्लो. बाबूक याद जाली. भूतनाथाल्या काळखे गर्भकुडींत दिवलेच्या मंद उजवाडान, बाबूच शांतूभटाक आंब्याच्या पानांचे कुडके गंधान बुडोवन दितालो. काकुळतेक येवन कुवेलकरशेट आपल्याचेर आयिल्लीं अरिश्टां सांगत रावतालो - केशीच्यो खबऱ्यो सांगत रावतालो आनी शांतू "दी...दी...उजवी दी...बाळकाच्या माथ्यार तुजें राखणेचो हात दवर." अशें गाऱ्हाणें आयकूंक येत आसतालें. सगलो दीस तरेकवार आंगवणी करून शेट जाय तसो प्रसाद घेवन संतुश्ट जांवन, सांजचो घरा वतालो. "मेल्ल्यांक करतना लज दिसना. पाकळी दिवपाक देवाक कितें नोकर समजलंय? शिंबरो -नाकतुटो - मेलो.." शांतूभटाल्या तोंडाचो आनी बाबूच्या विचारांचो पट्टो एकदम गरगरूंक लागतालो. शेटीक प्रसादाच्यो जितल्यो पाकळ्यो 'हयकारी' अर्थान आपलो बापूय घेवन दिता त्यो सगळ्यो तश्योच लागू पडटात काय? देव दाखयता ती आडमेळीं, देव सांगता ते रितीन निवारण केल्यार खरेंच कामां त्या मनशाच्या मनाप्रमाणे जातात काय? बाबूक खूब्ब खेपो दिसतालें, वडापोंदा शेटीक थांबोवन विचारचें अशें; पूण प्रश्न ताच्या बापायचे अब्रूचो आसलो. शांतूभटान घेतिल्ले सगळे प्रसाद खरे जातात असो लोकांचो भावार्त आशिल्लो. भितरल्या भितर बाबूक घुसमट सोसूं नज जाताली. एकेवटेन भुरगेसावन मनार जाल्ले संस्कार आनी दुसरेवटेन शाळेंतल्या शिक्षणाचे संस्कार, कित्याचेर विस्वास दवरप - कितें झुगारून दिवप, ताका कांयच कळ नासलें. बाबूक याद जाली आयजमेरेन सरपंचाचे वाद, सैमीक अरिश्टां, गांवांतल्यान रेल्वे लायणी वचपाचो निर्णय, लग्नापयलीं गुरवाचार आयिल्ल्या चलयांच्या जावपी भुरग्यांचो 'बापूय

कोण?', निवडणुकींत कोण जिकतलो, करणी, भूत-समंधबाधा - प्रत्येक खेप - शांतूभटाचो निर्णय खरो थरिल्लो.

"रे बाबू, हकडं ये!" बाबल्या भटाचो उलो आयलो आनी बाबूक सुद आयली. "शेटजीक शांत्याकडे व्हर. त्ये सांगतात तें कर म्हुणून सांगितलंय म्हूण सांग.. आतां भूतनाथाकडे मूस सुध्दा येणार नाय, तितल्यान ताजां काम करून टाक म्हणजे."

बाबू गर्देंतल्यान वाट काडीत रावलो. फाटल्यान पुडवें धरून घाम पुसत धांवपी शेट आशिल्लो. जात्रेचो झगमगाट फाटीं पडलो. काळखी देंवती सुरू जाली. संवयेन बाबू बेगीबेगीन चलतालो, शेट मात फातरांक झाडांझुडपांक आडखळटालो. 'बाब', घळीतेन वतना बाबून व्हडल्यान उलो केलो.

"कुवेलकरशेट इलंय! बाबल्याभटान सांगावा दिलांय की त्ये सांगतात तें कर म्हूण. ते बघ बघुया काय सांगतात ते!" शांतुभटान आसन मोडून ताचेकडेन पळयलें. दोळ्यांत दुकां भरून शेट सांगूंक लागलो - "फुडल्या आठवड्यांत निमाणो निकाल आसा. आतां मेरेन दिल्ली लांच, भेटवस्तू, सगळे फुकट्यान गेल्यात. कित्याक तर रागार जावन हांवें म्हज्याच नोकराचो गळो दाबला आनी लिपयल्लें मडें पोलिसांक सांपडलां." शेट हुंदक्या हुंदक्यांनी रडूंक लागलो.

"शेट" गंभीर आवाजान शांतूभटान म्हळें - "ह्या पांच दिसांक प्रसाद लागुचो न्हय."

"अशें कशें?" शांतुभटाले पांय धरून शेट म्हणूंक लागलो.

"अशें करूं नाका भटा, नियमांक अपवाद आसता! तशेंच तुज्या देवाक सांग आनी म्हाका दयेचो प्रसाद घेवन पाकळी दी. गाऱ्हाणें करून पाकळी बांदून दी. इन्स्पेक्टराक व्हरून खावयता. कोर्टाचो निकाल लागसर हें प्रकरण वयर सरूंक पावना. म्हाजो सगळो विस्वास तुजेर आसा. तूं सांगता तशें तशें ह्या पयलीं घडलां. म्हजेर इतली निमाणी कृपा कर शांतू."

"शेट, कृपा कर शांतू."

कनवटींतल्यान ताणें घसघसशीत भांगराची दोन जडगुळो वळीं आनी एक लांब, लखलखीत सरपळी काडली.

"तुज्या देवाक तर हांव भांगरान मडयतलोच्च. पूण हें तुका आनी तुज्या पुताक

दवर.”

“शेट, हें असलं घेवन प्रसाद लावत नाही मी.”

बाबूचें हड्डें अभिमानान तटतटलें. तितल्यान बाबलो भट भितर सरलो.

“शांत्या, उखल तें आनी प्रसाद लाय.” ताणें ओर्द दिली.

“भटा, कितें सांगतय तूं? जात्रेच्या पांच दिसांत केन्ना प्रसाद लागतंय आं!” शांतूभटान अजापान म्हळें.

“हय. खबर आसा म्हाका. साकडां घाल – लेकरू फारच अडचणींत आलय म्हं...”

शांतुभटालीं आनी बाबलोभटालीं झगडीं सुरू जालीं. बाबू अजापान मुमको जालो. इतलो म्हत्वाचो कडक नेम आनी बाबलोभट कांयच न्ही अशें करून, बळजबरीन, कुवेलकरशेटीखातीर तो मोडूंक तयार जालो. असो कसो तो भट? असो कसो तो देव? असो कसो तो जबरदस्तेन घेतिल्लो प्रसाद? तो केन्ना पारूंक शकता? आनी मुखेल गजाल म्हळ्यार, असल्या पापी मनशाक देव कित्याक प्रसाद दितलो? लोकांच्या भावार्थाचें मूल्य कितें? तो मोडून उडोवप? जर देव असो बदलता जायत जाल्यार तो देवूच कसलो? बाबूल्या कपलावयली शीर तटतटली. ताजो स्वास जोरान येवंक लागलो. ताणें ओंठ दातांपोंदा चिड्डून धरले. मुठी उघड–बंद जावंक लागल्यो. कानपटां गरम जालीं. दोळे व्हडले करून तो एकटक बाबल्याभटाकडेन पळोवंक लागलो. कोणाचेंच लक्ष ताचेकडेन नाशिल्लें.

“न्हाय म्हज्या बापसा, असा करा नुको! माजेर लय उपकार आसय तुजे. पन म्हणून हें पाप म्हजेकडसून करवू नको.” शांतूभट आकूळ–पिकूळ जावन बाबल्याभटाक पांयां पडूंक लागलो.

“बरें तर. उद्यापासून देवळांक तुजी गरज ना. उचल तुजी बिटकी हयसून आनी चलूंक लाग.”

“असां नको करूं भटा. पोर शिकताहा. त्यास शिकून मोटं व्हऊ दे. माज्या पोटार पाय नको आणुस रे.”

बाबल्याभटान खस करून शांतुभटालें उपरणें ओडलें. “तूं प्रसाद लावतस का सांग, नायतर चलूंक लाग आताचें आत्ता हंयसून.”

“लावतय.” शांतूभट थरथरत तोंडांतल्या तोंडांत उलयलो. ताच्या दोळ्यांसून

सुमाराभायर दुकां गळटालीं. आंब्याच्या पानांचे कुडके, गंधान बुडोवन तो मूर्तीचेर दसयत रडटा रडटा गाऱ्हाणें घालूंक लागलो.

"देवा, म्हाराजा, लेकरू अजाण आसंय, संकटान बुडलेलं आसंय. माजो नाईलाज झालंय. माका माफी दे. शरण आलेल्याक वाचय. त्येका जीवनदान दे. उजवी दे म्हाराज्या उजवी दे." गर्भकूड रडकुऱ्या सुरांनी भरली. पिसोळीं फडफडूं लागलीं. दिवल्यांच्या मंद उजवाडान भूतनाथाचे वज्राचे दोळे चकचकताले. बाबू, देवळीच्या काळ्या फातराच्या खांब्याक घट वेंग मारून उबो आशिल्लो. बापायचीं दुकां पळोवन ताचींय दुकां झरूंक लागिल्लीं. राग, निराशा, दुख्ख, वैफल्य ह्या सगल्यांचें एकूच जोगूल ताच्या अंतस:करणान उजो पेटयताले. तो खात्रेन जाणां आशिल्लो, कितलींय गाऱ्हाणीं घाल, ह्या पातकी मनशांक केन्नाच प्रसाद जावपाक ना. केन्नाच ना. ताचें केन्नाच बरें जावंचें ना. केन्नाच बरें जावंचें ना. तो देव लेगीत भाविकांच्या भावार्थाक, श्रध्देक भियेतलो. देवाक विकतो घेवपाक आनी विकपाक आयिल्ल्या ह्या लोकांक देव कसलीय तरी ख्यास्त दितलोच.

शांतूभट दीनवाणो जावन देवा म्हऱ्यांत हात जोडून उबो आशिल्लो. हुंदक्या हुंदक्यांनी तो रडटालो. बाबूची खांबावयली पकड घट घट जायत गेली. तो घामान भिजलो. पूण मर्दी 'हूं' म्हणपाक ताका तांक नाशिल्ली. वर्सानवर्सा ताणेंय बी ह्या शास्त्राची शक्ती पळयल्ली. काय थोड्या 'अन्नाडी' लोकांच्या विस्वासाची गजाल आशिल्ली जाल्यार दुबाव घेवपाक जागो आसलो. पूण जेन्ना गांवचे गांव, वर्सान वर्स प्रसाद लावपाक हजार मैलावयल्यानय लोटटात तेन्ना ताका फट कशें म्हणूं येता? कितेंयतरी दैवी शक्त हे पाकळेंत आसुंकूच जाय. हजार मैलांवरसून शिकिल्ले लोकूय प्रसादाच्या फाटल्यान धांवत येतात ते? आनी असल्या शक्तीशाळी देवांक आनी ताच्या निर्मळ भटांक हें दळदिरें दुडवांचेर नाचोवंक सोदतात? 'देऽऽ दे ऽऽ' शांतूभटालो आवाज गर्भकुडींत पातळ्ळो. बाबुले पंचप्राण एकठांय जाले. ना च लागचो तो प्रसाद! लेच्योपेच्यो गजाली न्हय त्यो. जागृत देवस्थान तें! ताचीं नाखटां खांब्यांत भितर भितर रिगूंक लागलीं. जोखून कुशीक मारिल्लीं भांगरा वळीं आनी साखळी दिवलेच्या उजवाडान चकचकतालीं. शांतूभटालो हात वालो मुड्डीतालो. कुवेलकरशेट ओंठ चाबडायत, मुर्तेक एकटक पळयतालो – स्वास घेनासतना! बाबलो भट अस्वस्थ जावन गळ्यांतलें जानवें गोल गोल फिरयतालो. बाबल्या

भटाक खात्री आशिल्ली, प्रसाद जालो ना जाल्यार रागान कुवेलकरशेट हाडलेली दर एक वस्तू परती व्हरपी. चौगांयच्यो अजस्त्र सांवळ्यो वंटीर हालताल्यो. खंयची सांवळी कोणाक गिळूंक सोदता कांयच कळनाशिल्लें.

"दे ऽऽ म्हाराज्या, उजवी दे." शांतूभट आड्डलो आनी दांतापोंदा चाबिल्ल्या ओंठांतसून रगताची धार बाबुल्या शर्टार गळ्ळी. मूर्तीचे छातयेवयलो, पानाचो कुडको टप करून सकयल पडलो. दोळे व्हडले उकते करून बाबू पळयत रावलो. शांतूभटान कुवेलकरशेटाक घट्ट वेंग मारली. शेट उमेदीन नाचूंक लागलो. "आतां गान्हाणें घाल आनी प्रसाद बांदून दी. व्हरून त्या इन्स्पेक्टराक खावयता. बेगीन दी बेगीन." शेटीन म्हळें. "ना ; ना ऽ" मुठी वळत, किळांच्यो मारीत, सांवार आयिल्ल्याभशेन बाबू फुडें सरलो. तिगूय ताच्या रौद्र रूपाकडे पळयत रावले. "खोटो आसय, हो प्रसाद खोटो आसंय. हो प्रसाद खोटो, तुमी लोक खोटे, हो देव खोटो. फटींग, सगले फटींग.. मूर्तिच्या पांयार तकली आपटीत बाबू व्हडल्या व्हडल्यान रडूंक लागलो. नाका रे माज्या पुता.. अशें जीव गेल्ल्याभशेन म्हणत शांतूभट थंयच थपकल मारून बसलो. "बाबू, वोग्गी ..." बाबल्या भटान नेटान म्हळें. "वोग्गी तूं राव" अशें रागान म्हणत थंयचो तांबयो काडून बाबून बाबल्याभटाचेर मोखून मारलो. भटान तांबयो चुकयलो. तांबयो वचून मूर्तीचेर बसलो. "मला नको तो फटींग देव." अशें म्हणत बाबू भायर धांवलो. ताका आडावपाक गेल्ल्या बाबल्याभटाक ताणें फोर्सान धुकलून दिलो. थुंलोथुलो भट खांब्यार वचून शेवटलो. शांत्यान काळजाक हात घालपी केल्लो उलो "बाबू रे ऽऽ" कोणेंच आयकलो ना. शेटजी सोपणारच थपकल मारून बसलो. बाबू न्हंयेकडेन धांवत सुटलो. बाबलो शेट तरीय बी उठून 'राव रे राव रे' करत ताज्या फाटल्यान धावूंक लागले. ताका भंय आसलो, बाबू गर्देन वचून हें सांगत जाल्यार लोक ताका जितो दवरचे नांत. बाबू काळखांत नाच्च जालो. जात्रेच्या लोकांक परत व्हरपाक रातपाळी मारतल्या तारयाची 'पोरगो बुडलय रे' ही बोब आयकून बाबलो भट अदर्या रस्त्यांतच कोसळ्ळो. माळार काळभैरवाली जात्रा तशीच्च झगगताली. तांबयाचो धपको बशिल्ले मूर्तीच्या तोंडार मात हांशें तशेंच आशिल्लें – कोणाकडेच कसलोच संबंद नाशिल्ल्याभशेन.

●●●

3

# झापडी

खांदार कोणेंतरी हात दवरलो तशें हांवें आंग काडलें. अमीनाबी फाटल्यान हांसत उबें आशिल्लें. "अय अमीना, नुस्तें नाकाय गे आयज?" सदचे नुस्तेकान्नीन साद घालो. तश्यो अमीनान नुस्त्यान भरून व्हांवतल्यो पोतयो उगडून दाखयल्यो. इतलें नुस्तें पळोवन म्हाका आनी नुस्तेकान्नीक अजाप जालें. सद्दां इल्ल्या इल्ल्या वाट्यांनी नुस्तें व्हरपी अमीना, आयज सामकी उदार जाल्या कशी दिसताली.

"आयज कितें गे? पूत येतले काय कितें गे भायरसून?" नुस्तेकान्नीन विचारलें. म्हाका अचकीत याद जाली – फाल्यां खऱ्यांनीच अमीनाचे दोनूय 'कुवेटकार' पूत येवपाचे आसले. त्याखातीरच! "हय गे बाये, पुतांखातीरच!" अमीनान म्हळें आनी म्हाका "बाद में जरा आ के जा गे!" अशें सांगून ती व्हडल्या तोऱ्यान, तायट मान करून चलूंक लागली. वळिल्ली मान ती हातान ल्हवू ल्हवू दाबतालीय बी पूण तायटपण मात्तूय उणें जाय नासलें. पटपट करून अमीना नाच्च जाली.

तिका आतां 'घे' म्हूण वावर करपाचो आशिल्लो. म्हजी शेजान्न आशिल्ली अमीना. मेळत तेन्ना तिचो डेरो म्हज्या घरांत आनी म्हजो तिज्या घरांत पडिल्लो आसतालो. सकाळच्यान जनेलांतल्यान धा खेपो तरी तिणें म्हाका करूंक नासलेल्या कामाची लिस्ट म्हणून दाखयली. घर नितळ करप, तरेकवार खाणां करून दवरप आनी कितलींशींच कामां ... हांव बाजारांतसून परतलें तेन्ना अब्बान, घरांतल्या कामांक दवरलेल्या चेडवाकडसून घर बरें हारशाभशेन लकलकीत करून घेतिल्लें. रांदचे कुडींतल्यान, जिबलेक उदक हाडपी तरेकवार वास येताले. तेन्नाच म्हाका,

पुतांच्या येवकारांची तयारी व्हडल्या दबाज्यान चल्ल्या हाची जाणविकाय जाली. "आ के जा गे जरा' असो उलो आयकतच हांव अमीनाच्या ताजमहालाभशेन सोबीत घरांत गेलें.

अम्मी म्हळ्यार मीनाबी, अब्बा आनी घरांतलें चेडूं हांकां सोडून सगलें घरच आखातमय जाल्लें. परदेशी बनावटीच्या जायत्या तरेकवार वस्तुंनी घर सामकें भरून गेल्लें. कितल्याश्याच वस्तूंचो उपेग खबर नाशिल्ल्या कारणान तांकां केन्ना हातूच लावंक नासलो. त्यो सगळ्यो वस्तू पॅकिंगासयत तश्योच पडिल्ल्यो. वस्तू धाडताना ना तर कोणें सोय पळयिल्ली, ना उपेग, ना रंगसंगती! घर आसा काय तरेकवार वस्तुंचें भांडार तेंच कळनाशिल्लें. पूण अम्मी त्या वस्तुंची खूब्ब अपूरबाय करताली. तांचेर तिचो जीव आसलो. आयताराच्या आयतारा ती तांकां काडून, पुसून परत्यो जाग्यार दवरताली आनी मोगान तांचेकडेन पळयत रावताली. पूत 'कुवेटकार' जाल्ल्यापासून अम्मी आनी अब्बा सदांच परदेशी कपडे वापरताले. वापरता ती दर एक वस्तू 'इंपोर्टेड' आसुंकूच जाय असो अम्मीन कायदोच केल्लो.

म्हाका ओव्हरटेक करून 'अब्बा' बेगीबेगीन भितर आयलो आनी बायलेक विचारूंक लागलो, "अगे, सिर्फ मच्छिच? दल्ल्यां पकाया नई?"

"सबी कुछ करती ना मैं? तुम बाहर जाके बैठो." अम्मीन बेठेंच शिटकायलें.

"बडे आये पुछनेवाले. जरा गोली खांव टायम से. सारी सारी रात खांकते हो। नींद नये मेरे कूं।" अम्मीक मात सुद्दां सुशेग नासलो. कितें करूं केन्ना करूं आनी कशें करूं अशें तिका जाल्लें.

"कित्याक आफयल्लें गे म्हाका?" हांवें विचारलें.

"कुछ नहीं. ये बार बार आके मेरा जी घबरा डालते है। तुम बैठो इधर तो मुझे काम सुदरे थोडा. क्यो टायम है ना?"

"हय हय आसा तर." हांवें थपकल मारत म्हळें.

"मैं कुछ करूं गे?" अब्बा परतो भितर आयलो. ताज्या जिवाक तरी खंय सुशेग आसलो?

"नक्को बोली ना मैं एक बार। काय को तरास देते बारबार आ के?" अम्मीन परतें शिटकायलें. आब्बाचो बोवाळ तिका पसंत नाशिल्लो. हेवटेन तेवटेन नदर मारीत हांव बसून रावलें. त्या जाणट्या जोडप्याचें तें बोवाळप, पळयन पळयन

दिसतालें.

आतांच्या जमान्यांत कांय समाजांत अशी रीतच पडिल्ली, घरांतल्या कोणेंय एका मनशान सगळो पयसो अडको एकठांय करून, आखातांतल्या खंयच्याय मेळटा त्या देशांत नोकरी धरची आनी मागीर मदतीचो हात फुडें करून सगल्या सोयऱ्यां-धायऱ्यांक थंय, कसल्या ना कसल्या कामाचेर आफोवंचें. खंयच्याय देशांत नोकरी लागू, मनशाक 'कुवेटकार'च म्हणटाले. कुरल्यांच्या वाठारांतरावन आनी दिसरात ह्यो ह्यो कुरल्यो रगडून लेगीत कुल्ल्यांचो एकमेकाचे पाय ओडपाचो गूण अजून तरी ह्या समाजांतल्या लोकांभितर येवंक नासलो.

वक्लाचो माण आशिल्लो अब्बा आनी अम्मी आपल्या दोनूय पुतांक अशरफाक आनी हबीबाक कुवेटकार जावपाक जमना हें पळोवन रागार जाताले. भितरल्या भितर धुसफुसताले. मॅट्रीक जाल्ले, भलायकेन घटमूट आशिल्ले, रंगान गोरे अशे दोगूय पूत बापायच्या माणार, बेश्टेच वेळ पासार करताले. हेवटेन - तेवटेन भोंवताले आनी चान्स मेळत तसो, चलयांचेर लायनूय मारताले. चुरचुरे दिसून हांवें अम्मीक म्हळें, "अम्मी, कित्याक वाडिल्ल्या भुरग्यांची जीण पेड्ड्यार करता? कित्याक तांकां बेकार दवरल्या? तवनासपणां करूंक? कुवेटाचें जमून येतलें तेन्ना येतलें, सद्या तरी कसल्याय कामार दवर तांकां. कितेंय नोकरी - धंदो करून चार पयशे जोडूनी मगे तांकां."

"अगे" उसासून अम्मी सांगूंक लागली, "आजकाल कुवेटकार के सिवा लडकी किसी को मिलतीय गे? लडकी का बाप दुल्हे की नौकरी देखताय पहले - फारीन में है क्या नई करके? और ये लोगां फारीन में गये बिना मेरी तीन - तीन जवान छोकरी लोगां के हाथ कैसे पिले करने के गे?" फॉरीनाचें पिशें लागिल्ले तरनाटे हांवें जायते पळयल्ले. पूण आख्ख्या समाजाक लागिल्लें हें पिशें नाका जाल्लेंच आशिल्लें. अचकीत अम्मील्या भावाक आखातांत नोकरी मेळ्ळी आनी ताणें मदत करून अशरफाक थंय आफोवन घेतलो. अशरफ कुवेटकार जालो आनी तीन वर्सांभितर अम्मीन तिगांय धुवांचीं लग्नां करून उडयलीं. हबीब कुवेटकार जालो आनी नवें घर बांदून जालें. भुरग्यांचें पोजिसांव पेड्यार जातालें, आनी भडक रंगान चितारलेलें तें घर पेड्ड्यार जातलें ह्या भंयान अम्मीन आपल्यो कोमयो आनी बोकड्यो पोसपाच्यो धंदो बंद केलो. ताज्या जाग्यार ती आतां इम्पोर्टेड साडयो

आनी मेकअपचें सामान विकूंक लागली. ह्या मालाक इतलो खप आसलो, अम्मीक, भुरग्यांकडसून येवपी माल पाव नासलो. केन्नाच मागणी पुराय जाय नासली. भरपूर पयशे भरून घरांत घेतिल्ल्या फोनार जेन्ना अम्मी दर पंद्रशीक पुतांकडेन उलयताली तेन्ना चुकनासतना व्हडली यादी दिताली. दर एका म्हयन्यांत सुटयेर येतलो कोणूय 'कुवेटकार' मालाचीं पार्सलां अम्मीकडे हाडून दितालो. अम्मील्यो कोकण्यो शेजाऱ्यां लेगीत येतना-वतना अम्मीक चाळयताल्यो. "अगे, अमीना, नुस्तें हाडलां तें कुवेटच्या दर्यासून पेवत आमच्या दर्यांत आयिल्लेंच मूं? काय हांगासरलेंच मानशीचें ना जाल्यार खाजनांतलें?" जात-खानदानापरस म्हत्वाचें आसलें तें 'कुवेटपण'.

अशरफ, हबीब लग्न जाले आनी अब्बा-अम्मीचे जिणेचें सार्थक जालें. तातूंत हबीबाची बायल शिकिल्ली आनी कुवेटांतूच नोकरी करपी मेळ्ळी. तिची सोयरीक अम्मील्या भावान हाडिल्ली. भावाल्या पांयांत आपले कातडीचें जोतें करून घालपाचें दवरिल्लें अम्मीन. असलें भुरगें सून म्हूण मेळप म्हणजे कितें फकाणार्चीं कामां? सुनेचीं कर्तुबां सांगत, तोखणायो करीत सगलो गांव भोवतना आतां अम्मीक पुरो जाय नासलें. ही सून घरांत येतकच जोड दुप्पट जाली. अब्बा केन्नाय भंयान कासाविस जातकच, पूत आसात न्ही सुनांची काळजी करपाक? अशें म्हणून अम्मी ताका शिटकायताली.

दोनूय पुतांच्यो कुडी निव्वळ करून जाल्यो. दोगांयच्या आवडीचीं तरेकवार खाणां तयार जालीं. वावर करताना एकेवटेन अम्मी म्हाका सांगताली, "अब मेरेकू पोता मंगताय। अशरफ का कान पकडती मय इस बार। बहूत हुआ ड्रामा। बोलती मय उसकू। बच्चा नुक्को?"

"जाय तर!" हांवेंय तिका बरेंच फुलयलें. अमीनाक आनीकूय उमेद जाल्ली. हांसत हांसत तिणें तोखणायेन म्हळें, "मय आज रात को बी छोकरे लोगांकोच देखूंगी सपने में। आज नींद पडती गे मुजको रात मे?" दुसऱ्या दिसा येवपाचें थारावन हांव थंयच्यान पळ्ळें. तरी अब्बा अम्मीची उलोवणी उसरां रातीमेरेन आयकूंक येतालीं. भुरग्यां - सुनांच्या येवपाच्या वार्तेन धादोसकायेन फुलिल्ली अब्बा-अम्मी पळयन पळयन दिसताली.

फांतोडेर परती तांच्या घरांतल्यान वर्दळ आयकूंक येवं लागली. मदीं मदीं

म्हाकांय उलो येताले. म्हज्या घरांतलो वावर बेगीबेगीन सोंपोवन हांव अम्मीकडेन पावलें. काल उजरावन दवरलेलें नुस्तें अम्मीक थोडें कशें दिसलें. इल्लें ताजें नुस्तें आनी 'दल्ल्यां' रांदूक 'गोरत' हाडपाक अम्मी ताकतिकेन बाजारांत वचूंक भायर सरली. मिर्सांग वाटपाचें काम म्हजेर सोपोवन ती भायर सरपाक आनी तीन टॅक्सी येवन दारांत थारल्यो. अब्बा-अम्मीची धांदळ जाली. एके टॅक्सींतल्यान अशरफ-हबीब आनी अशरफाली बायल सकल देंवली. दुसऱ्या टॅक्सींतल्यान सामानाचीं वजीं देंवतालीं. शेजाऱ्यांनी भोंवतणी सामकी गर्दी केल्ली. अम्मीक धाकटी सून दिश्टी पडली ना. व्हडलेक तिणें विचारलें.

"क्योंव री, छोटी किधर कूं है?" व्हडलेन कांयच उलयनासतना मान सकयल घाली. अम्मीच्या काळजांत कच्च जालें. सामानाचीं वजीं घेवन दोगूय भाव भितर आयले. परतें अम्मीन विचारलें, "छोटी किधर है?"

"वो ऽ वोऽ" अशरफान प्रसंग सांबाळ्ळो. "वो बंबई में मायके रही. थोडे दिन रह के आयेगी."

"क्यू?" अम्मीन रागान विचारलें. "इतनें सालों के बाद आयी, तुमारे साथ आने कूं नई माँगता था क्या? बाद में जानेका था, मायके के लोगों कूं मिलने।" तिका कशेंय तरी थारावन दोगूय न्हावपाक गेले. अब्बाचे अणभवी नदरेंतल्यान तांची काचाबूल अवस्था सुटली ना. सांजेक मात, प्रसंग धापपाक अशरफान मारिल्ले फटीचेर हबीब तापलो, "काय को झूठ बोलते भाईजान। बतादो न सचमूच। अब्बा - अम्मी, जोरू छोड दी मैने।"

"क्या?" अम्मीचो आवाज चिरकलो. अब्बाच्या हुक्क्याची वादी हवेंत अधांतरी तरंगत रावली. "मामू ने मेरा गला काटा गे अम्मी । किधरकाच नही छोडा गे मेरेकू ।" हबीब रडकुऱ्यां परतलो.

"क्योंव रे, क्या बोलताय ये?" अशरफाचे फाटीर हात दवरून अम्मीन विचारलें. "साफ साफ क्योंव नही बोलताय रे? कायकू जी खाताय मेरा?"

"अम्मी, सबकुछ छोड के आ गये है हम । इधरच धंदा-पानी करेंगे. पेट भरेंगें । वापस नही जाने का अब ।"

"क्यू?" अब्बान चकीत जावन म्हळें.

"अरे, ऐसी काय की मुशकील आ पडी? जोरू क्या खाने लगी तेरे को? रे

हबीब?" अम्मीन तळमळून विचारलें.

"उधर रंडीखाना बडा चलताय । हमारे मुलूक की छोकरी लोगां को वो ले जा जाकर रंडीखाना चलताय। मामू चलाताय वो। हबीब की बीवी हिस्सेदार है।" हातान तकली धरून तो सांगूंक लागलो. "अगे अम्मी, छोटे छोटे छोकरी लोगां को फंसाताय मामू। कितनी बच्चीयोंने जान दे दी । कितनी अब्बी सड रहयली हय। सरकार ने पकडा सबकू एक दिन। हबीब की बीवी के वास्ते हबीब को बी पकडा। मामू और हबीब की बीवी भाग गये दुसरे देश और मय छुडाता रहा हबीब को । साल भर यही चलता रहा। तुमकू लिखा नयी। तुम सदणा खाओगे करके । शादी के टायम हबीब को कुछ मालुमात नही करके छुडाया । हबीब का दुसरा निकाह करेंगे । नहीं चाहिये कुवेट।"

अपमान, पयशांची लागिल्ली वाट, आनी मागीर थंयच्यान कवळची पडिल्ली गुठली हें सगळें पळोवन अब्बाचे हातपांय थरथरूं लागले. म्हाकाय हें सगळें आयकून कच्च जालें. पूण अम्मीच्चे तकलेंत मात कांयच उजवाड पडूंक ना. भुरग्यांनी त्या हळशीक कामांत मामाक मदत करूं ना हाचो तिका अभिमान दिसूंक ना. भावाल्या कपटीपणाची तिका लज दिसूंक ना, मनार फातर दवरून बायलेक सोडलेल्या पुताचें तिका कवतुक दिसूंक ना. भुरग्यांक सहन करपाक लागिल्ल्या त्रासाचें तिका वायट दिसूंक ना. तिच्या दोळ्यांहुजीर तिका दिसतालें – भविश्यांत तिका हांसपी सोयरे, चाळोवपी आमीग, भांगराभशेन लखलखीत जिविताक खोंट मारून आयिल्ल्या भुरग्यांची समाजान केल्ली निंदा, वनवास सोपोवन आयिल्ल्या भुरग्यांक पळोवन तिका कांयच उमेद जावंक ना, खुशालकाय दिसूंक ना. दुख्खाच्या सोरोपान तिका गिळपाक सुरवात केल्ली.

एका खिणांत, कितलेशेच विचार तिचे तकलेंत घुवूंक लागले. तांचे जातींत आतां तिचें नाक कापून वतलें, तांगेल्या कुटुंबाचो मान–दर्जा–किंमत सगलें धुल्ल्यान नाच्च जातलें. इतलीं वर्सां तिचेकडल्यान तिच्या पुतांच्यो तोखणायो आयकून घेवपी मनशांच तिका हांसतालीं, चाळयतालीं. परदेशी वस्तूंचेर, भांगराचेर आनी पयशांचेर जिविताचें दान घालपी त्या पिटपिट्या जगांत परती केन्नाच मान वयर करून दबाज्यान चलूंक मेळचें नासलें. जे एके गजालीचो तिणें जिवीतभर ध्यास घेतला, जी संद मेळोवपाक तिणें आपल्या पुतांक वर्सान वर्स झगडूंक लायले ती

अनमोल संद खोंट मारून वगडावन, तिगेले पूत परते आयिल्ले. आयजमेरेन जाल्ले उदरगतीचेर तिका समाधान नाशिल्लें. अकस्मात ती पिशें लागिल्लेभशेन करूंक लागली. अशरफाच्या आंगार धावन गेली. आमी सगलीं तिका फाटीं ओडूंक लागलीं. हबीबाची कॉलर हातान घट धरून ती व्हडल्या व्हडल्यान आड्डूंक लागली. "काय को दुसरा निकाह नहीं किया रे उधरच? काय कू मामू को नही छुडाया? तुमारा क्या जाता रे उसमें? रंडिखानेमें तुम्हारी माँ बहन तो नही थी न? तुम काय को मूँह फिराके पयसा नहीं कमाता रहा? काय कू वापस आया? काय कू?" तिगेले हळशीक स्वार्थी विचार आयकून सगळीं जाणां दचकलीं. हातांत येतात ती वस्तू ती भुरग्यांचेर रागान मोखून मारूंक लागली. "इधर काय कू मरने को आया रे, काय को मरनेको आया?" आनी अपेक्षाभंगाचें दुख्ख जावन ती हुंडक्या - हुंडक्यांनी रडूंक लागली. घरांत कोण मेल्ल्याभशेन. तिगेली व्हडली सून फकत दोळे व्हडले करून, तिगेलें उलोवणें कांयच समजना जावन तिका आनी दादल्यांक पळयतच उरली - हताश जावन - म्हजेभशेन.

●●●

## 4

# परकें मळब

दाराची बेल वाजली आनी कनक सावचित जालें. ताणें केंसाच्यो जटो तोंडार चडूच ओडून घेतल्यो. दोळे तर चोळून चोळून ताणें पयलींच तांबडे करून घेतिल्ले. आतां फकत दुकां व्हावपाचें काम उरिल्लें. पूण तीं मात कशींच व्हावपाक तयार नाशिल्लीं. 'कांय नज' अशें आपणाकच म्हणत कनु बाथरूमांत धांवलें. दोळ्यांत उदक भरून घेवन ताणें तें तशेंच सकयल पोल्यांचेर गळयलें. दुकां व्हांविल्लेभशेन! ल्हवू ल्हवू चलत तें हारशा म्हऱ्यांत आयलें. व्वा! कितलो सोबीत अवतार जाल्लो! पूण 'अब्बा!' ताका याद जाली. दिदील्या नाकाचो शेंडो रडटा आसतना कसो तांबडो गूंज जातालो? आपल्या नाकाचो तसो जावपाक कितें करचें पडटलें? ताचो मामा ताका जीं फकाणां करून पिडटालो, शेवटाक तींच करपाचीं ताणें थारायलें. नाकाक, नाखटांनी एक बारीक चिमटो काडलो. कामच जालें. नाकूय तांबडें जालें आनी दोळेय दुकांनी रसरसून भरून आयले. कितली फिन तकली आसा आपली. ताचें हड्डें झेतान फुलून आयलें. इतलें सगलें आटपितकच ताणें धाड करून आपल्याक खाटीर घालून घेतलें. आतां तरी पप्पा-मम्मीक ताजेकडें लक्ष दिवंचेंच पडटलें! मम्मी भितर सरली तीच सामकी ताकतिकेन.

"कनु, खंय आसा गो तूं? उठ बाय, हें अशें दिसरात, आडवें उधारें किदें लोळत रावता गो तूं? आं? उठ शाण्या, खेळूंक वच पळोवंया भायर. म्हाका आनी तुज्या पप्पाक एका गरजेच्या कामाक वचपाक जाय. सांजे उशीर जातलो येवपाक.

तूं बाबल्या कडल्यान वाडून घे, जेव आनी न्हीद. कळ्ळें मगो? सारकें रावआं. बाय म्हजें गुणाऽऽचें." अशें म्हणत कांय कागदपत्रां पर्सींत घालत, कनुच्या पोल्यार हात ओडीत मम्मी गेली लेगीत! व्हदळच्यान कनकाचेर रागार जाल्लीं दुकां आतां मात ताजेर सामकीं भुलल्लीं. दोळे घळघळ करून व्हावूंक लागले. तें हुंडक्यांनी रडूंक लागलें. ताची कंवळी काया अपमानान गदगदताली. ताणें केल्ली सगली तयारी फुकट गेल्ली. तें परतेंय दुर्लक्षितच उरलें. हेंच जर ताज्या जाग्यार दिदी आशिल्लें जाल्यार ती केंसाची जटा, ते तांबडे दोळे आनी नाक, तो चुरिल्लो विस्तीद पळोवन मम्मी सगलें घर माथ्यार घेतली आशिल्ली. पूण कनकाच्या टायमार घरांत झगडीं, तमाशा कांयच जावंक ना.

शँ! दिदी घरांतल्यान पळून वचून लग्न जालें आनी घरांतली सगली मजा नाच्च जाली. तें आशिल्लें तेन्ना घरांत कितें बोवाळ आसतालो. दिदीच्या पावलां कणकणी मम्मी पप्पाचें लक्ष आसतालें. बारीकसाणेन! ताचे कसलेय वागणुकीचेर घरांत 'घे' म्हूण बोवाळ जातालो. झगडीं, वाद, रडप, उपास आनी शेवटाक दिदीक बेडरूमांतल्या बंदखणीची ख्यास्त! अशीं थरावीक सोपाणां त्या बोवाळाक आतालीं. कनकाक हो बोवाळ आवडटालो अशें न्हय. पूण हें जें कितें घरांत सद्दां सद्दां जाता तें एकल्या दिदीक लागून, दिदीखातीर आनी दिदी वांगडा हें ताच्या लक्षांत गेल्लें. ताका दिदिचो खुबूच मत्सर दिसतालो. कोणा एकल्याकच घरांत इतलें म्हत्व मेळप? अब्बा! ही म्हळ्यार सामकी नाका जाल्ली गजालच जाली. धा वर्स पिरायेच्या कनुकडे कोण हुंगून लेगीत पळय नाशिल्लो. खरें म्हळ्यार, दिदीचीं प्रेमपत्रां मुखार रावपी विजयभैयाक चोरून पावोवपाची आख्खी कामगिरी एकट्या कनकान – कोण्णाक दुबाव येनासतना केल्ली. पूण मम्मी–पप्पा च्यो गाळी – धुमके – थापटां तर पयस, तांच्यानी कनुकडे पळोवंक लेगीत ना. कनु सामकें अपमानीत जाल्लें. शेवटाक, आतां आपुणूय बी दिदीभशेन कोणाचेर तरी मोग करून, सगल्यांचें लक्ष आपणाकडे करून घेवया, अशें ताणें थारायलें. पूण विजयभैया भशेन दुसरो कोणूच ताचे नदरेंत येना जालो. बॅडमिंटनच्यो रॅकेटस् घेवन कनु सकयल लॉनार आयलें. पूण 'मोग करपाचो' विचारच ताज्या मनांत घोळटालो.

'मे म्हयन्याची' सांज म्होवाळ आशिल्ली. थंड, शितळ वारो, आंगाचो दीसभर जाल्लो उजो न्हिवयतालो. वाऱ्यार धोलपी फुलां सांडून, कनु मळबांत

उडपी कावळे मेजत बशिल्लें. ताणें विचार केलो, 'मोग करपाक दुसरो मनीस जायच कित्याक? कोणूच नासतना जावूंक शकना तो मोग?' दिदीक उलयतना ताणें एकदां आयकल्लें, 'मोग करप नासता, तो आपुणूच जाता म्हूण.' जालो घोळ? तेन्नाच्यान सकाळीं उठटकच कनु सदांच सकाळीं हारश्यांत आपणांक पळयतालें - चोयवटेन - बारीक नदरेन. खंयच्यान जाला बी काय तो म्हूण! पूण सदांच तें निर्शेतालें. खंय कितेंच जाल्लें ताका दिसनाशिल्लें. वाट पळोवन पळोवन कनु सामकें वाजेल्लें. पूण तें हार मानपी भुरगें खंय आशिल्लें तर? 'जायना जाल्यार नाका जांव.' अशें म्हणत तें पांचव्याचार चारीर रॅकेट मारीत रावलें. 'तें खरें' आसता कितें हें सद्या कळ्ळें ना जाल्यार जाता. पूण तो कसलो रोग बी आसना मूं? आनी तो जावन आपूण मेलें-बिलें जाल्यार? हो विचार मनांत येतकच तें सामकें भियेलें. 'आसूं न्ही... आपूण अशें धरूया की 'तें' आपल्याक जालां. मागीर फुडें? सगळ्यांक हें कळटकच आपल्याकच सगलीं जाणां म्हत्व दितलीं. आपल्याच फाटीं-फुडें नाचतलीं. जेवतना, खातना, न्हिदतना, उठटना आपलेविशींच कुजबुजू करतलीं. आपल्याचेर लक्ष दवरतलीं. आपूण दिदीभशेन कोणाक फोन करता, पुस्तकांत लिपोवन कितें वाचता, पोस्टमनाकडल्यान कितें घेतां, व्हारांद्यांत कितल्यो पासयो मारता, आपल्याकडे कोण -- कोण केन्ना कित्याक लागून येता, आपूण सारकें जेवता काय ना? सगळ्या गजालींचेर बारीक लक्ष दवरतलीं. आपलीं पुस्तकां, चोपड्यो, दप्तर, बोल्सां सगळीकडे हात घालून घालून पळयतलीं - सामकी खाशेली ट्रीटमेंट! कनुक उमेदीन भरून आयलें. काळोख केन्ना जालो ताका कळ्ळोच ना. व्हीडीओचेर कॅसेट पळयतना लेगीत ताचे तकलेंत हेच विचार घुंवताले.

"कनुबाय, चल उठ मगो जेवपाक." बाबलो भितर कुडींत आयलो.

"म्हाका भूक ना. तूंच जेव वचून." कनुन वोगीच बाबल्याचेर राग काडलो.

"कितेंतरी भकत रावता आनीक भूक कित्याक मडसरेक लागतली?" बाबलो फुतफुतलो आनी गेलो. कनुच्या आंगांक रागान उजो पेटलो. "स्टुपिड!" होच बाबलो, जेन्ना दिदी जेव नाशिल्लें तेन्ना कसो हांसत उलयतालो. "बाय, तुगेलें पोट मोगान भरलां, तुका जेवपाक भूक कशी लागतली?"

"इडियट" कनुन रागान उशें मोरडलें. उशें जिखीत बाबलो परतो आयलो.

"कनुबाय, मम्मी, पप्पा भायर सरल्यांत. तांकां लागून रागार जावंचें न्हय गो पुता - हें दूद घे, पी..."

"पूण हांव मम्मी-पप्पा भायर सरल्यांत ताका लागून खंय रागार जालां?" कनु बाबल्याच्या गैरसमजान पिकार जालें.

"जावूंक ना? आं? बरें, तशें जाल्यार तशें - चल बाय, दूद पी पळोवंया पयलीं." बाबलो मेजार ग्लास दवरून गेलो. कनु रागान कांबरूण ओडून दूद पियेनासतना न्हिदलें.

"काल रातचें हांव जेवूंक ना." कोणूच विचारीनाशें पळोवन कनुन आपूण जावन च्या पितना सांगलें.

"नेव्हर मायंड!" पप्पान म्हळें. "केन्ना केन्ना पोटाक उपास घडटा तो बरोच आसता. आमकांय बी काल सांजे येवपाक इतलो कळाव जालो, आमींय बी तशींच न्हिदलीं. जेवीनासतना!" कनु निर्शेलें. अशें कितें जाता? अशें आशिल्लें हें घर दिदी आसताना? कितलें बदललां. कनुची भूक आतांय बी मेली.

"हां, एक उपाय आसा" विचार करतां करतां कनुक सुचलें. एका कागदाच्या कुडक्यार ताणें कितेंतरी भिरकटयलें आनी तो कुडको उदकांत बुडयलो. शाई सगल्या कागदार पसरतकच ताणें तो विस्तिदाच्या बोल्सांत लिपयलो आनी विस्तीद उमळपाच्या ओल्यांनी व्हरून बुडयलो. आतां तरी? एका व्हडल्या स्फोटाची तें वाट पळोवंक लागलें. दिदीलीं प्रेमपत्रां घरांत सापडटकच जाल्लो तश्या स्फोटाची! तेन्ना तर मम्मीन, दिदील्या पत्रांक फेर मारून सुकयिल्लीं आनी वाचपाचो यत्न केल्लो. खाटीर लोळटां लोळटां दाराचे खांचींकसून कनुन पळयलें - बाबलो तो कुडको मम्मीकडेन दितालो. कनु खुशालभरीत जालें. इतलें, काय ताका स्वास लेगीत सुटना जालो. मम्मीन एकदां तो कुडको उगडून पळयलो आनी मुडून कोयराचे बालदेंत उडयलो. कनुक दोंगरावयल्यान सकयल धुकलिल्लेभशेन दिसलें. तें रागान फणफणत आयलें आनी बाबल्याचेर तापलें. "बाबल्या, म्हज्या फ्रॉकाच्या बोल्सांत इंम्पॉर्टंट कागद आशिल्लो. काडलो मरे तुवें? काय फ्रॉकावांगडा तोय बी भिजयलो?" बाबलो चूक जाली देखून सामको बाबडो कसो जालो. 'कनक' मम्मीन

थंडपणान म्हळें. "कागदार किदें बरयल्लें तें तूं जाणां मगो? परतें काड बरोवन. हांवें भायर मारलो तो भिजिल्लो कागद!" कनु ओंठ चाबत भितर आयलें.

कनुन दिदीलें वागप याद करून करून सगलीं तरां करून पळयलीं. उशापोंदा फुलां, फोनाकडे नंबरां बरयिल्लें कागद, My Love बरोवन आनी फुडें नांवां नासलेलीं दोन ग्रिटींग कार्डां, कपड्यान भिजिल्लीं पत्रां पूण कोणेंच ताका दाद दिली ना. परतें मम्मीन "शाण्या तूं आतां सामकें विसरभोळें कशें जाता आं कनक!" अशें म्हणटकच कनु पिकार जातालें.

रातचो टी.व्ही.र पिक्चर पळयतना कनुचे तकलेंत आनी एक गजाल आयली. आपणे आतां बेश्टें मोग करचो न्ही तर दिदीभशेन पळून वचचें. म्हणटकच सगळ्यांक आपलें मोल कळटलें. कितल्या दिसांखातीर वचचें पडटलें? दिदी गेल्ल्याक आतां तीन-चार म्हयने तरी जातले. इतले दीस? आवय गे! जमतलें आपणाक? काय बेश्टें दोन-तीन दिसांखातीर वचून पळोवया. पूण कोणा वांगडा? शेजाऱ्याल्या निखिलावांगडा? च्यँ! ताजो टेबलटेनिसचो टुर्नामेंट आसा. तो येवंचो ना. मागीर? नीलुलो भाव समीर? च्यँ! इश्कॉलांतसून येतना फाटल्यान सुणीं लागलीं तेन्ना तांकां धांवडपाचें सोडून तो आपणाल्या फुडें धांवत गेलो आनी आपूण सुण्यांक फातर मारीत फाटींच रावलें. तो उपेगाचो ना. मागीर वचपाचें तरी कोणाबरोबर? विचार करून कनुली तकली शिणलीं. टी.व्ही. चो पिक्चर सोपून आतां धवो पडदो मुखार दिसतालो. तितल्यान बाबलो दूद घेवन आयलो. धव्या पडद्याकडेन कनुची टक लागिल्ली पळोवन ताका अजाप जालें.

"घरांत नाका जाल्ल्यो गजाली जातात देखून पोराक कांय समजना, पोराक सुकती लागल्या, आवयबापायक पोराकडेन पळोवपाक टायम ना!" बडबडत, बडबडत बाबल्यान टी.व्ही. बंद केल्लो. ताणें लव्हू उलो मारलो-

"कनुबाय, जिवाक बरें दिसना काय कितें गो? कितें जाता पुता?"

"मम्मी केन्ना येतली?"

"कोणाक खबर? इतली व्हडली ख्यास्त भोगुनूय बी तांकां शाणेपण येना. खेव आयला तांचेर! दीसभराची शिर्विस आसाच आनी मागीरच्यो हज्जार संस्थांच्यो हज्जार मिंटिंग्यो. जाय कित्याक म्हणटां हांव! तुगेली काळजी दिसता बाय, सांग गो पुता, किदें जाता जिवाक?"

कनुले तकलेंत अकस्मात एक आयडिया आयली. तें बाबल्याचो हात धरून भार आयिल्ले भशेन नाचूंक लागलें.

"अगो, अगो, आतांच बरें दिसनाशिल्लें आनी रोकडेंच नाचता?"

"बाबल्या, बाबल्या, म्हजें एक काम करशी?"

"एक कित्याक? हज्जार करतां. सांगूनच पळय!"

"कोणाकच सांगचो ना मरे?"

"च्यॅं! पिशें लागलां म्हाका?"

"हें पळय, तूं आनी हांव पळून वचुया? आयज रातीक."

"कितें? हें आनी कसलें पिशें लागलां बाय तुकां? देवा रे देवा, कोणा पाड पडलेल्यांची दिश्ट जाल्या ह्या घराक? सायबा पाव रे, एकटें पोर पळून गेलें, आनी आतां दुसरें पिसावलां. पूण कनुबाय, कित्याक पळून वचप? आमकां कसली कमी आसा हांगां?"

"मागीर कोण म्हत्व दिना जाल्यार कितें करप?"

"म्हत्व? तें आनी कितें आसता?"

"आमच्याकडेन कोण हुंगून लेगीत पळयना. मम्मी-पप्पा सदांच घराभायर. म्हाका कांयच करूंक मेळना; खंय वचूंक मेळना. आतां मे म्हयन्याची सुटी आसा, म्हजीं सगळीं फ्रेंडां खंय खंय गेलीं भोवपाक, हांव मात हांगा एकलेंच. म्हाका वाज आयला. सगळें आपलें आपणें करप. तुका जाय तें कर पूण म्हाका वाज दिवं नाका म्हणटात. त्यापरस दिदीची याद कर. तसो मोग-बीग करीत जाल्यार सगले जाण कशे कामधंदो सोडून भुरग्यांचेर लक्ष दवरतात. ताच्या फाटल्यान फाटल्यान रावतात. केन्नाच एकटें सोडीनात. प्रत्येक कामान 'कित्याक' म्हूण विचारतात..." कनु रेकॉर्ड लायिल्ल्याभशेन मनांतलें सगळें बाबल्या म्हऱ्यांत ओंकतालें. बाबलो ओग्गी रावन सगलें आयकतालो.

"पूण पळून वचपाक जाय जाल्यार पयलीं तो 'मोग' काय कितें तो जावंक जाय मरे? पळय पळोवया म्हाका खंयच्यान तो जालो जाल्यार." हातांत विस्तीद धरून कनु बाबल्या भोंवतणी फिरलें. अजापान आयकतल्या बाबल्याचे पिकिल्ले तकलेंत ल्हवू ल्हवू उजवाड पडलो. 'अशें आसा तर!' ताणें समजून म्हळें. "हय कनुबाय तूं सामकें खरें उलयता. आमी आयजच दोगां जाणां या..." कनुक इतली

उमेद जाल्ली, फुडें ताका कितें करूं आनी कितें नाका अशें दिसलें. खुशालभरीत जावन तें कुडींत धांवलें. "बाबल्या दिदीन व्हेल्या तशी बॅग व्हरूंक जाय मरे?"

"कांय नाका. आमकां बॅगेची गरज ना."

उमेदीन कनु दांबून जेवलें. "कनुबाय सगल्यांचीं जेवणां जावंदी. सगळीं जाणां न्हिदलीं काय या... तितल्या म्हणसर म्हाका म्हजें काम आटपू दी. यो वच करूं नाका..." कनु भायर गेलें.

"तायबाय, तुजेकडे कितें उलोवंक जाय." जेवतले मम्मीक बाबल्यान म्हळें. आदाराक म्हणून मम्मीन बाबल्याक कुळाराचो हाडलेलो म्हणटकच मम्मीकडेन ताच्या शब्दाक मोल आशिल्लें. "सारकें आयक. केंस पिकल्या म्हूण तुका चार शाणेपणाच्यो गजाली सांगपाची हिमंत करतां. तूं भुरग्यांच्या मनाची कॉलेजांतली टिचर मगो?"

"चाईल्ड सायकॉलॉजी म्हणटात ताका..."

"तेंच तें. पूण तें सगलें शिकोवप पुस्तकांतलें. जितें मन तातूंत ना. बाय, घरांत कितें चललां, घरांतल्या भुरग्यांचें मन कितें म्हणटा तें पळय तरी. ना जाल्यार, दिदीभशेन कितेंयतरी अघटीत जावपा शकता."

"कितें?" मम्मी सामकी काचाबूल जाली. "म्हणटा तरी कितें तूं, बाबल्या?"

"हय, धाकट्या बायच्या मनाचे खेळ सांगता तुका. आयक" अशें म्हणत बाबल्यान घडलेली सगळी काणी ल्हवूल्हवू मम्मीक सांगली. मम्मीक भंयान शेळो घाम सुटलो. कितें करपाचें तें कळना जावन माथ्यार हात धरून ती बसून रावली. तिच्या दोळ्यांतसून दुकां घळघळूं लागलीं.

"हें पळय", बाबल्यान तिका धीर दीत म्हळें, "भियेता कित्याक? हांव सगळें जुस्ताजुस्त करता. पूण तूं मात कनुबायक तें 'म्हत्व' काय कितें तें दी. तें ना जाल्यार तुका जेवण चलना, न्हीद पडना, घर खावपाक येता, भायर सरल्यारूय ताजे यादीन तुजें चित्त कामांत लागना अशें सगळें पटोवन दी ताका."

"बाबल्या, नाटक करपाची कसली गरज? तशें आसाच तें. ना तें तशें, सांग? म्हाका भायर सरतकच याद येता ताजी. ताळ्याकडेन उणी अंदना? घर खावपाक येना?" मम्मीन रागान विचारलें. "तशें न्हय गो बाय, तूं म्हणटा तें बरोबर. पूण तें फक्त तूं आनी हांव जाणां. भुरग्याक हें कळटा? सांगल्यारूय विश्वास बसूं

नाका ताचो? च्यँ, ताचो तकलेंतल्यो भ्रम निवळपाक जाय जाल्यार हें ताका पटोवन दिवचेंच पडटलें. दिदीच्या टायमार लेगीत सगळें थंडपणान सारकें जातलें आशिल्लें. पयल्यान पयलीं तुवेन आनी सायबान तकलेंत राग घालून घेतलो. तें आसू आतां. पूण हे खेपेक सांबाळ. हांव रातचो बायक व्हरतां आनी हेवटेन तेवटेन फिरोवन घरा हाडटां. भिये नाका."

सायकॉलॉजीची युनिव्हरसिटींत हेड ऑफ द डिपार्टमेंट आशिल्ली मम्मी. आपणाले वागणुकीचो हिशेब करीत रावली. 'नाटकां करतल्या भुरग्यांक बडयांनी फोडून काडूंक जाय' अशें म्हणपी पप्पाचें नाक कातरून जेन्ना दिदीन घरांतल्यान तोंड काळें केल्लें तेन्नाच मम्मीक आपणाल्या विशयाचें म्हत्व कळून आयिल्लें.

"बाबल्या, भूक लागल्या मरे..." बस स्टॅन्डार बसून बसून वाजेल्ले कनुन म्हळें.

"भूक? च्यँ! आतां भूकबिक काय ना. पळून वचप म्हळ्यार कितें खेळ तर? अशीं शेकड्यांनी संकश्टां झेलचीं पडटलीं. तयारी आसा मगो तुजी?"

"म्हणटकच उपाशी रावचें पडटलें?"

"हय तर, दिदी राव नासलें?"

"आनी शीं खाता तेन्ना?"

"मे म्हयन्यांत आनी शीं खातां? कितें बाय? शाणें काय पिशे तूं?" ताची फकाणां करीत बाबल्यान म्हळें. "खावंदी शीं, तशेंच बसून रावप. आतां म्हज्या गांवची बस येतली. तातूंत बसून आमी गांवांकडेन या. मागीर खावच्याक मेळटलें तुका. म्हजेकडेन ना आं दुडू भायलीं खाणां घेवन खावपाक. पयलींच सांगता. पळून आयल्या न्हय आमी?" कनुक मातशें पटलें. म्हऱ्यांत आशिल्ल्या पोलिसाकडेन बोट दाखयत ताणें फुडें पुस्ती जोडली, "वोग्गी राव आतां. ताका जर कळत आमी पळून वतात जाल्यार आमकां भितर उडयतलो तो. कनुबाय, म्हाज्या गांवांत मात तुज्या शाळेभशेन शाळा ना आं. सरकारी शाळा, बायचें उदक, जेवणांत उकडें शीत आनी म्हाज्या बायलेच्या हाताकडेन पडटा तो वावर करूंक जाय. ना म्हणप ना. म्हाजें घरूय तुज्या घराभशेन झकपक ना. हांथरूणाक शेंदरी आनी पांघरूपाक एक पोन्नी गोधडी मेळटली." कनुलो जीव हें आयकतना

वयर सकयल जावंक लागलो. आवयस्, इतलो कठीण आसता मोग करप? दिदीची कमाल आसा.

"आनी ह्यो दादल्याभशेन पँन्टी घालूंक जायना. म्हजे व्हडले धुवेचे फ्रॉक तुका दिवंक लायतां बायलेक."

"पोरने?" कनु रडकुऱ्यां परतलें.

"तर! पोरने जाले म्हण कितें जालें? पिंजके नासतकच जाले. त्या तुमगेल्या भशेन व्ही.डी.ओ. टि.व्ही. काय एक ना आं थंय. म्हाजे बायलेची तकली कणकणटा तातूंत."

"मागीर थंय वचून हांवें करचें तरी कितें?"

"करचें कितें? जाय तितलीं कामां आसात करच्याक. म्हजीं भुरगीं करनांत?" कनुचे जिबलेक सुकती लागली.

"दुयेंस बियेंस जालें जाल्यार, सरकारी दोतोराकडल्यान सुई मारून येवपाची, आनी कामांक उबें रावपाचें. तुमगेर आठ आठ दीस चलणाऱ्यो त्यो बिस्किट्यो, तीं सुपां, तीं ज्युसां, तसले कांयच नखरे चलपाचे नात."

कनुक, मोव ब्लँकेटांत गुठलावन माथ्याक व्हीक्स काडपी मम्मीची याद आयली. परतो परतो भितर येवन जोर पळोवपी पप्पा याद आयलो. सांगनासतना ताचे आवडीच्यो कार्टुनाच्यो कॅसॅटी, स्टोरी बुकां हाडपी पप्पा. बाबल्यान हळशिक उमळलेलो कनुलो युनिफॉर्म परतोय उमळणारी मम्मी! कनुली परिक्षा लागीं पावतकच ताका भिजयल्ले बदाम खावोवपी मम्मी! स्पोर्टांत बक्षिसां जिखतकच घरांतूय तितलींच बक्षिसां हाडून दवरपी पप्पा! कनु फडफडलें. ताच्या तोंडांवयल्या बदलत्या भावांकडेन बारीकसाणेन पळयत बाबल्यान फुडें उलोवप चालू दवरलें.

"तुगेल्या पेवपाच्या क्लासीची, नाचाच्या क्लासीची, बुकांच्या लेब्ररीची फी कोण फारीक करता? पप्पा मूं? कित्याक? तर तूं पप्पाचें अपुरबायेचें म्हण. मोगाच्या मनशाक सगळें येवचें – ताच्या मनाप्रमाणे जावंचें म्हूण! तातुंतलें कितेंच गांवांकडे मेळपाचें ना आं!"

बायल, भुरगीं – बाळां नाशिल्लो आंकवार बाबलो फालांचेर फालां मारीत आशिल्लो. कनुचे गैरसमजुतीचे, हिमंतीचे आनी हट्टाचे तटा चे तट मोडून घालत आशिल्लो.

"बाबल्या", खोल आवाजांत कनु उलयलें.

"सगळीं जाणां दिदीच्योच अपुरबायो करतालीं. म्हाका कोण पळयत लेगीत नाशिल्लो...." ताका रडूंक आयलें.

"तशें न्हू तें बाय... तूं व्हडलें जातकच तुका कळटलें. दिदी सगळीं सुखां सोडून त्रासांत पडलां म्हूण. मम्मी-पप्पाचो जीव वयर सकयल जातालो पुता."

"तुजी बस केन्ना येतली?"

"अजून कळाव लागतलो. कित्याक?"

"तिकेटी नाका जाल्यार?"

"परत्यो घेतात. पूण आमकां खंय परतुपाच्यो आसा तिकेटी." कनुच्या मनाची बारीकसाण घेत बाबल्यान हुकुमाचो एक्को मारलो. "दिदी गेलें तेन्ना जशें जाल्लें तशेंच आतांय बी जातलें न्हय."

"कितें तें?" कनुन हुसक्यान विचारलें.

"तेंच, मम्मीचो रडून रडून आवरो उडला आसतलो आनी पप्पा रागान पिसो जाला आसतलो."

"व्हॉट?" कनु एकदम उठलें. ताज्या तोंडार वादळाचीं खुणां स्पश्ट दिसतालीं. पयस, काळखांत झाडापोंदा गाडी दवरून ताचेर नदर लावून बशिल्ल्या मम्मी - पप्पाचेर नदर घालून बाबलो उलोवंक लागलो. "जांव दी पिशीं-बिशीं. आमकां कित्याक जाय आतां, थंय कितें जाता तें. तें घर, तातुंतलीं मनशां, तांची काळजी, तांचो मोग, तांची गिरेस्तकाय जाय कोणाक? तांची काळजी करपाक आस्रम पडल्यात जाय तितले. तेंय बी पिशें. पयलींच आपणाल्या धुवांक पळून वचपाक चान्स दिवपाचो सांडून तांकां आडोवन दवरतात. पूण कनुबाय, आतां पळून वचून तरी तुका तें म्हत्व काय कितें तें गावतलें मूं?"

"कोणाकडल्यान?"

"आतां हांव खंय जाणां कोणा कडल्यान नें? कनुबाय, म्हत्व फकत आपणाल्या मनशाकडल्यान आपणाल्या मनशाक गावता. गांवांकडलीं मनशां दिनात तें. त्या मनशांकडसून म्हत्व मेळोवपाक खूब व्हडलें जावचें पडटा. मम्मी, पप्पाभशेन. तूं अजून इल्लेंशें ल्हान पिल आसा. घोंटेरांतलें. शेवण्याच्या पिलांभशेन! धाकटुल्या पिलांनी परक्या आशिल्ल्या मळबांत उडच्याक सोदचें न्हु. व्हडलीं

शेवणीं तांकां मारून उडयतात. तेखातीर आपणालें घोटीरच बरें. बऱ्या फुडाराक लागून!" कनुल्या तोंडावयले बदलते भाव नियाळीत बाबल्यान निमाणो घाव घातलो. "आतां पप्पाक प्रेशराचें आसा आनी तायबायक काळजाचें दुयेंस आसा..."

"बाबल्या..." किळांच मारीत कनु उठलें आनी व्हडल्या व्हडल्यान रडत बाबल्याक ओडूंक लागलें. "म्हाका पळून वचपाचें ना. चल घरा पयलीं, चल घरा..."

"आगो, पूण बस येवची जाली..."

"नाका, नाका, पयलीं तिकेटी पिंजून उडय....म्हाका मम्मी-पप्पा लागीं व्हर..."

खिणांत घरची गाडी आनी मम्मी-पप्पाक पळोवन कनु धांवत सुटलें. ताचो उमो घेत मम्मी रडकुऱ्यां परतत विचारलें, "शाण्या, खंय आशिल्लें तूं? तुका सोदून सोदून म्हाका पुरो जालें.. जीवूच गेलो म्हजो..."

संतुश्ट जावन बाबलो हांसलो आनी गाडयेकडेन चलूंक लागलो. ताच्या खांदार हात दवरून, भरलेल्या दोळ्यांनी पप्पान म्हळें, "बाबल्या, तूंच खरो चाईल्ड सायकॉलॉजीचो प्रोफेसर! न्हय गो?" आनी मम्मी रडटां रडटां लेगीत तिगेल्या काळजाचो कुडको सांबाळून घरा परती हाडपी त्या देवदुताकडेन मोगान पळयत रावली.

●●●

# 5

## स्वाध्याय

हात वयर काडून सीमान जांबय दिली आनी तें बोटां मोडीत कदेलाचेर ओणकून बसलें. कंम्प्युटराचेर टायप करून करून ताका पुरो जाल्लें. फाट आनी बोटां वळून आयिल्लीं. बोटां मोडटकच मातशें बरें दिसलें. भायर पावलांचो आवाज आयलो आनी कांय खिणांत देसाईबाई रासभर फायली धरिल्ल्या गंगव्वाक घेवन भितर सरली.

"सामकें अर्जंट आसलेबगर म्हाका डिस्टर्ब करपाक येवं नाकात." अशें सांगलेलें आसतना लेगीत इतल्यो फायली घेवन आयिल्ले देसाईबाईचेर सीमा रागार जालें.

"मॅडम, डायरेक्टरान कांय अर्जंट प्रश्नांचेर, तांतडीची मिटींग दवरल्या. हें अजेंड्याचें कागद. तुमकांय बी अर्जंटलीं ..फयलां."

"तांतडीचे प्रश्न?" सीमाच्यो भुंवयो वयर उखलल्यो.

"तुमी कित्याक हुस्को करतात मॅडम. तुमगेल्या सेमिनाराच्या पेपराचो आनी हो विशय एकूच आसा. ह्या विशयाचेर तुमचो इतलो बारकायेन अभ्यास जाल्लो आसा, तुमकां हुस्को करपाची कांयच गरज ना."

"कितें?" सीमा एकदम उबें रावलें. रागान ताचें नाक फुललें, काया थरथरूं लागली, स्वास बेगीबेगीन चलतालो. कदेलावयलें उठून तें दोन धेपांनी देसाईबाईकडेन पावलें. तिच्या हाताचीं दोनूय धोपरां आपल्या हातांत धरून जोरान हालयत ताणें म्हळें, "खरें सांगात देसाईबाई, तुका म्हज्या पेपराचो विशय कसो कळ्ळो?" "तातूंत

किदें व्हडलेंशें?" अश्या अर्थान देसाईबाईन बोंचो वांकडो करून खांद वयर उडयले आनी सदचें कुसकें हांसप तिच्या तोंडार पातळ्ळें. सीमा जागच्या जाग्यारच तळमळ्ळें. ताका रागान कांयच उलोव नज जालें. ह्या तीन फायलींचेर सह्यो करा, ह्या दोन फायलींनी मिटींगाचो अजेंडा आसा. ताचेर नदर मारा. आनी उरिल्ल्यो फायली, नवीन अॅडमिशन जाय आशिल्ल्या भुरग्यांच्या केस-हिस्टरीच्यो आसात. वेळ मेळ्ळो जाल्यार पळयात ना जाल्यार परवां ऑफिसाक येतना घेवन येयात. हांव वतां. ऑफिसांत कोणूच ना. मिटिंगाचो सब्जेक्ट सिक्रेट म्हूण हांव सोता जावन मुद्दाम आयलें. अशें म्हणत देसाईबाई आयली तशी तुरतुरीत चलूंक लागली.

अचकीत इतलें रागार जाल्लेखातीर सीमाक आपलीच लज दिसली. आपणांक सामकेंच पासिंयेंस उरूं ना काय कितें? अशें ताका दिसलें. आपूण वयल्यावयर तो विशय विसरलां कशें दाखयतां पूण खरेंच आपूण विसरलां काय भितरली घुस्मट अजुनूय तशीच आसा? गोबरापोंदा इंगळो उरिल्लेभशेन. नाजाल्यार आपूण अकस्मात अशी उसळ्ळी कशी? सीमा विचारांत गूल्ल आसतानाच गंगव्वान विचारलें,

"मॅडम, फाटले खेपेक तुमचे पेपर देसाईबाईन आपले म्हूण वाचले न्हय? हे खेपेक तिच्या हातांत कांयच पडूंक दिवं नाकात." अन्नाडी गंगव्वान सीमावयली माया आपले भशेन प्रकटायली.

"तुका कशें खबर?" अजापान सीमान विचारलें.

"कशें म्हळ्यार? आश्रमांत सगळे जाण उलयतात तें हांव आयकना तर? पूण मॅडम, तुवें तिका ख्यास्त कशी दिली ना काय म्हणटां हांव."

"त्या फायलीची चोरी जाले उपरांत म्हजेकडे कसलोच पुरावो उरूंक नासलो गंगव्वा." हताश जावन सीमा उलयलें.

"आतां मात शादूर राव. च्या हाडूं?" नाका म्हणटकच गंगव्वा गेली. सीमा जनेलार उबें रावन कडक वोत पळयतालें. ग्रावंडाचेर खेळपी भुरग्यांचो कलकलाट कानार पडटकच तें भानार आयलें. आतां इतल्या कडक वोतांत ह्या मंदबुध्दी भुरग्यांक कित्याक खेळूंक दिलां? ताणें इंटरकॉम उखललो आनी भुरग्यांक भितर हाडपाची ऑफिसांत सूचना दिली. दोन बोटांनी कपल चिड्डीत तें कदेलार बसून

रावलें. तिका याद जाली– पिरायेन ल्हान आसुनूय, मंदबुध्दी भुरग्यांबद्‌दल आसलेलो मोग, तांच्याबद्‌दलचें शिक्षण, त्या विशयाची आवड, परदेशांतल्या मंदबुध्दी भुरग्यांच्या आश्रमांतलो कामाचो अणभव, मरून कश्ट करपाची तयारी –ह्या सगल्या गुणांक लागून आश्रमाच्या ट्रस्टींनी जेन्ना देसायबाईचे जेश्टतेक फाटीं उडोवन सीमाक आश्रमाचें प्रिन्सिपाल केलें, तेन्नाच सुडाचें बी देसाईबाईच्या मनांत रूजलें.

बंगलोरच्या सेमिनाराक सीमा आनी देसाईबाई दोगांयची निवड जाल्ली. 'मंदबुध्दी भुरग्यांची तरल भावना – शक्ती' हो विशय आशिल्लो. अडीच वर्सां अभ्यास करून सीमान पेपर तयार केल्लो आनी ऐन त्या टायमार सीमाच्या सगळ्या फायलींची चोरी जाल्ली. टायप्ड पेपरची रफ् कॉपी, फेअर कॉपीज, नोटस् सगलें सगलें धुवून चोरयेक गेल्लें. हातांत पेपर नासतना सीमा सेमिनाराक वचून कितें करतलें आशिल्लें. शेवटमेरेन चोर मेळ्ळोना आनी सीमान आपली असमर्थता कळोवन सेमिनारांतल्यान माघार घेतली. जावपाची ती छी: थू: जालीच. आपलो पेपर घेवन गेल्ली देसाईबाई आपल्या जाग्यार सीमालो पेपर वाचून 'वाहव्वा' घेवन आयिल्ली! सीमा, ह्या प्रकाराक सामकें विटलें. इतले दीस देसाईबाईबद्‌दल आशिल्लो आदर, मोग, निश्ठा, सगलें व्हावून गेल्लें. तिचेर रागार जावंच्या जाग्यार सीमाक तिची काकूट दिसूंक लागली. ताणें तो विशय परतो केन्नाच उस्तीलो ना. पूण देसाईबाई मात सीमाक केर्र कर नाशिल्ली. दिसान दीस तिगेली मान लजेन सकयल वचपाच्या जाग्यार सूडान आनी मत्सरान टायट जायत रावली. सीमाचे दर एके येवजणेंत, कामांत, ती कसलीं ना जाल्यार कसलीं आडमेळीं हाडटालीं. कमिटी मेंबर आसल्या कारणान मिटींगेंत ती सीमाकडे मोगान उलयताली. तोखणायो करताली. पूण फाटल्यान ताचें इतलें वायट उलयताली आनी चाडयो करताली, त्यो कोणा ना जाल्यार कोणाकडसून कानार पडटकच सीमाल्या मनस्तापाक शीम मेर उरनाशिल्ली.

ह्या सेमिनाराचे पेपर लेगीत भायल्यान टायप करून घेवं येताले. पूण सीमा सामकें सावध रावूंक सोदतालें. तेखातीर तीन दिसांची सुटी काडून तें आपूण जावन, कंम्प्युटराचेर टायप करूंक बशिल्लें. तरीय बी देसाईबाईक तिच्या पेपराच्या विशयाची सगळी खबर जाल्ली. कामांक व्रत मानून करपाच्या जाग्यार हलकट राजकारणी लोकांवांगडा काम करच्या परस, त्या भुरग्यांची 'आया' जावन तांकां

खेळोवप चड बरें अशें ताका दिसलें. ध्येयाक लागून आपणें घर सोडलें, इश्टमित्र, सोयरीं-धायरीं सगळ्यांक सोडले. परतें केन्नाच कोणाचें तोंड लेगीत पळयलें ना. ह्या भुरग्यांकच आपलीं म्हटलीं तें कित्याक? हांगा चलिल्ल्या हळशीक राजकारणाक बळी जावपाक? मोडून पडपाक? ताणें निर्धारान मान हालयली आनी च्याचो कप तोंडांक लायलो.

मिटींगेच्यान सीमा आयलें तें सोमतें खाटीर आडवें जालें. ताका सामकें पुरो जाल्लें. शरीरान आनी मनानूय. मंदबुध्दी चलयांची गर्भाची पिशवी काडून उडोवपाची काय ना, हेखातीर चलयांची तपासणी करपाची आशिल्ली. निश्कर्श काडचे आशिल्ले, सरकारी निर्णयाचेर ते निश्कर्श पारखुपाचे आशिल्ले, आश्रमाचो रिपोर्ट तयार करून धाडपाचो आशिल्लो. मुंबयचे कांय नामनेचे निपूण दोतोर मिटींगेक हाजीर आशिल्ले. तांगेल्या अणभवाक आनी मताक मोल आशिल्लें. परदेशांत रावता आसतना सीमाक थंयच्च्या आश्रम-संचालकांची मतां हे बाबतींत हयकारी दिसून आयिल्लीं. इतलेंच न्हय तर सगळ्यो सोयी-सुविधा आसुनूय बी चलयांचे पालक हे गजालीचेर जोर दिताले. एकटें सीमाच हे गजालीचे विरूध्द आशिल्लें. मंदबुध्दी भुरग्यांच्या ह्या आश्रमांत हर एक चलयेची केस वेगळी आशिल्ली. ताका लागुनूच चलयांच्या सुदारपाचे शक्यतेचें प्रमाणूय बी वेगवेगळें आशिल्लें. तातूंत पिशवी काडपाची गरज फकत 'मंदबुध्दी' विभागांतल्या कांय सामक्या 'होपलेस' केशींक आशिल्ली. 'मंदगती' विभागांतलीं भुरगीं सुदारपाची शक्यता चड आशिल्ली. 'होपलेस' केशींतल्या चलयांचो कोणे गैरफायदो घेवंचो न्हय आनी तांच्या म्हयन्याच्या 'भायर जावपाच्या' निसर्गिक कटकटींतल्यान तांकां मुक्त करपाक ही येवजण आशिल्ली. पूण तशें केल्यार दुसरेवटेन शिक्षकांतलें हलकट - कपटी शिक्षक, कांय बेपर्वा संचालक, सर्व्हिसेक आशिल्ल्यांतल्यो नालायक 'आया' त्या चलयांचो गुपचूप फायदो घेत रावतलीं. ताका जाल्ल्या रोगांचो प्रसाद त्या बाबड्या चलयांक मेळटलो असो भंय सीमाक दिसतालो. सगळेकडेन कामाक बायलोच दवरप हें शक्यूय नाशिल्लें आनी भलतींच संकटां ओडून येतलीं आशिल्लीं. आनी तीं संकटां आतांच्या संकटांपरस चड भयानक आसतली आशिल्लीं. तेखातीर सीमा ते येवजणेच्या विरोधांत आशिल्लें. फुडल्या आठवड्यांत मिटींग फुडें चालू दवरपाचें थारावन आयज मिटींग सोंपयिल्ली. जेवणाची घांट

वाजली. सगळे कागद ड्रावरांत भरून, कुलूप मारून, सीमा जेवणाच्या हॉलाकडेन गेलें. भुरग्यांचो कलकलाट कानार पडटालो. आया आनी सर्व्हेंतां ताकतिकेन कामांक लागलीं. सीमा सदचे भशेन, भुरग्यांक बारकायेन पळयत पासयो घेवंक लागलें. "मॅडम, म्हजें पोट भरलें...." सदचो वळखिचो आवाज आयलो. सीमाक सामकी लज जाली. आयज आपूण विजयाक जाप दिवपाक विसरली कशी? पश्चाताप जाल्ले भशेन तें विजयकडेन आयलें. ताच्या मांडयेवयलो लेंस काडून ताणें ताचें बुरबुरलेलें तोंड पुसलें.

"शीत सोंपयलें?"

"ह ऽऽ य."

"नुस्तें?"

"बांगडो ना."

"फाल्यां हाडूंक लावया हं. आयज वाडिल्लें खालें?"

"याद ना...."

ताणें सर्व्हेंटाकडेन नदर घुवंडायली. तिणें न्हयकारी तकली हालयली. "पयलीं आयज तळ्ळां तीं घे, सोंपय, उदक पिये आनी मागीर उठ." विजयच्या फाटीर थापटून तें उठलें. कितल्या साद्या प्रश्नांच्यो जापो हीं भुरगीं आपल्याकडल्यान सोदतात. मायेन-मोगान ही समजावणी करतकच तांचें समादानूय बी रोकडेंच जाता. तें फुडें सरलें. म्हऱ्यांत आया वैशालीक लायताली. ही सगळ्यांत होपलेस केस आशिल्ली. अप्सरेभशेन सोबीत रूप, पिशें लावपी घाटदार काया पूण पुराय निकामी मेंदू! सीमान सेमिनाराच्या पेपरांत उदाहरणां दितना लेगीत खूब्बकडेन हे केशीचो संदर्भ दिल्लो. खरें तर ह्या असल्या चलयांच्यो पिशव्यो काडून उडयल्यार तांच्या आवय-बापायचेर जाय तो उपकार जातलो पूण मागीर कोणें तवनासगिरी करपाचो यत्न केल्यार कितलो तेंप कळचें लेगीत ना. तें भंयांन वयरसून सकयलमेरेन थरथरलें. प्युनाक ऑफिसांत येवन नवीन आयिल्ल्या खेळण्यांचीं बॉक्सां व्हरपाक सांगून तें परतें रूमार येवन बसलें. इल्लेंच टायपिंग उरलेलें. मागीर प्रिन्ट-आवट काडपाक वेळ लागचो नाशिल्लो. पूण आयज कामाचेर ताजें मन कशेंच लागना जालें. फोन वाजलो. डायरेक्टर ढवळीकार फोनार आयलो. खूब्ब वर्सां पयलीं सीमा कॉलेजींत आसतना तो सीमाक शिकयतालो. सीमा ताजें फेवरेट 'स्टार-

स्टुडंट' आशिल्लें. केन्नाय कसल्याय घुस्पागोंदळांत सापडटकच तें आदाराखातीर सराकडेन धांव मारतालें. सरान आपणाले जीणेचो उद्देश्यच मतिमंद भुरग्यांची सेवा करप असो थारयिल्लो. सर सीमाचो आदर्श आशिल्लो.

"आयज कितें बरें दिसना?" सीमा येतकच सरान मायेन विचारलें.

"बरें दिसता सर, कित्याक?"

"मिटींगेंत तूं सदचेभशेन त्वेषान उलयलें ना."

"खरें सांगू सर, हांवूंच एका वादळांत घुस्पलां सर. कितें करूं, कितें नाका, कांयच समजना जालां."

"तुजेसारकें इतलें हुशार, स्मार्ट, तडफदार, आपणाल्या मतांचेर निग्रही रावपी भुरगें आनी वादळांत घुस्पलां?"

"भुरगें कितें सर, आतां हांव प्रौढ बायल जालां."

"म्हाका तूं अजून भुरगें कशेंच दिसता. देसाईबाईचे केशींत तुवें त्या विशयाक मात्त लेगीत म्हत्व दिवंक ना. तेन्नाच तुगेल्या घट्ट मनोनिग्रहाची कल्पना म्हाका आयली. आनी आतां वादळ जायनासतना तूं घुस्पलां म्हणटां?"

"सर, हांगा देसाईबाईभशेन कितलींशींच मनशां इतलीं हलकट आनी नीच सभावाचीं आसात, आनी तीं मनशां कसलोच पुरावो दवरिनासतना, एक दुसऱ्याक मदतीचो हात दीत दीत इतलो भ्रष्टाचार आनी गैरव्यवहार करूंक सोदतात, आश्रमाच्या फुडाराची चिंता जाता. तशेंच तांच्यांनी ह्या चलयांचे बाबतींत केलें जाल्यार? हांव जरी आश्रमाची प्रिन्सिपॉल जाली तरी दीसभर गुरखो जावन तांच्या फाटल्या फाटल्यान काय भोवूंक शकचें ना. हेंच तें वादळ सर. ताका खंय आनी कसो आवर घालप कळना जालां सर."

ढवळीकारसरालें तोंड लेगीत चिंतामग्न जालें. कितलोसोच वेळ सर पेपरवेट हातांत घेवन सांसपित रावलो. "बरें आसा. विचार करतां हांवूंय तुवें कितें सांगलां ताचेर. मागीर परतें उलोवया. आनी हें पळय, ते स्वावलंबानाचे नवीन वर्ग काडल्यात. तांचे खातीर इंटरव्यू दिवपाक जे उमेदवार येतले तांचो फाल्यांचो इंटरव्यू फुडें धुकलून तीन दिसां मागीर दवर. दोन दीस हांव कामांखातीर वतलों. हांगा ना हांव."

"बरें सर."

"त्या वर्गाक लागतल्या सामानाची यादी देसाईबाई कडल्यान घेतली?"

"हय सर. शिवणीक, विणकामांक, भरतकामांक कपडो आनी इस्कीनी हाडल्यात. चल्या भुरग्यांक सायकल रिपेरींग शिकोवपाक इल्ले स्पेअर पार्टस, हवा भरपाचो पंप आनी पंक्चर काडपाचें सामान हाडलां. ज्या चली भुरग्यांक फक्त वेचपाचें काम शिकयतलीं तांचे खातीर इल्लें कड्डुण ना जाल्यार धान्य विकतें घेवपाचें उरलां. पूण तें काम गंगव्वा लेगीत करूंक शकता."

"कागदाचीं पाकिटां करपाक हाडिल्ल्या कागदाक खतां आशिल्लीं खंय?"

"हय, ती देसाईबाईंची केल्ली खरेदी. तीं कागदां तिकाच बदलून हाडपाक सांगल्यां."

"बरें तूं वच आतां. फाल्यां सकाळीं मेळ."

सीमा सवकासायेन उठलें. सगळीं कागदां एकठांय केलीं आनी मातशेशें हांसून तें भायर सरलें. ताका इतलें नव्हर्स जाल्लें, ढवळीकारसरान केन्नाच पळोवंक नासलें. वतना सगल्या बाथरूमांचेर आनी संडासांचेर नदर मारीत तें गेलें. निवळसाणीची ताजी शिस्त मोडपाची कोणांक तांक नासली. मदल्या हॉलांत पावतकच ताणें वयर सरयांचेर नदर मारली. सगळ्या भुरग्यांचे कपडे बारा सरयांचेर सुकताले. निव्वळ-लाँड्रींत धुल्ल्या भशेन. ऑफिसांत वचून ताणें देसाईबाईक इंटरव्यू फुडें धुकलपाची सुचोवणी केली. उमेदवारांचे पत्ते काडून तांकां कळोवपाक लायलें. तेन्ना आश्रमांत सांजेच्या च्या ची बेल वाजताली. अकस्मात गंगव्वा खंचच्यान तरी धांवट आयलें आनी सीमाचे खुर्चेकडेन बसून हुंडक्यां -हुंडक्यांनी रडूंक लागलें.

"गंगव्वा, आगो कितें जालें?"

"हो रमेस आयला घराकडसून रकाद घेवन. हांव वतां घरा. म्हाका चार दिसांची सुटी दी. पाड पडिल्ल्यान पाड घालें म्हजें."

"पूण जालां किदें?" सीमान देसाईबाईकडेन पळयतकच बाई उठून भायर गेली. सीमान गंगव्वाक उठयलें.

"बाई, रडटां रडटां गंगव्वा सांगूंक लागलें, म्हजे धुवेक हांवें शिकूंक भावाकडेन दवरलेलें. थंय भावाच्या चल्यान ताका घेवन फिरपाक सुरवात केली. हांवें परतें हाडलें ताका. भावान थंय चल्याक लग्न केलें नी हें पोर हांगां ओकूंक लागलां."

"श्यँ, श्यँ! कितेंतरीच उलोवं नाका. पित्तान, अजीर्णान ओंकता आसतलें."

"न्हय बाई, काल बरोच पेट दिलो तेन्ना कबूल जालां. अजाण भुरगें म्हजें. आयज सकाळींच रमेसाक धाडला दोतोराकडे. ताचें मूत तपासूंक. 'गुरवार' आसा म्हणटा दोतोर."

गंगव्वा तांबडेगूंज जावन हुंडक्यां हुंडक्यांनी रडटालें. सीमा अजापान सगळी काणी आयकत रावलें. दोळ्यांमुकार गंगव्वाले चौदा वर्सांचे चलयेचो चेहरो आयलो.

"वोग्गी! सामकें वोग्गी राव. गांवार घालपाची गरज ना. रमेसाक भितर आपय. रमेस भितर यो. गंगव्वा सांगतां तें खरें?"

"हय बाई."

"आतां आयक तर." एका खिणांत फुडलो निर्णय घेत सीमान म्हळें. "ताका आयच्या आयज दोतोराकडे व्हरून मेकळें करूंया. दुसरो उपाय ना."

"पूण आतां ताजेकडेन कोण लग्न..."

"तो प्रश्न मागीर सोडवूं येता...उशीर केल्यार त्रास जातलो. हांव येता वांगडा. म्हगेली मैत्रीण दोतोरीण आसा तिची अॅपॉयन्टमेंट घेता."

गंगव्वाचीं दुकां रकतालीं. सीमाचें उलोवप आयकून तें वोग्गी भायर सरलें.

सगलें काम सोपोवन परत येता म्हणसर रातचें एक जाल्लें. सगलो आश्रम गाढ न्हिदेंत आशिल्लो. दर एकल्या भुरग्याच्या हांतरूणाकुशीक मातशें मातशें रावत सीमान सांजेचो रावंड पुराय केलो. ताची नदर हातरूणांकुशीक दवरलेल्या वखदांच्या बाटल्यांचेर फिरली. सदचे डोस भुरग्यांक दिले काय ना हें ताका बाटल्यो पळोवनूच कळ्ळें. रांदचे कुडींत वचून ताणें आपणांक इल्ली कॉफी करून घेतली.

"बाई, जेवण दवरलां. वाढूं?" रांदपी उठून आयलो.

"नाका आतां. खूब कळाव जाला. म्हाका चड भुकय ना. न्हीद तूं."

कॉफी पीत तें खूब्ब वेळ वोल्तेरार धोलत रावलें. दोळ्यांत मात लेगीत न्हीद नाशिल्ली. चिंतून चिंतून तकली फुटपाक पाविल्ली. रातराणयेचो सदचो म्होवाळ वास लेगीत ताका नाका कसो दिसलो. पुरो जावन तें हांतरूणार पडलें. सकाळीं सीमाक जाग आयली तेन्ना ताच्या कानार भुरग्यांचे प्रार्थनेचे सूर पडले. "आवयस् आयज उठपाक इतलो उशीर कसो जालो" म्हणत तें बाथरूमांत धांवलें. तयार जावन भायर आयलें तेन्ना भुरगीं बागेंत काम करतालीं. झाडांक उदक घालप, चर

काडप, सुकिल्ल्या पानांक सारण मारप अशीं कामां चलिल्लीं. वोत कडकडच्या पयलीं बागेंतलीं कामां सोपवूंक जाय अशी ओर्द सीमान काडिल्ली. भुरग्यांची आनंदी, प्रसन्न तोंडां पळोवन सीमाक जाणवलें, कमी न्हीद मेळुनूय आपणाक सामकें तरतरीत दिसता. कालची मरगळ, विमनस्कता कांयच उरलेली ना. धुल्लाचो पड्डो सकयल बसला आनी विचारांचो एक अखंड प्रवाह परतो सुरू जाला. ताकतिकेन रूमार वचून ताणें टेबलांतल्या ड्रॉवरांतले कागद काडले. आतां त्या पेपरांनी ताका कांयच इंटरेस्ट नाशिल्लो. तातूंत बरयल्ल्या मजकुराची परती बाजूय ताका तितलेच जापसालदारकेन कळून आयिल्ली. पेपर खांकेक मारून तें ढवळीकारसरांच्या कॅबिनांत आयलें.

"योऽऽ" ताचें प्रसन्न हांसरे म्होवाळें पळोवन ढवळीकारसराक उमेद जाली.

"सर..." गंभीर जावन तें उलयलें. "हांवें म्हगेलें मत तुमच्या सगल्यांच्या मताक अनुकूल दिवपाचें थारायलां. हरशीय बी 'मेजॉरीटी' नाशिल्ल्या कारणान 'संचालिकेचें मत' म्हूण तें फायलींत रेकार्डार उरतलें आशिल्लें. पूण आतां हांव आपण जावन तुमगेल्या मतांकडेन सहमत जाता. चलयांच्या आवय-बापायची पूर्व परवानगी घेवन सामकी गरज आशिल्ल्या केशींत गर्भाच्यो पिशव्यो काडून उडोवप गरजेचें आसा. म्हाका पटलां तें."

"मनांतल्यान पटलां?"

"हय सर. मनांतल्यान. म्हज्या लक्षांत गेलां सर, म्हगेलें भंय बेश्टे यंत्रणेक लागून आसा. यंत्रणेंतलो दोश कुशीक सारूंक मेळटा सर. खूब्ब झटचें पडटलें. पूण तें अशक्य जावंचें ना. सैम, ह्या चलयांची जीण कशे तरेन आनी कितली पाड घालूंक शकता हाचो विचार हांवें गंभीर जावन केला. हांव हाचे फुडें कोणाकूच भियेवचें ना. आनी निश्पाप अश्या ह्या चलयांचो कोणाकडल्यान गैरवापर जावंक दिवंचें ना. पूण सरकारी निर्णयाची गजाल आमच्या आश्रमाकूय मान्य आसा हें सगळ्यांक कळूं दी."

"पूण एकेच रातीन हो कायापालट कसो जालो?"

"सर, पोके विचार मनाक बेश्टे भंयार दवरतात. निर्णयासाकून पयस पयस व्हरतात. 'जर आनी तर'च्या चक्रान तुमकां घुस्पवून उडयतात. पूण जीवनांत आयिल्लें एक संकट मात, पांय घट्ट रोवन उबें करता. खरें कितें आनी भास कितें

हातुंतलें अंतर दाखोवन दिता. तसलेच अवस्थेंतल्यान हांवें कालच्या रातीं प्रवास केला. तकलेंतलें दुबावाचें घयरांव उबून गेलें. न्हिदेंतल्यान जाग आयली म्हाका. आतां हांव भियेवपाचें ना. लपंट मनशां म्हज्यांत मान वयर काडून रावतलें." आत्मबळाचें तेज सीमाच्या तोंडार फाकिल्लें. आपणाल्या 'स्टार' विद्यार्थिनीकडे समादानान पळयत ढवळीकार सर हांसले. सीमाली फाट थापटीत, इन्स्पेक्शनाक भायर सरले. वोताचो एक किरण, वंटीवयल्या कृष्ण-अर्जुनाचे फ्रेमीर पडिल्लो. तातुंतलीं 'संभवामि युगे युगे' हीं अक्षरां झगझगतालीं.

●●●

6

# झंझावात

मनोहरान मोराचीं तिनूय पाखां विशूक दिलीं आनी विशूक सामकें अजाप जालें. तीं झगमग करपी पाखां ताणें केन्ना तरी मनोहराले चोपडेंत पळयिल्लीं. तातुंतलें एक मागचें अशेंय बी ताका दिशिल्लें. पूण कितलोय लागिंचो इश्ट जालो तरीय, विशूक मनोहराचो भंय दिसतालो. चड करून जेन्ना 'बाय'च्यो, मनोहराचे भयणीच्यो खबरी जाताल्यो तेन्ना अकस्मात विशू बाबडो कसो जावन रडकुऱ्यां परततालो ना तर कितेंच कळच्यापयलीं अकस्मात तो पिसावल्या भशेन जावन मारूंक आंगार येतालो. पाखां तर विशूक ताचे बायन दिल्लीं.

"तिनूय म्हाकाच दितां?"

"हय हय, म्हाका बाय आनीक हाडून दितलें."

"पाखांचे दांडे मोडटकच तांचे आयणे जायनात न्ही रे. तसलीं दांडे मोडिल्लीं कामगारांनी कुशीक काडिल्लीं पाखां म्हाका हाडून दिवपाचीं कबूल केल्यां बायन."

विशू समादानान हांसलो.

"पोरूंय बी असलीं खूब पाखां ताणें म्हाका हाडून दिल्लीं. हांवें सुयेन शिवून तांचो आयणो लेगीत केल्लो."

मनोहराचो मूड बरो आसा अशें पळोवन विशून ल्हवू ताका विचारलें, "तुजें बाय, मोराच्या पाखांचें आयणे करपाचे फॅक्टरींत काम करूंक कित्याक वता? ताच्या घोवाच्या घरा कित्याक रावना?" मनोहरालें तोंड आवळून आयलें. कपलार मिरयो पडल्यो. पाखां बोल्सांत दवरून आनी जोतें हातांत धरून विशू धांव मारपाचे

तयारेंत वाट पळयत उबो रावलो, आतां मनोहर आंगार येता काय रडटा तें. पूण आयज मात मनोहरान तातुंतलें कांयच केलें ना. तो चिंचेर फातर मोखित रावलो. ल्हवू ल्हवू ताजो आवळून आयिल्लो चेहरो लेगीत सदळ पडलो.पयलीं मनोहर असो नाशिल्लो. अंदू सातवेंत पावतकीर ताचें वागप अशें जाल्लें. पयलीं ताचें बांयूय तांगेर रावपाक नासतालें म्हूण घडये आसूंये.

"विशू..." मनोहरान जाप दिली. "बाय चड शिकिल्लें ना न्हय रे. म्हणटकच मेळ्ळां थंय ताणें काम धरलां. धाकट्या सुशी-मंदालो खर्च परवडूं नाका?"

"पूण तुमचो बाप्पा कमयता न्हय?"

"हय पूण फाटल्या दिसांनी बाय आईक म्हणटालें, अजून तुमकां मनोहराचो फुडार पळोवंक जाय. तुमच्या जाणटेपणाचें चिंतूंक जाय. बाप्पा एका वर्सान रिटायर जातलो. ताका लागून म्हज्या धुवांचो आनी म्हाजो खर्च हांव तुमचेर घालूंक सोदिना. म्हाका लग्न करून दिलें - तुमचें कर्तव्य सोंपलें. तुमकां मागीर आमचें वजें जावंचे परस आतांच मेळटां तें काम धरून हांव म्हज्या पांयार उबें रावता. बऱ्या पगाराची मेळटकच ही सोडूं येता."

"पूण बायचो घोव आसता खंय?"

"कोण जाणां?" मनोहरान बोचो वाकडो केलो. "कोण्णाक सांगू नाका हां विशू, पूण तो मरे बायक सांगनासतना खंयचीकडे गेला पळय तो येवंकूच ना. सुशी-मंदा सामकीं माणकुलीं आसतनाय बी एकदां असोच गेल्लो खंय, पूण तेन्ना एका वर्सान परतो तरी आयिल्लो. आतां जो गेला उठून तो स वर्सां जालीं येवंकूच ना."

"पूण कित्याखातीर गेला आनी खंयचीकडे?"

"कोण जाणां? बाप्पा जाणां जाल्लो जाल्यार ओडून हाडचो नाशिल्लो?"

हें सगलें आयकून विशुक सुशी-मंदाक लागून खूब्ब वायट दिसलें. हांगा 'कडसुराक' येतमेरेन हें एकूच गोंयकार कुटुंब तांचे वळखिचें जाल्लें. दर्यान वेंगेंत घेतिल्ल्या ह्या गांवांत सगलेच तामिळी! भास परकी, देसूय परको. इल्ल्यो इल्ल्योश्यो मातयेचो वाटो आनी दर्या. विशुचो बापूय फॉरेश्ट डिपार्टमेंटांत आशिल्ल्या कारणान तो सकाळफुडें जो जिपींत बसून वतालो को बद्द सांजचो घरा येतालो. सगळें घर विशू आनी मनोहराक धुमशणां घालपाक उगडें मेळटालें. खूब खेपो सुशी-मंदाय

बी मनोहरावांगडा येतालीं तीं विशुकडेन खेळटालीं. मागीर मदींच मनोहराची आवय येवन तांकां व्हरताली.

पाखां गालार ओडीत ओडीत विशू घरा पावलो. आई हुंबऱ्यार रावन वाट पळयताली. दप्तर कोनशाक मारून विशून आवयच्या हाताक घोळ घेतलो.

"आई, पळय कितलीं सोबीत पाखां." आईन पाखांचेर ल्हवू हात भोंवडायलो आनी मधुरशें हांसली.

"विशू, रोसांतले फोव केल्यात ते खा आनी मातसो मनोहरागेर वचून इल्लें लोणचें दिवन यो. ताजें केलां."

"लोणचें करूनच सोंपयलीं तोरां. म्हाका इल्लें गोड लोणचें जाय आशिल्लें न्ही गे."

"केलां हां, गोड लोणचेंय बी केलां."

"आई, तूं कोणाक सांगची ना मगे?" फोव खातां खातां विशून गजाली सुरू केल्यो. "सांग मगे, सांगची ना न्ही?"

"कितें तें?"

"आई, मन्याच्या बायचो घोव मगे, तांकां सांगनासतना घरांतल्यान भायर सरून गेला. स वर्सां जालीं. आतां सुशी-मंदाक कोण बाबा गे?"

"कितें?" आईन आंग काडलें. "कोणें सांगलें? खंय आयकुपाक गेल्लो तूं? अरे पिशा, तो तर पयस मिलिटरींत आसा खंय."

"ना गे. मन्यानच सांगलां म्हाका."

आई बाबडी कशी जावन धपकन सकयल बसली. तिचे दोळे उदकान भरून आयले. विशूचें तोंड काकुळटेचें जालें.

"आई, कितें जालें गें? आतां येवंचो ना तो केन्नाच?"

"बस्स्, वोग्गी! वोग्गी राव. कांयच्या कांय उलोवं नाका रे. कितलें भांगर भुरगें रे तें आनी वयान कितलें ल्हान. कितें आसा नशिबांत पोराच्या कोण जाणां? म्हणून तें हळदीकुंकमाक बी येनाशिल्लें. ताका दुबाव येतालो दिसता. काय कदाचित..."

"कितें? तो मेला म्हूण..."

"विशू ऽ ऽ ऽ" आई आड्डली. "वोग्गी राव म्हटलां मरे. शिव.... शिव.... तूं

वच पळोवया. लोणचें दिवन यो. तुका जगावयल्यो चवकश्यो कित्याक?"

लोणच्याची वाटी परती दिवपाक मनोहराची आवय आयिल्ली. आयली ती रांदचे कुडींत बसून रडपाकच लागली. विशूचे आईन तिका धीर दिलो, थंड उदक दिलें आनी पयलीं तिका शांत केलें. मागीर ती एकदम थांबनासतना उलयत सुटली. पडवेर अभ्यास करतल्या विशूक सगलें आयकूंक येतालें, पूण कांय समज नाशिल्लें.

"विशुची आई, कितें सांगू तुका. आमचें बाय जे हाल काडटा नोकरेच्या जाग्यार तें सांगूंक नज."

"मागीर सोडून कित्याक दिना?" आईन भोळेपणाचें सवंग पांगुरलें. कांय वेळ वोग्गी रावन मनोहराले आवयन सगळें खरें खरें सांगपाक सुरवात केल्ली.

"हांचें घराणें तसलेंच. जांवयाचो बापूय लेगीत असोच भोवून भोवून नाच्च जातालो. निमाणे खेपेक तो जो तोंड घेवन गेलो तो आयजमेरेन परतो येवंक ना. आतां आमच्या जावंयाचीं बी तींच लक्षणां. आमचीं घरां इतलीं पयस पडटात ताका लागून सोयरीगत करतना आमी चड बारीकसाण घेतली ना. मध्यस्थानूय बी कांय सांगलें ना. आमकां सामकें फटयलें. लग्न जावन एका म्हयन्यानच जांवय ना जालो. तेन्ना बाय सुर्शाचे खेपेक गुरवार आशिल्लें. मागीर देड वर्सान परतलो तेन्ना बाय कशेंच नंदूंक तयार नासलें. हातां-पांयां पडून, सोपूत घालून, रडून ताका नंदपाक तयार केलें. जांवयाक लेगीत चार शाणेपणाच्यो गाजली सांगल्यो. सगळें मिटलें अशें दिसलें. परत स म्हयन्यानी तीन गत. तेन्ना बाय परतें गुरवार आशिल्लें. तेन्ना तो जो उठून गेल्लो तो अजून येवंक ना. तेन्नाच बाय 'भुरगेंच नाका' म्हूण पाडूंक तयार जाल्लें पूण आमी तशें करपाक दिवंक ना आनी मंदा जल्माक आयलें.

आयकतां आयकतां आईच्या दोळ्यांतसून दुकां गळूंक लागलीं. मनोहराची आवय तर पयलींच रडटाली.

"तरीय बी बाबड्याक जापसालदारकी कळटा म्हूण मेळटा ती नोकरी धरल्या. एक कर्तव्य बेगीन करून उडोवंचें म्हूण आमीच ताच्या लग्नाची घाई केली. पोराचें पाड घालून दवरलें. आतां बाबडें मॅट्रीक ना म्हूण बरी नोकरीय मेळना. हे नोकरेंत पयलीं कांय वर्सां त्रास नाशिल्लो पूण आतां उदक तकलेवयल्यान वचूंक लागलां."

"हाल म्हळ्यार....?"

"कितें सांगू? चार चार म्हयने पगार दिनांत. फोर्सान ओवरटायम करूंक लायतात. अडनिड्या टायमार सोडटात. मस्करी – टिंगल करतात. वाटेक वतात. मेळत तेन्ना तापयतात, अपमान करतात, सगळ्यां हुजीर नाका जाल्लें उलयतात, घरा कामाक आफयतात. हें तर चालूच आसा."

"सोडून कित्याक दिना?"

"दुसरी सोदीत आसा. पूण मेळू नाका? शिक्षण ना, देश परको, भास येना. वशिलो ना, वळख ना. कशी मेळटली? आनी मेळ्ळ्यारूय प्रायव्हेटच मेळटली खंय तरी. रूपान सोबीत, वयान ल्हान! चली भुरगें पळयतकच परत तेच हाल. खंयच्यान ताजें लग्न बेगीन करपाची बुद्द आमकां जाली देवाक खबर!"

विशूचें मन अभ्यासावयल्यान उडलें. मनोहराची आवय कितें सांगताली तें सगळें विशूक कळूंक ना. पूण इतलें मात समजलें, 'बाय नोकरी करता थंयचीं मनशां ताका त्रास करतात.' ह्या मनशांक बडयेन आडवे–उधारे फोडून काडले जाल्यार? ताच्या मनांत आयलें. पूण आपणाल्या किडकिडीत देहाकडेन लक्ष वतकच तो विचार आपुणूच ताज्या मनांतल्यान उडून गेलो. 'खेळपाक वतां' अशें आईक सांगून तो भायर सरलो. अप्पी आनी सुधाकरन चो आपालिपाचो डाव रंगांत आयिल्लो. पूण तांच्यावांगडा खेळपाक थांबनासतना तो मनोहराकडेन आयलो.

"मन्या, शिपयो एकठांय करूंक या दर्यार?"

"इतल्या उसरां?"

"या रे. तुजी आई म्हजे आईकडेन बसल्या. आमी वचून येवया. आयज बाय आसा न्ही घरा. चल ताका आनी सुशी मंदाकूय बी व्हरूया. सांग चल बाप्पाक..."

बाप्पाक मनोहराच्या बापायक सांगून सगळीं जाणां भायर सरलीं. हें, व्हडल्या व्हडल्या दोळ्यांचें गोड हांसपी बाय विशूक खूब्ब आवडटालें. ताका परत्यो परत्यो पैजो लावपाची खोड आसली. ह्या सदांच हांसत रावपी बायक भितरल्या भितर दुख्ख आसतलें अशें विशून चिंतुकूय नासलें. ताका फकत 'सुशी–मंदाक बाबा खंयचो' हीच चिंता खाताली.

वाटेर 'मोर–मोर' करत सुशी मंदा मोरांच्या फाटल्यान धावूंक लागली. "विशूऽ"

बायन निर्मळ हांसत म्हळें. "पैज घेता? वाटेर मोरान एक जरी पाख सकयल उडयलें जाल्यार, तूं आनी मन्या सहामाही परिक्षेंत पयल्या पांचात येतलें."

विशूक खूब्ब हांसूंक आयलें. "हय घेतली पैज." विशून म्हळें पूण ताजो जीव वयर सकयल जावंक लागलो. एका फाटोफाट एक अशी स पाखां ताका मेळ्ळीं. विशू आनी मन्याक जाय ती उमेद जाली. खूब्ब तेंपान मेकळ्या सुवातेर आयिल्ल्या कारणान बायूय आनंदी आसलें. ताणें तो खारो वारो हड्डें भरून घेतलो. तें भुरग्यांवांगडा उदकांत खूब्ब खेळ्ळें. येतना मंदा मात न्हिदलें. ताका उबारून हाडटना बायक खरस मारली.

"विशू, काल मरे बायचे मांयचें पत्र आयलां. बायच्या घोवाचो पत्तो लागला. तो थोड्यां दिसांनी येतलो खंय."

"हय? खरेंच?" विशू हे खबरेन सामको भुल्लुसलो. केद्या व्हडल्या हुसक्यांतल्यान तो सुटिल्लो. आतां बायक त्या दुश्ट मनशाकडेन कामाक वचचें पडचें ना. सुशी-मंदाक 'बाबा' मेळटलो. उमेदीन विशूक कितें करूं आनी कितें नाका अशें जाल्लें. आतां बायच्या भोवून भोवून पळ काडपी घोवाक कोणेंय तरी सणसणीत तापोवन काडूंक जाय अशें विशूक दिसलें. पोरूं न्हय, जात्रेक मातसो वेळ हात सोडून नाच्च जातकच आईन घरा येतकच ताका कितलें बडयलें तें ! तसोच आतां त्या 'घोवाक' लेगीत बरोच पेट पडूंक फाव.

उमेदीन विशून जेवणार आडवो हात मारलो. तोरांच्या चटणेचें आयदनच काबार केलें. "विशू पुरो.." आईन दोळे मोठे केले. "फाल्यां ताळो दुखता म्हूण रड तूं, मागीर दाखयता तुका." आयज आईच्या न्हेसणांक हात पुसतना पालवावयले सगळे मोर खरे जावन ताचे भोंवतणी फेर धरून नाचतात असो भास ताका जालो. ताका उमेदीन फुलिल्ल्या बायक वचून पळोवपाची तान लागली. पांच जावंचे पयलींच तो 'मन्याकडे वतां' सांगून भायर पळ्ळो. मनोहरचें सगळें घरदार उमेदीन नाचत आसतलें असो ताजो अदमास आशिल्लो. पूण थंय पावलो आनी ताचीं पावलां जीं जमनीक दसून उरलीं तीं उखलच ना जालीं. बाय ओटयेवयल्या खांब्याक तेंकून बशिल्लें. ताजी नदर आसमंताक खंयतरी लागिल्ली. बाप्पा झोपाळ्यार बसून सुस्कार सोडटालो. मदीं-मदींच झोपाळ्याच्या कडयांचो कर्र कर्र करून आवाज

येतालो. मनोहर आंगणांत सुशी-मंदाक खेळयतालो. विशू ल्हव ल्हव ताचेकडेन पावलो. "कितें जालें?" ताणें ल्हवूच आवाजांत विचारलें. मनोहरान कुरू करून विशूक कोनशाक व्हेलें आनी तो फुतफुतलो. "बाय वचना म्हणटा घोवालागीं." "कित्याक?" अजाप जावन विशून विचारलें. इतल्यान रडत रडत बाय उलयलें. "तो परतो म्हजे ओटयेंत एक भुरगें घालून नाच्च जातलो. मागीर हांवें कितें जमनीर नाक आपटून घेवंचें? मावोडेचो लोक म्हाका वावराडी करून दवरतलो. म्हाका आतां घोवूय नाका आनी प्रपंचय बी नाका. त्यापरस हांव हांगाच रावून, जाता तितलें कमयता. तुमीच आमकां तिगांकूय पेज-निवळ घाला पोटाक." आनी तें हुंदक्या हुंदक्यांनी रडूंक लागलें. विशूची आई तर केन्नाच्यान दोळ्यांक पदर लावन बशिल्ली. विशूक तरीय बी धड कांयच समजूना. 'वावराडी-प्रकरण' तर साप्प तकलेवयल्यान गेलें. एक मात ताच्या ध्यानान आयलें, बरेच दीस भायर रावन घरा येतकच घरांत एक माणकुलें भुरगें येता दिसता. तो विचार करूंक लागलो, थोडो तेंप ताच्या बाबाक जर कोणें भायर खंयचीकडेन धाडलो जाल्यार तो येतकच ताका एक माणकुली भयण मेळत काय? राखी बांदपाक, भाऊबीज करपाक? मन्या ताका हालोवन म्हणटालो, "बायक व्हरूंक तो भावोजी जर हांगा आयलो जाल्यार...?"

"जाल्यार...अं... अं...." बायच्या दोळ्यांतलीं दुकां पळोवं नज जावन ओंठ चाबत तो फुतफुतलो. "आमी कितेंय तरी करपाक जाय."

"पूण नक्की कितें?" मन्या तें कळनासतना वदलो.

"कितें तें सद्या हांव नकळो. पूण विचार करून हांव सांगीन तुका. म्हाका आयत्या टायमार सुचता कितें ना जाल्यार कितें."

"तुमी म्हाका आदार दितलीं काय ना तें सांगा." बाय बशिल्लेकडेनच्च आड्डलें. आपल्याच उलोवण्यांत गूल्ल जाल्ल्या विशून आनी मन्यान आंग काडलें. बायच्या नाकाचो शेंडो आनी दोळे रडून रडून तांबडे गूंज जाल्ले. ताका कशें आनी कितें सांगपाचें तें हांव पळयतां. तुमी बेश्टे म्हाका बोट दाखया. कांयच उलोवं नाकात. आईन दोळ्यावयलो काडलेलो पालव परतो दोळ्यांक लायलो. बाप्पाल्या अर्डाकित्याचो आवाज चोयवटेन धुमतालो. "कितें मनीस आसा काय जनावर!" आयजमेरेन आयिल्ल्या सगळ्या बऱ्या वायट अणभवांची पोटली घेवन बाय

उलोवंक लागलें. "सगल्या सोयऱ्यां-धायऱ्यांकडल्यान शी: म्हृण घेवप हांवें आनी म्हज्या धुवांनी. तेंय बी कांयच चूक नासतना. कितें कमी केल्लें हांवें ताका आनी ताज्या घरच्यांक? जापसालदारकी नाका, भटकूंक जाय जाल्यार लग्नाच्या फेऱ्यांत म्हाका कित्याक अडकयलें? खेळ समजून? म्हज्या सोसपाचे शर्तीकूय शीममेर आसा. कितले दीस हांत्र ह्या अजाण भुरग्यांक फटोवं. केन्ना येतलो तुमचो बापूय म्हृण. जालीं तितलीं नाटकां पुरो जालीं." बाय उठून अकस्मात भितर धावलें. बाप्पा शिव शिव म्हणत रावलो. मन्याची आई हुंदक्यांनी रडटाली. मन्या, सुशी, मंदा सामकीं काचाबूल जाल्लीं. विशूचें तोंडूय पडलें.

विशूचें आनी मनोहराचें शाळेंत लक्ष नासतालें. सद्दां ह्या एकाच विशयाचेर तांचीं खलबतां चलतालीं. एक दीस मनोहरान बाँब फोडलो. विशू आयज आमगेर बेगीन यो. भावोजी येवपाचो आसा. सांजेचो विशू बेगीनच मन्यागेर पावलो. "खेळूंक वता" अशें सांगून मनोहर भायर सरलो. आईक लेगीत घरांत झगडीं वाद जावपाच्या टायमार तो घरांत नाकाच आशिल्लो. स्टेशनार पावतकच दोगांयनी घडयाळ पळयलें. गाडी येवपाचो टायम जायत आयिल्लो. 'कडलुराक' फकत तीन मनशां देंवलीं. दोन जाणट्यो बायलो आनी एक खाड वाडयिल्लो दादलो. अंदाजान मनोहरान वळखलें काय होच तो 'धांव मारपी' भावोजी आसूंक जाय. घोड्यागाडयेक ताणें मनोहरच्या घराचो पत्तो सांगतकच दुबावच उरलो ना. आयिल्ल्या शॉर्टकटान तांच्यानी उरफाटी धांव मारली. 'भावोजीच्या' पयलीं ते घरचे गेटीकडे पावले लेगीत. तितल्यान ताचीय घोडागाडी थंय पावली. गाडयेंतल्यान देवून ताणें गाडयेकाराक रावपाक सांगलें आनी तो गेटीकडेन आयलो.

"हांगा प्रभूचें घर खंयचें?"

"हेंच. कोण जाय."

"प्रमिला..."

"म्हळ्यार बाय? पूण सद्या बाय ना हांगा."

"तूं कोण ताचो?"

"हांव मनोहर न्हय, भाव ताजो."

"हाँ मन्या, बरो आसा मरे तूं? तुका लग्नांत सारको पळोवंक ना. देखून आतां

वळखलो ना. बरोच व्हडलो जाला मरे तूं. बाय खंय?"

"बायचें लग्न आसा न्हय आतां. म्हूण ताका आनी आई बाबाक न्हवऱ्याच्या घरा आफयल्यां साखरपुड्याक. पूण तुमी कोण?" मन्यालें सणसणीत फट आयकून विशुचें तोंड उकतें उरलें.

"खंय गेल्यांत तीं?"

"पाँण्डीचेरीक."

"केन्ना येतलीं?"

"आठ दिसांनी. पूण तुमी कोण?"

"मागीर तूं कसो एकटो हांगा?"

"एकटो खंय? हो न्हय म्हगेलो दोस्त विश्वनाथ - विशू थंय रावता. तांगेर दवरला म्हाका. फाल्यांच्यान म्हजी परिक्षा सुरू जाता न्हय, म्हूण!"

विशूल्या हड्ड्यांत आगगाडी धावूंक लागली. भंयान ताळो भायर आयलो. नाजाल्यार तांचो आवाज जरी आयलो तरी हाडांचो चुरो जातलो हें ताका समजून आयलें. मनांतल्या मनांत ताणें तेत्तीस कोटी देवांक गाराणें घालपाक सुरवात केली. ताका शेळो घाम सुटलो. मन्याल्यो ह्यो फटी ताका आवडूंक नात पूण म्हऱ्यांत आसा तो 'शत्रुपक्ष' आनी कितेंय तरी करून ताका हांगाच्यान धांवडवपाक जाय इतलीच घट्ट जाणविकाय ताका आशिल्ली. मागीर बाय कशें मधूर हांसतलें. ह्या स्वप्नान तो गूल्ल जालो. मन्यान ताका कचकचीत चिमटो काडटकच तो भानार आयलो.

"पूण सांगा न्हय तुमी कोण?"

"आतां तुकां कळुनूय काय उपेग ना." चिंतातूर जावन तो विचार करीत रावलो. एक एक खीण, विशू-मन्याक एका एका युगाभशेन दिसलो.

"वच मरे बेगीन. वच मरे बेगीन." तांच्यांनी मनांतल्या मनांत आळवणी सुरू केली.

"तुज्या बायक, एक रकाद सांग. राघव आयिल्लो, पूण हार मानून तो परतो वता म्हणचे. आतां मात तुका त्रास करपाक तो परतो केन्नाच येवंचो ना. सुखान राव. भुरग्यांक सुखान दवर."

आयिल्ले घोड्यागाडयेंत बसून तो परतलो. तो दिश्टीआड वतकच, मन्या

आडुलो. “हर हर महादेव” आनी ताणें थरथरतल्या विशूक घट्ट वेंग मारली. मन्या, इतलो व्हडलो पराक्रम इतले धिटायेन एकट्याच्या जोरार करूंक पावतलो अशें विशून चितूंक नाशिल्लें.

सुटी आसल्या कारणान दुसऱ्या दिसा विशू मातसो उसरांच मनोहराकडेन गेलो. वातावरण गंभीर जाल्लें. बाप्पा, फाटल्यान हात धरून अस्वस्थ जावन बेगी बेगीन पासयो मारतालो. आई हुस्क्यान सामकी बाबडी जावन रांदचे कुडीच्या हुंबऱ्यार बशिल्ली. मन्यालो चेहरो रडून रडून सुजिल्लो. पोल्यांचेर बोटांचे वळ स्पश्ट दिश्टी पडटाले. विशूक पळयनाफुडें खांब्याकुशीक बशिल्लें बाय तुरतुरीत फुडें आयलें. ताणें विशूक बचकुलाक धरून फरफरीत ओडीत भितर हाडलें आनी दोळे व्हडले करून ताका भंय घालीत बायन विचारलें,

“विशू, खरें उलय, काल कितें कितें घडलें?” भंयान विशू हुंदक्या हुंदक्यांनी रडूंक लागलो. तसोच रडत रडत ताणें बायन जेन्ना “म्हाका वचपाचें ना” म्हटलेंलें तेन्ना सावनची सगली काणी सांगली. आईन उठून पट करून विशू-मन्याक वेंग मारली. तिच्याय दोळ्यांतसून दुकां गळटालीं. झोपाळ्यार बशिल्ल्या बाप्पान दोळ्यांक वालो लायलो. आईन काकुळतेक येवन म्हळें, “बाय, नाका गो तांचेर तापू! घरांत दररोज जें कितें घडटा तें आयकून पोरांनी आपले भशेन ताजो अर्थ लायलो आनी तुका वाटोवपाक ती करामत केली. तांच्या मनान दुश्टावो नाशिल्लो गो.”

बायन उठून दोगांकूय लागी ओडले. दोगांयची पापी घेतली आनी मनोहराल्या वळ उठिल्ल्या पोल्यार आपलो पोलो दवरून तें रडत सुटलें. तांका पोशेत ताणें म्हळें, “जाणां गे हांव, आई. पूण हांव राघवावांगडा जरी वचचें नासलें तरीय म्हाका केल्ल्या प्रपंचाची पुराय जापसालदारकी तांच्या गळ्यांत घालपाक जाय आसली. सुखी राव कितें? इतलीं वर्सां काडलेल्या कश्टांचो, सोसलेल्या अपमानाचो, दुख्खाचो न्याय करपाचो आशिल्लो. तांच्या चुकांचो हिशेब करपाचो आशिल्लो. तांच्या भुरग्यांक व्हडलीं कोण करतलो? तांचो खर्च कोण करतलो? तांचेकडेन कायद्यान घटस्फोट घेतल्याबगर हांव दुसरें लग्न कशें जावंक शकता? इतलोय विचार तांचे तकलेंत आयलो ना? भुरग्यांच्या पोटांक कितें हवा आनी उदक घालून

तांकां सूखी करप? बापूय म्हणून तांची कांयच जापसालदारकी ना? ते सगळें सावरूंक आयिल्ले पूण हांवें वगडायलें असो अर्थ आतां सगळेजाण काडटले."

विशू आनी मन्यालो चेहरो सामको अपराधी जाल्लो. आपलें खूब्ब खूब्ब चुकलां हाची जाणविकाय दोगांकूय जाली. तांकां रडपाचें उमाळ्यार उमाळे येवंक लागले. तांकां लागीं धरून बायन म्हळें, "रडूं नाका तुमी. बाप्पाक घेवन हांव तांगेर वता. पळोवंया हातान सापडटा जाल्यार. सापडले तर बरेंच जालें. नाजाल्यार रितसर घटस्फोटाचो अर्ज दाखल करता. पोटगी घेता तांचेकडल्यान. इतले दीस जो धीर म्हाका जाय नाशिल्लो तो धीर म्हाका आतां तुमचे करणेन मेळ्ळा. चुकीचो आसना पूण तुमी ल्हान आसून मार्ग सोदलो. हांव तरी कित्याक रडत वोगी बसूं? हांवूंय हिमतीन सगळें करता. हांव तुमचेर रागार जावूंक ना. चला खेळा आतां भायर. दोगांकूय चडशें कांय समजलें ना. पूण आपणे केल्ली चूक बाय सुदारतलें हाजेंच तांकां बरें दिसलें. उठून भायर येतकच हांसऱ्या तोंडान मन्यान म्हळें, "विशू, जर मुखावयल्या झाडार तीन मोर बशिल्ले आसत जाल्यार....' आनी झाडांचेर बशिल्लो मोरांचो थवो पळोवन दोगूय जाण हांसत सुटले.

●●●

7

# मृत्यूंजय

अंतुबाबान हात धुले, घोंट घेतलो आनी धव्या फुल्ल पुडव्याक तोंड पुसत ते भायर आयले. सदच्या भशेन वोल्तेरार धोलत, ताणें जनेलाभायर दोळे लायले खरे पूण तातूंत नदर नाशिल्ली. तांचे तोंड सामकें बावून गेल्लें. मदींच त्या इल्लेशे कुडींत ते पासयो मारताले. परते वोल्तेरार बसून पांय हालयत विचारांत गुल्ल जाताले. दोन दीस जाले, अंतुबाबाली ही बेचैनी, ही अस्वस्थताय, ही तकालस, व्हनीबाय बारीकसाणेन नियाळटाली. विचारले बगर घोव आपल्याक काय सांगपी न्ही हें ती जाणां आशिल्ली. पूण त्या कारणानच घोवाक कितें जाता हेंय तिच्या लक्षांत वच नाशिल्लें. शेवटाक, तिका घोवाचें हें वयर-सकयल जावप सामकें पळोवं नज जालें. हातांत वातींचो कापूस घेवन ती घोवा म्हऱ्यांत येवन बसली.

"आयकलें..."

"हं..."

"ऑफिसांत चड काम पडटा काय कितें ह्या दिसांनी?"

"अं! ना .... ना...."

"मागीर जिवाक बरें दिसना?"

"श्यँ, बरें दिसता. तूं वच पळोवंया तुज्या कामाक. वोगीच म्हाका किटकिट करूं नाका."

तितल्यान दाराची खिळी वाजोवन तीन चार मनशां कुंडली दाखोवपाक भितर सरलीं. व्हनीबाय हिरमोड जावन बाविल्ल्या तोंडांन भितर गेली.

वेवसायान अॅकांटंटची नोकरी करतां करतां अंतुबाब ज्योतिशाचो जोड-

धंदो करताले. कुंडली पळोवप, कुंडली करून दिवप, कुंडलींत आयिल्ल्या अनिश्ट ग्रहदशेचेर उपाय सांगप – हातूंत ते तरबेज जाल्ले. खरें तर ह्या शास्त्रांत पयलीं तांकां मात्तूय गोडी नाशिल्ली. परतो पिढयान पिढयो चलत आयिल्ल्या भटपण आनी ज्योतिशविद्या हांचो ताका तिरस्कारच आशिल्लो. पूण तांच्या बापायन फोर्सान तांकां हें शास्त्र शिकयल्लें. हें शास्त्र सांगत पयशे कमोवपाच्या जाग्यार भरपूर शिकून–व्हडलीशी नोकरी करची आनी घरची गरिबी पयस करपाची तांची वांन्सा आशिल्ली. 'शिकयता तें शिकून घे. खंयचीच विद्या केन्नाच मनशाचें वायट करीना, केन्ना ना जाल्यार केन्ना ती उपेगाकच पडटा' अशें तांचो बापूय सदांच म्हणी. ज्योतिशशास्त्राचें प्राथमिक गिन्यान दिवन बापूय भायर पडलो. जसो काय तो तितलें करपाकच उरिल्लो. अंतूबाबाली सगलीं सपनां, सगल्यो आकांक्षा मनांतल्या मनांत उरल्यो. मॅट्रीकेच्या मार्कांचेर तांणी काम्रान नोकरी धरली आनी ती करीत रावले. भावा–भयणींक शिक्षणां दिलीं. लग्नां केलीं आनी मागीर उसरां आपणाल्या लग्नाचें मनार घेतलें. तेन्नाच तांकां बापायचे शिकवणीचें प्रत्यंतर आयलें. कुंडली करून दिवपाचो जोड–व्यवसाय सुरू करून अंतूबाबान आपणाली जोड मातशीशी वाडयली. बेकार आसतकच ह्या शास्त्राचो खोलायेन अभ्यास तांणी सुरू केलो.

तीन चलयांचे फाटीर जाल्ल्या चवथ्या चल्यान तांच्या घरांत उमेद हाडली. ओव्हरटायम सुरू जालो. घरांत सामकी गिरेस्तकाय जरी आयली ना तरीय वाडिल्लो प्रपंच बरो चलतालो. तांणी एक नेम मात आपणाकूच घालून घेतिल्लो आनी तो म्हळ्यार कुटुंबांतल्या खंयच्याच मनशाची कुंडली मांडप ना. भविश्य पळोवप ना. ते जाणां आशिल्ले मनशाक 'फाल्यां'ची ओड कितली खर आसता तें. जशी तांचे जिणेंत तांणी ह्या 'फाल्यां'चे आशेर दुःख आनी संकटां वोग्गी रावन सोसपी मनशां पळयिल्ली तशींच भविश्यांतल्या संकटाच्या बेश्टे पावलटीनच मोडून पडपी मनशां लेगीत पळयिल्लीं. आपणाले ह्या विद्येचेर आनी तातूंत आपणे मेळयिल्ले नामनेचेर तांचो घट विस्वास आशिल्लो. तरीय बी तांच्यानी सोताक आनी घरच्यांक स्वकर्तुबाचें शिक्षण दिल्लें. मनगटांतले ताकतीचेर जीण घडोवपाक शिकयिल्लें. फाटीक फाट लावून आयिल्लीं तांचीं भुरगीं खऱ्यांनीच हुशार आशिल्लीं. व्हडल्यो तीनूय धुवो मॅट्रीक जावन घरांत शिवण--सूत करताल्यो. अंदू मोरेश्वर मॅट्रीक जाल्लो.

पूण मनगटांतले शक्तीचेर रावपाचे दीस फाटीं पडले. चोंयवटेन वशिलेबाजी आनी लांच घडघडटाली. ह्या मार्गान वचपी मनशांच्या पदरांत नोकऱ्यो आपूण जावन येवन पडटाल्यो. अंतूबाबाली फर्स्टक्लासान पास जाल्लीं तीगांय जाणां इंटरव्यू दीत घरांत बशिल्लीं. शिवणकामान कमाई जावन जावन कितलीशी जातली?

जाणटे पिरायेर लग्न जाल्ल्या अंतुबाबाली रिटायरमेंट लागी पाविल्ली. अंतूबाब काचाबूल जाल्लो. कितें जातलें, कशें जातलें ह्या विचारान ताची तकली जाग्यार उरनाशिल्ली. तातूंत व्हनीबाय व्हडले धुवेखातीर सोयरीगती पळोवपाक फाटल्यान लागिल्ली. "आतां तरी सगल्यो धुवांच्यो कुंडल्यो करून उडयात. सोयरीगत येतकच मागल्यार दिवपा नाका? नाजाल्यार बापूय काय बरो शास्त्री आनी धुवांच्यो कुंडल्यो ना म्हणटकच लोकांक नाका जाल्ले दुबाव घेवपाक जागो जातलो." अशें व्हनीबाय दीसरात म्हणूंक लागली.

लग्नाच्या खर्चाचे घसघशीत आंकडे आयकून अंतुबाबाल्या पांयां पोंदची जमीन हालताली. सगली बचत, प्रॉव्हीडंट फंड, ग्रॅज्युइटी बी धरून फकत एकूच कार्य जावंक शक्य आशिल्लें. आनी उरलेल्या दोन धुवांचीं कार्यां कशीं आनी खंयचे पयशे एकठांय करून करप? मोरेश्वराच्या शिक्षणाक खंयचो पयसो हाडप? हे चिंतेन तांची रातची न्हीद उडली. 'पोरांच्या नशीबांत आसां तरी कितें?' ही जिवाक लागिल्ली हुरहूर सोंपोवपाक शेवटाक अंतुबाबान चारूय भुरग्यांच्यो कुंडल्यो केल्यो आनी अंतूबाबाक एक नवीनच साक्षात्कार जालो. 'फाल्यां' जाणून घेवपाक मनशां इतलीं कित्याक तळमळतात तें तांकां कळून आयलें. दर एका भुरग्याचें भविश्य कळतकच ताका लेगीत कितलें थंड दिसलें. तीनूय धुवांच्या कुंडलींत ल्हान पिरायेचेरूच आशिल्ले विवाह योग पळोवन तांकां उमेद जाली. आपणाले पत्रिकेंत आशिल्लो घबाड योग पळोवन ते चकीत जाले. मोरेश्वर 'आपणाक डॉक्टरकीक धाड' म्हूण फाटल्यान लागिल्लो. तांचे तकलेवयलें भंयकर वजें अचकीत ल्हव जालें. जातलें जातलें सगळें सारकें जाग्यार पडटलें. वेळ येतकच देव खंयच्या नाजाल्यार खंयच्या मार्गान भरपूर दितलो. फकत प्रयत्न आनी कश्ट करपाचें मात सोडूंक जायना.

मोरेश्वराक सायन्सीक वचपाची परवानगी तांणी व्हडले उमेदीन दिली. ताचें कश्ट करप चोवपटीन वाडलें. पयलीं केन्नाच करूंक ना तितल्या जोमान अंतूबाबान

गांवांत, तांच्या मूळ घराकडेन देवस्पण सुरू केलें. लघुरूद्र, महारूद्र, नवग्रहशांती, नारायणनागबली, शनीप्रदोश, गुरूचरित्र पारायण, नवचंडी, सत्यनारायणपूजा, नामसंकीर्तन, भागवत सप्ताह, मृत्यूंजयजप... अशी अनेक देवकार्यां! गांवांतल्या राशीच्या घरांत भटाकडसून अंतूबाब हीं देवकार्यां करून घेताले. प्रसाद, पाकळी, विभूती सगळ्यांक वांट्टाले. व्हनीबायक एकेवटेन अजाप जातालें तर दुसरेवटेन उमेद जाताली. पयलीं, मातशें जरी देवाचें करपाचें आसत जाल्यार अंतूबाब कितलीशीच खळखळ करताले.

व्हडले धुवेचें लग्न अंतूबाबान व्हडल्या दबाज्यान केलें आनी बँकेंतल्या पयशांचो तळ दिसूंक लागलो. रोकडेंच दुसरे धुवेखातीर तांणी न्हवरे सोदपाक सुरवात केली. व्हनीबायक चिंतेन आनी भंयान ग्रासलें. तिच्या लक्षांत गेलें, घरांत अंतूबाबालें उलोवप सामकें कमी जालां. रात आनी दीस ते कसल्यातरी विचारांत आसताले. खाणां-जेवणाची तांकां याद उरना जाली. आरोग्य सामकें देंवलें. मध्यानरातीकडे केन्नाय न्हीदमोड जाल्यार तिका अंतूबाब जागे जावन, तोंडान श्रीराम श्रीराम म्हणत, हात फाटीं धरून पासयो मारतना दिसताले. व्हडले व्हडले सुस्कारे सोडिल्ल्याचो आवाज येतालो. कितलेंय विचारल्यार कांयच सांग नाशिल्ले.

व्हनीबायचो धीर सुटलो. घरांत तर सगलें कशें दिश्ट जावपासारकें चलिल्लें. मोरेश्वराचो अभ्यास जोरान चलतालो. ताणें आपणाल्या मेरिटाचेर फ्रीशीप लेगीत मेळयिल्ली. दुसरे धुवेचें लग्न थरलें. अंतूबाबान कर्ज काडून तेंय बी लग्न थाटान केलें. व्हनीबायच्या मनांत कर्ज काडपाचें नाशिल्लें. पूण पयसो उबो करपाक दुसरो कसलोच मार्ग उरूंक नाशिल्लो. लग्न जालें आनी घरांतली पयशांची आवक सामकीच कमी जाली. व्हनीबायन कोंत करून पळयलें, कर्जाचे हप्ते भरूनय हातांत उरपाक जाय आशिल्लो ताच्या अर्द्यानीच पयसो उरतालो. अंतूबाबाक विचारल्यार "सद्‌या हांव विम्याचे हप्ते भरतां" इतलीच जाप तिका मेळ्ळी. व्हनीबायक राग आयलो. हीं कसलीं नवीन पिशेपणां? पयलींच इतलो खर्च जाता आसतना आनीक विमो कित्याक काडूंक जाय आशिल्लो? सगलो खर्च आटपा हाडटा हाडटां व्हनीबायक नाका शेवट जालो. अंतूबाबान थारायलें, रिटायर जावंचे पयलीं तिसरे धुवेचें लग्न लेगीत आटपून घेवपाचें. व्हडल्या दोनूय जावंयाकडसून कर्जान पयशे घेवन जेन्ना अंतूबाबान तिसरे धुवेचें लग्न लेगीत आटपिलें तेन्ना मात व्हनीबाय

सामकी पिसावली.

"हें कितें केलां तुमी? वेह्याकडसून कर्जां घेतलीं? शी, इतली कितें पोराची पिराय उलटून वताली?"

"योग उलटून वतालो. आतां करूंक ना जाल्यार मागीर बेगीन जमचें नाशिल्लें."

"पूण आतां हीं जीं राशींनी कर्जां जाल्यांत तीं आमी फारीक करतलीं कशीं?"

"करतलो हांव वेवस्था."

"पूण कशी काय म्हणटा हांव. म्हाकाय बी कळूंक जाय."

"तुज्या खांदार अजून हांवें दिवंक ना प्रपंच्याचें वजें. कांय कळून घेवपाची गरज ना. वोग्गी बस."

व्हनीबाय बाबडी वोग्गी जाली. विचार करून करून अंतूबाब दुयेंसकार दिसूंक लागलो. व्हनीबायक दुबाव आशिल्लो, केन्नाय रातचे मदीं मदीं ते रडटात म्हूण. खाण-जेवण सामकें दोन गोट्यांचेर पावलें. अंतूबाब रिटायर जाले आनी तांचें भायर सरप सामकें बंद जालें. आतां सगलो घरखर्च येता त्या पेन्शनीन भागोवंक जाय आशिल्लो. काळीज घट करून व्हनीबायन आपणाल्यो सगल्यो वस्ती, अंतूबाबा म्हऱ्यांत दवरल्यो.

"हें घेयात. आतां म्हाका हांची कसली गरज? कार्यां जालीं, मिरोवन जालें. आतां हो गळ्यांतलो मणीच पुरो म्हाका. हें विका आनी येता त्या पयशांतल्यान जाता तितले कर्जाचे हप्ते भरा. भांगर सद्या म्हारग जालां. काय न्ही म्हळ्यार बरोच पयसो येतलो वस्तींचो."

कांयच उलयनासतना दांतापोंदा ओंठ चाबून अंतूबाबान वस्तींचीं पोटली कुशीक धुकलली. उठटां बसतां तांच्या दोळ्यांतसून दुकां गळूंक लागलीं. न्हिदेंत खूब फावटी ते "देवा म्हाका माफ कर, हांवें चूक केली" अशें बडबडूंक लागले. व्हनीबाय सामकी पिशी जावपाक पावली. तिणें मोरेश्वराक विश्वासांत घेवन सगळें सांगलें. ताणेंय बापायकडेन उलोवपाचो प्रयत्न केलो. पूण ताचेच हात हातांत धरून जेन्ना अंतूबाब हो हो करून रडलो तेन्ना ताणें भियेवन तो प्रयत्न सोडून दिलो.

"हं, घेयात गांवांकडल्यान प्रसाद आयला. थंय भट कर कर करता पूण कसलोच फायदो ना."

"सरस्वती ऽ ऽ ऽ" व्हडल्यान अंतूबाब आड्डुलो आनी ओग्गी रावलो. व्हनीबायचो आंवरो उडलो. इतल्या व्हडल्यान नांव घेवन अंतूबाबान तिका केन्नाच उलो मारूंक नाशिल्लो. भंयान ती थरथरली. अंतूबाब पिशें लागिल्ल्यावरीं हातार हात चोळीत बेगीबेगीन पासयो मारूंक लागले. ओंठ चाबून ते रडें आवरूंक सोदताले. तांची काया घामान थिपथपली. आतां मात व्हनीबाय सामकीच भियेली. शेजारच्चे कामतिणीक उलो करपाक धावली आनी दारांतच मोरेश्वराच्या धांवट आयिल्ल्या इश्टाक आपटली.

"काकी ऽ ऽ ऽ" व्हडल्यान उलो मारीत तो व्हनीबायच्या पांयांकडेन कोसळ्ळो. फाटोफाट गर्देचो लोट दारांतल्यान भितर रिगलो. अंतूबाब जनेलाचे वारांव हातांत घट्ट धरून तांचेर माथें तेंकोवन रडटालो.

"अंतूबाब ऽऽ आमचो मोरू" असो आकांत करीत शेजारचो कामत भितर आयलो. फाटल्यान लोकांनी धवे फुल्ल चादरेंत धापिल्ली मोरेश्वराची बॉडी भितर हाडली. कॉलेजांतसून येतना नाक्यार कोणें तरी मोटरसायकल मोरेश्वराचेर मारली. कामतीचे वागणुकीचो अर्थ मातसोसो लक्षांत वतकच, व्हनीबायन "मोरूऽऽ रेऽ" असो साद घालत मोरूचेर आपणाक घालून घेतलें आनी ती बेशुध्द जाली.

बायलमनीस आसून आनी एक एकटो चलो भायर पडून लेगीत व्हनीबायन अंतूबाबाक लागून आपणांक सावरलें. अंतुबाबाली मात वाचा बंद जाली. तो कोणाकडेच कितेंच उलयना जालो. तांचें दीसरात रडप, तळमळप, पासयो मारप, तकली बडवप हेंच चालू आशिल्लें. कांय दिसांभितर अंतूबाबाले कुडीचो पांजरो जाल्लो दिसूंक लागलो. व्हनीबाय आनी धुवो तांकां खूब समजयतालीं पूण कसलोच फायदो जाय नाशिल्लो.

कांय म्हयन्यां उपरांत पोस्टमनान कसलेशें पत्र अंतूबाबाक हाडून दिलें आनी अंतुबाबालें भायर यो-वच करप परतें सुरू जालें. एक दीस, दीसभर अंतूबाब नाच्च जालो. व्हनीबायचो आंवरो उडलो. सांजचें घरा येतकच तांच्यानी पयली व्हनीबायल्या हातांत बँकेचें कर्ज फारीक केल्ल्याची पावती दवरली.

"इतले पयशे खंयचे हाडले?' भंयान आनी अजापान तिणें विचारलें.

"सोय जातली अशें म्हणूंक नाशिल्लें हांवें ती सोय जाली. तेच हे पयशे. वेह्यांचीं कर्जां लेगीत पुरायपणान फारीक केलीं. ह्या तिनूय धुवांक धा धा हजार

आनी हे तुका पन्नास हजार. आतां आमी कोण्णाकच एक पयसो लेगीत देणें ना. कोणाच्याच फाकसावान ना आतां आमी." रडत रडत अंतूबाब उलयले. विचार करून करून व्हनीबायची तकली फुटपाक पावली. अंतुबाबाल्या तोंडाक परतें कुलूप लागलें. काळीज घट धरून व्हनीबायन कांय दीस वोग्गी रावपाचें थारायलें.

मध्यानराती अकस्मात व्हनीबायक जाग आयली. अंतुबाब हांतरूणार नाशिल्ले. कच्च जावन ती उठली. दुसरे कुडींतसून कांय आवाज येतकच ती उठून धांवली. मोरेश्वराच्या फोटो म्हर्‍यांत रावन अंतूबाब तोंडार थापटां मारून घेताले. व्हनीबायन अंतुबाबाले हात धरपाचो खूब्ब यत्न केलो. जीव गेल्ल्याभशेन अंतूबाबान आपणांक जमनीर घालून घेतलें आनी आकांत करीत तो आडवो उदारो लोळूंक लागलो, "सरस्वती, हांव बापूय न्हय, कसाई आसा गो, मेल्ल्याचे ताळयेवयलें लोणी खावपी राकेस हांव. म्हजो पोर मरून लेगीत आवय-बापायचें, भयणींचें बरें करून गेलो. तो खरें तर मरूंक ना. तो मृत्यूंजय ठरला. मेला हांव. देड वर्सा पयलींच. ताची कुंडली केल्ली तेन्नाच कळून आयिल्लें म्हाका, बाबड्याक अपमृत्यू आसां, तो अल्पायुशी लेगीत आसां म्हूण! देवाचें करून करून हांव ताचें मर्ण फुडें धुकलूंक सोदी. ताका सायन्सीक वचपाक परवानगी हांवें ताजी निमाणी इत्सा पुरी करची म्हूण दिल्ली. पूण नियतीकडेन हांव झूंज घेवंक शकलो ना. हांव कांयच करूंक शकना हें म्हजी मतींत येतकच नियतीकडेन एक वेगळोच डाव हांव खेळ्ळो. फाटल्यान उरपी धुवांची काळजी म्हाका लागिल्ली. तेखातीर त्या पोराचो एक घसघशीत विमो हांवें उतरलो. हो सगळो पयसो त्या विम्याचोच. कॉम्पेन्सेशनाचो. सरस्वती, नियतीकडल्यान पुताच्या मरणाचो पयसो घेतलो हांवें - त्या वाट्याचो पूत दान केलो नियतीक हांवें. हांव राक्षस - चांडाळ हांव.. कोण माफी दितलो म्हाका?"

शोक आवरना जावन अंतूबाब परतोय बेशुध्द जालो. हें सगळें आयकून व्हनीबाय सामकी बधीर जाल्ली. मरूनय सगळ्यांचें बरें करून वचपी पूत पुण्यवान काय नियतीकडल्यान पुताच्या मरणाची किंमत वसूल करून फाटी उरलेल्यांचें कल्याण सादपी बापूय पुण्यवान ह्याच प्रस्नान ती घुस्पून उरली. अंतुबाबाली समजूत काडपाचें धैर्य आतां मात तिचे लागीं नाशिल्लें.

●●●

## 8

# खेळ

किलींडरान बस थांबयली आनी तो मदींच देंवपी पासिंजरालागीं झगडीं करूंक लागलो, तसो म्हजो जीव वयर सकयल जावंक लागलो. हांव बशिल्ल्या जाग्यारच काचाबूल जालें. बस दोन थांब्याच्या मदीं अशी अडनिड्या जाग्यार थांबिल्ली, थंय देवून दुसरी बस घेवपूय कुस्तार आशिल्ले. म्हजो देवपाचो थांबोय बी खूब्ब पयस आशिल्ल्यान देवून चलपय शक्य नाशिल्लें. हेर पासिंजरांनीय बी आतां मदींच तोंड घातलें आनी झगडीं मिटोवपाचो यत्न केलो. पूण जितलो सुबेज तो पासिंजर आशिल्लो ते परस कितलोसोच देडशाणो तो किलींडर आशिल्लो. हांव सामकें रडकुऱ्यां परतलें. शाळा सुटपाचो टायम जाल्लो. शाळा सुटतकच रोकडेंच हांव दिसलें ना जाल्यार सुहास व्हडल्या व्हडल्यान रडूंक लागतालो. वर्स अर्दें सोपत आयिल्लें तरीय बी अजून सुहासाक  शाळेची संवय जावपाक जाय तशी जावंक नाशिल्ली. ताका लागुनूच कितलेंय म्हत्वाचें काम आसूं, हांव तें कुशीक उडोवन, शाळेकडेन धांव मारतालें. शाळा घरासावन खूब पयस आशिल्ली.

ह्या शारांत आमी नव्यानच बदली जावन आयिल्लीं. मेळटा थंय ॲडमिशन घेवन उडयिल्लें. 'हे' सकाळफुडें ऑफिसाक वतना सुहासाक शाळेंत सोडून फुडे वताले. आनी मागीर जेवण बी करून हांव ताका हाडूंक वतालें. पूण आयज मात सामकोच उशीर जाल्लो. परतें परतें हांव घडयाळीर नदर मारतालें.

"अं? हय, तुका कशें कळ्ळें?"

"हांव सदांच पळयता न्हय तुका शाळेंत?"

"शाळेंत सदांच पळयतां? पूण हांवें केन्नाच कशें तुका नोटीस करूंक ना?"

"ताकतिकेन जाता तशें केन्ना केन्ना...."

"तुगेलो कोण आसा शाळेंत? चलो काय चली?"

"चलो अमीत. तुजोय बी चलोच आसा न्हय? पळयला हांवें."

केन्नाच हे बायलेक आपणे शाळेंत कशें पळोवंक ना हाचें म्हाका अजाप जालें.

"देवून रिक्शेंत या?" तिणें विचारलें.

"पूण आतां ह्या टायमार रिक्शा मेळटली काय? नाजाल्यार बसूय ना आनी रिक्शाय ना अशें जातलें." तितल्यान हांसत हांसत किलींडर वयर चडलो आनी पिल्लूक वाजयत आड्डलो. "चल वोस". बस फास्ट सुटली. आमकां दोगींकूय 'सू' जालें. मिसेस रावचो – म्हजे सोबीत शेजारणीचो चलोय बी सुहासा वांगडाच शिकतालो. फक्त डिवीजन दुसरें. रोखडीच आमी ताण गजालींनी गूल्ल जालीं. एकामेकांली म्हायती सांगतना– आयकतना सदची वाट कशी सोंपली कळ्ळेंच ना. बसींतल्यान देंवतकच – "एक्सक्यूज मी हां, हांव पळटा फुडें. सुहास खूब्ब रडटा आसतलो. मागीर मेळचें." अशें म्हणत तिका फाटींच सांडून हांव पळत फुडें गेलें. अदमासाप्रमाण सुहास हुंडक्या हुंडक्यांनी रडटालो. बावक्या तोंडान हांवें सर्व्हेतांक "सॉरी" म्हळें आनी सुहासालो ताबो घेतलो. आतांच्या शाळांनी, महादेवापयलीं नंदीक पांयां पडटात, तशें टिचरी पयलीं ह्या सर्व्हेतांक पांयां पडचें लागता. तांच्या मुडाप्रमाण ती भुरग्यांक सांबाळटात. एकट्या एकट्या क्लासींत पन्नास–पन्नास भुरगीं आसतकच, कोणाकडल्यान कसली अपेक्षा दवरूं येता? सुहासाक घेवन हांव क्लासींतल्यान भायर सरलें आनी जाणवलें, सर्व्हेंत दाराक कुलूप घालता.

"आनीक एकटो भुरगो आसतलो भितर दुसरे क्लासींत..." हांवें ताकतिकेन म्हळें.

"श्यॅ, सोगले गेले..." म्हजेकडेन एक बेफिकीर नदर घालून सर्व्हेंट चलूंक लागलें. म्हऱ्यांतल्यान मिसेस राव येताली. तिजेकडेन पळोवन "ना" अशा अर्थान आंगठो हालोवन तें सर्व्हेंट गेलें. "कितें म्हणटालें तें?" हांवें बेगीबेगीन परतल्ले मिसेस रावाक विचारलें. "ताका हांच्यांनी व्हेला दिसता. जातां अशें खुबदां. हांकां

ऑफिसाच्या कामाक ह्या सायडीक येवंचें पडल्यार ते जिपीन व्हरतात ताका. आमगेर फोन ना न्हय, म्हूण म्हाका कळोवंक पावनात ते. म्हाका मात बेर्शटांच पासय जाता." आतांच्या युगांत फोन नाशिल्लें घर! म्हाका अजाप दिसलें. भितर कोणूच भुरगो उरलेलो ना हें कळटकच सू जालें. घरा परततना मिसेस राव सुहासाकडेन ताण गजाली करताली. शाळेचो अभ्यास, टिचरींचें वागप, खेळ- सगल्याविशीं बारिकसाणेन चवकशी करताली. घरा येतकच सुहासान म्हाका बरेंच तापोवन काडलें - "परतो जर तुका उशीर जायत जाल्यार हांव रावचो ना थंय, हांव चलत रावतलो. घर येता म्हणसर." अशी धमकी लेगीत दिली. हांव मनांतल्यान भियेलें. ताका नवीन लोकांच्यो, शाराचो भंय घालीत रावलें. चुकून जर उशीर जालोच जाल्यार 'सुहासाचेर कडक नदर दवर' अशें सर्व्हेतांक सांगपाचें मनांत थारायलें.

नवीन शारांत ल्हवू ल्हवू सगल्या गजालींची संवय जायत आयिल्ली. आमकां तिगांकूय नवीन मित्र-मैत्रीणी मेळ्ळ्यो. दीस कशे पाखां लावन उडिल्ल्यावरीं वताले. फावता तेन्ना नवीन शार फिरून येतालीं. नवीनताय गळून पडून, ल्हवू ल्हवू आमीय बी थंय पोन्नी जावपाक लागलीं. सुहासान दिल्ले धमकेक भियेवन, हांव आतां शाळा सुटपाच्या सुमार वरभर पयलींच शाळेंत वचून बसूंक लागलें. आतां मिसेस राव म्हाका हांव परततना क्रॉस जावंक लागली, म्हाका मनांतल्यान ही बायल आवडली. एकदां उलोवंक लागत जाल्यार आयकनाशिल्ली. "खूब उलयतात तांचें मन निर्मळ आसता" हे उक्तीर म्हजो पूर्ण विश्वास आशिल्लो.

एके तिनसांजे बेल वाजली. दार काडल्यार म्हऱ्यांत मिसेस राव. अजापान हांवें म्हळें, "अरे? यो यो भितर यो. कशें कितें फावलें आयज येवपाक? आनी तुका पत्तो कसो मेळ्ळो म्हजो?"

"तुवेंच सांगला न्हय त्या दिसा बसींत? ती याद करून विचारीत विचारीत आयलें."

"हय हय. म्हाका याद उरूंक ना. अमीत खंय, ताका हाडूंक ना?"

"त्याखातीरच आयलां हांव मिसेस धुमे. चार-पांच दीस जाले अमित जोरान फडफडटा. आयज मातसो न्हिवला. शाळेंतसून येतना तुका ताचे क्लासींत शिकयिल्लो पोर्शन हाडूंक मेळटलो. आनीक चार-पांच दीस तरी हांव धाडचें ना

ताका इस्कोलांत."

"हय हय. नक्कीच! फाल्यांच हाडटां. पूण तुका कसो पावोवपाचो ? तुजो ॲड्रेस सांग."

"ॲड्रेस घे. पूण तुका कित्याक फावट? हांव फाल्यां हे सायडीक येतलेंच न्हय, अमितचें वखद बदलून घेवपाक, तेन्ना येवन व्हरतां."

"चलता. पूण अकस्मात जोर कसो आयलो?"

"थंडी आनी कांय ना."

सरबत घेवन अमित वाट पळयत आसतलो अशें म्हणत ताकतिकेन मिसेस राव गेली. दुसऱ्या दिसा अमितचे टिचरीकडसून व्हडलें पान भरून पोर्शन बरोवन हाडलें. इल्लीं इल्लीशीं हीं भुरगीं आनी केदी जड तांची दप्तरां, आनी कितलो तांकां होमवर्क! पूण भुरग्यांक कॉनव्हेटांत घालपाची झक मारली न्हय, ताका लागून सगळें नदरेआड करचें पडटा. म्हाका सुहासाली काकूट दिसताली. पूण काय उपेग नाशिल्लो. जेन्ना ताच्या वांगडा हेर वर्गांतलीं सुमार 105 भुरगीं तोच अभ्यास करतात तेन्ना काकूट दाखोवन फाटीं ओडप असोच अर्थ जाता. एकदां कितें ते शर्यतींत भाग घेतलो काय थांबप म्हळ्यार हार! "आमी अभ्यासाक लागून आमच्याच भुरग्यांच्यो भोयो भोयो करतात काय कितें?" होमवर्कांच्या कागदांचेर नदर भोंवडायत मिसेस रावान विचारलें.

"म्हज्याय मनांत अशेच विचार येतात. तांचे नाचपा खेळपाचे दीस आमी झोमून घेतात. पूण आनीक कसलो मार्ग आसां? भुरग्यांच्या फुडाराखातीर करूं नाका? व्हडलो जातकच, हेर वांगड्याभितर आमचो भुरगो फाटीं पडलो, सारको वयर सरूंक पावलो ना जाल्यार तो आवयक बापायकच दुशणां दितलो न्हय?"

"जाणां मिसेस धुमे, अशेंच आरते परते विचार करून म्हाकांय सामकें पुरो जाता. पूण प्रश्नांची जाप काय मेळना. बाय द वे, तूं पी.टी.ए. चे मिटींगेक येतली न्हय?"

"म्हज्या मनाक तर खूब्ब दिसता येवंचें म्हूण." हांवें म्हळें.

"पूण एकदां दनपारचो सुहासाक हाडलो काय इतले पयस परतें वचप जमना. ताकाय वांगडा व्हरूया म्हटल्यार तो काय एका जाग्यार तिगपी भुरगो न्ही आनी खंयतरी दवरूया म्हटल्यार कोणागेर दवरतलीं?"

"आमी अशें करूयां, मिसेस धुमे, एके मिटींगेक तूं सुहासाक म्हज्या घरा दवर आनी मिटींग अ‍ॅटेंड कर. फुडल्या हाका हांव अमिताक तुमगेर दवरतां आनी मिटींग अ‍ॅटेंड करता."

म्हाका मिसेस रावची आयडीया बरी लागली. तरी फुडलेच मिटींगेक घरांत सोयरी आयिल्ल्या कारणान म्हाका कांयच करपाक जमलें ना.

एके सुटयेच्या दिसा हांव अकस्मात मिसेस रावकडेन पावलें. मिसेस राव हॉलरूमांत पसारो घेवन बशिल्ली. एका व्हडल्या पाटल्यांत इल्लीं इल्लीं खेळणीं, पेन्सिलो, रबरां, शार्पनरां, कागदांच्यो सोबीत बऱ्यो तोपियो, बोमाडे, चॉकलेटी अशें कितें कितें सामान आशिल्लें. ती तें सामान मन लावन प्लॅस्टिकच्या 'बर्थ डे' बॅगांत भरताली.

"कसलो पसारो घेवन बसल्या?" हांवें हांसत हांसत विचारलें.

"परवां अमितचो बर्थडे आसा. आमी तो दुसरे तरेन मनयतात. शाळेंतल्या भुरग्यांची आर्थिक परिस्थिती बरी आसता. तांकां ह्या वस्तुंचीं किंमत नासता. पूण हीं पाकिटां घेवन आमी ढवळे वतात."

"ढवळे? कितें आसा थंय?"

"थंय अनाथाश्रम आसा. 'मातृछाया' नांवाचो. थंयच्या भुरग्यांक हीं पाकिटां अमित वाट्टा. आमचे सगल्याचे पोन्ने कपडे, बूट, बॅगो, दप्तरां, वॉटर बाटल्यो, सत्र्यो, गोधड्यो, पुस्तकां, कॅसॅटी, टिफिनां - अशें सगळें वर्सभराचें सामान हांव एकठांय करून दवरता आनी ताचीं पार्सलां बांदून तेंय बी ह्याच दिसा थंय दिवन येता. थंयचीं तीं अनाथ भुरगीं पळोवन पोटांत तुटटा. समाजाचो एक घटक म्हूण मातशीशी समाजसेवा ही आनी कितें?"

"आनी आमचीं भुरगीं. दर एकल्याच्या बर्थडेक शाळेंतसून हाडटात तें कशें फारीक करता तर?"

"शाळेंत चॉकलेटी वाटूंक लायता न्हय?"

मिसेस रावचे विचार म्हज्या काळजाक हालोवन गेले.

"पूण अमित आसा खंय? आयज सुटी म्हूण ताका व्हरूंक आयलां हांव. दीसभर खेळटलो सुहासावांगडा. मागीर सांजचो पावयतां."

"हांच्यानी व्हेला ताका केंस मारूंक. आतां येन्ना येवपी न्हय तो. बापायवांगडा

भोवून, आयस्क्रीम खावन बी येतलो."

"अमितची आनी म्हजी आपालिपा चलल्या."

"हय न्ही?" हांसत तिणें म्हळें. "आयज आसूं न्ही. फुडल्या आयतरा हांवूच घेवन येतां ताका. आसतलीं न्ही तूं घरा?"

"हय हय. मुजरत येयात." अशें म्हणत हांवेंय बी तिका कांय पाकिटां भरपाक मदत केली आनी घरा आयलें.

फुडल्या दोनूच दिसांनी गॅदरिंगाची नोटीस शाळेंत लागली. टिचरींनी आयटम ठरयले. सुहासाची एका डान्सांत 'वाघ' म्हूण निवड जाल्ली. ताजो ड्रेस मात म्हाका खंयच मेळ्ळो ना. लास्टाक शिंप्याकडल्यान बरीच म्हारगी शिलाय दिवन शिवून घेवंचो पडलो, तेन्ना सुहास आनी ताजी टिचर दोगांकूय उमेद जाली. हे सगळे त्रास नाका म्हूण मिसेस रावान अमिताक कित्यानच पार्ट करूंक दिवंक ना. तिकीटी मात ती व्हडल्या उमेदीन खपयताली. टिचरीन म्हज्या बोडार खपोवपाक मारिल्ल्यो तिकीटीय बी तिणेंच विकून सोंपयल्यो. म्हाका सू ऽऽ जालें. स्कूल कमिटींत इतल्यो म्हारगी तिकीटी खपोवपाचें काम जे हुशारकायेन पालकांचेर सोंपयिल्लें ताची तोखणायच करपाची. वयल्यान चडांत चड तिकीटी विकपी पालकांचो सत्कार करपाचीय बी येवजण आशिल्ली. ह्या सगल्या बोवाळांत एकामेकींकडेन भुरगीं दवरून मिटींगेंक वचपाचें उरलें तें उरलेंच.

पिकनिकचें थरतकच घरांत तेविशीं उलोवप सुरू जालें. इतल्या पयशिल्ल्या बीचार सुहासाक धाडपाचो काय ना म्हूण. "अमित वता जाल्यार सुहासाकय धाडूया. भुरग्यांक उमेद आसता." हांच्यांनी म्हळें. दनपरां मिसेस राव दिसतकच हांवें विचारलें.

"अमिताक धाडटली तूं पिकनिकेक? इतल्या पयस आनी तेंय बी बीचार म्हणटकच भंय दिसता न्हय?"

"कितें जालां जाणां मिसेस धुमे, त्याच दिसा हे ऑफिसाची जीप घेवन कोल्हापूरा वचपाचे आसात. हांवूय अमिताक घेवन वांगडा वचूंक सोदता. मातसो चेंजूय म्हाका म्हूण. जिवाक बरें दिसना म्हज्या."

"कित्याक? कितें जालां?"

"घरांत परतो एकदां पाळणो हालतलो." लजत लजत तिणें म्हळें.

"खरें? वा वा, खूब खोस भोगता आयकून. चला, वचून येयात. फ्रेश जातली तूं त्या चेंजान. आनी येतकच आमकांय बी सांग म्हटलें, नव्या जिवाची कशी कितें फर्माइश आसा ती. कितें खायन शें दिसता. हांवूंय करीन तुजे खातीर." हांवें हांसत हांसत म्हळें.

फायनल परिक्षा लागीं पावली. पोर्शन मेळ्ळो. तो पळोवनच पालकांचो जीव फुगार जालो. पूण ल्हवू ल्हवू हप्त्या हप्त्यान करून घेत सगल्यांनी आपणाल्या भुरग्यांक तयार केले. भुरग्यांनीय बी जाता तितल्यो बऱ्यो जापो बरोवन, आवय-बापायच्च्या कश्टांचें मोल राखलें. रिजल्टाचो दीस उजवाडलो. शाळेक सामकें जात्रेचें रूप आयिल्लें. भुरग्यांक रिजल्ट वाटले. हाजीर आशिल्ल्या भुरग्यांचे रिपोर्ट परते ऑफिसांत दिवन टिचरी घरा गेल्यो. दुसऱ्या दिसासावन मे म्हयन्याची सुटी सुरू जाताली. सुहासाचो बेस्ट बरो रिजल्ट पळोवन हांव खुशालभरीत जाल्लें. ताका एक व्हडलेंशें गिफ्ट घेवन दिवपाचें हांवें थारायलें आनी भायर सरलें. बसस्टॉपाकडे पावतना फाटल्यान मिसेस राव धांवट आयली. खर्शेत खर्शेत तिणें म्हळें, "मिसेस धुमे, अमितच्या रिजल्टाचो कितेंतरी घोळ जाला."

"हांव रावूं तुका?"

"नाका, नाका. पूण वतना वाटेर देवून हांकां मातसो रकाद दितां, म्हाका घरा पावपाक वेळ जातलो म्हूण? प्लीज... नाजाल्यार तांकां हुस्को जातलो."

"हय, दिता तर...."

"जाल्या बरोबर हांव पावता घरा सांग..."

"अमित?"

"ऑफिसांत....." अशें म्हणत ती आयली तशीच बेगीबेगीन ऑफिसाकडे गेली.

हांवें व्हडले उमेदीन मिसेस रावच्या घराची बेल दाबली. एका गंभीर तोंडाच्या मनशान दार काडलें.

"तुमीच मि. राव न्हय?"

"हय. तुमी?"

"हांव मिसेस धुमे. सुहासाली आवय. हो सुहास..."

"यो, यो. ही उलयता सदांच सुहासाविशीं. सुहास रिजल्ट जालो? पळोवंया."

हांवें रिजल्ट ताच्या हातांत दिलो.

"वा! वा! फस्ट नंबर!" सुहासाचे फाटीर शाबासकाय दीत ताणें म्हळें.

"सुहास, काकाच्या पांयां पड."

सुहासान वांकून पांयां पडटकच ताणें सुहासाक उकलून धरलो आनी भितर वचून एक व्हडली कॅडबरी ताच्या हातांत दीत तो भायर आयलो.

"हें बक्षीस. अशेंच सदां बरें शिकपाचें हं? बरें, मिसेस धुमे, कशें येवप जालें?"

"हांव अमितचे मम्मीचो रकाद घेवन आयिल्लें की...."

"अमितच्या रिजल्टाचो मातसो घोळ जाला आनी तिका येवपाक लेट जातलो म्हूण! न्हय?"

"हय. पूण तुमकां कशें कळ्ळें?"

"म्हाका याद जालां तें दर वर्सांचें कारण." सामको बाबडो जावन तो उलयलो.

हांव सामकेंच घुस्पलें. "म्हाका समजूंक ना."

"हें पळयात, तुमी म्हजे बायलेक केन्नाच्यान वळखतात?"

"सात-आठ म्हयने जाले आसतले."

"आमचो अमित कसो लागलो तुमकां?"

"म्हजी आनी ताजी आपालिपा चलल्या ती सोपच ना." हांवें हांसत म्हळें.

"हांव सोंपयता ती. मातशी भितर येयात."

"अं." हांव काचाबूल जायत भितर गेलें.

"हो पळयात आमचो अमित......" थरथरत ताणें म्हळें.

हांवें पळयलें आनी पळयतच रावलें. बेडरूमांत वंटीर एक तीन वर्सां पिरायेच्या चल्याचो हांसरो फोटो लायिल्लो आनी ताका ताज्या फुलांचो हार घातिल्लो.

"कितें?" हांव अजापान आनी भंयान आड्डलें. "तुमी कितें दाखयतात म्हाका?"

"सांगतां, सगळें सांगतां. आतां भायर येवन बसा."

हांव कडकडत भायरआयलें. ताळो सुकिल्लो. ताणें उदकाचो पेलो हाडून म्हज्या हातांत दिलो आनी सांगूंक लागलो -

"अमित ना ह्या जगांत." हांव उकत्या दोळ्यांनी पळयत रावलें. ताच्या

शब्दांचो अर्थ मेंदवामेरेन पावनाशिल्लो. घरांत चोयवटेन पातळिल्लो खेळ, भुरग्यांचीं पुस्तकां, खुंटयाळ्याक लायिल्ले सरयेर उडयिल्ले भुरग्याचे कपडे, मिसेस रावचें वागप, तिचें एकूय दीस चुकय नासतना शाळेंत यो-वच करप, शाळेंतल्या ल्हानांतल्या ल्हान गजालींचेर तिडकून उलोवप, अमितचो अभ्यास-संवयी, हट्ट, हुशारी, बाललिला, वाडदीस, खेळ सगलेविशीं इतलें कौतुकान सांगप. तकली घुंवपाक लागली. कसलोच संदर्भ खंयच्याच वागपाकडे जुळनाशिल्लो. मन पिसावल्लें. तकलेर कोणतरी व्हडल्यान तुतयो मारता अशें दिसूंक लागलें. मिसेस रावाक पिशी म्हणपाक मन तयार नाशिल्लें आनी मिस्टर रावाक फटींग म्हणपाक दोळे फटयनाशिल्ले.

"आमचो पयलोच चलो अमित." मिस्टर राव सांगूंक लागले. "बाळंतपणान हिका खूब्ब त्रास जाले. ऑपरेशन जाल्लें. रगत घालचें पडलें. ब्लडप्रेशर सामकें लो जावन चार-पांच दीस आय.सी.यूंत दवरचें पडलें. सामक्यो भोयो भोयो जाल्ल्यो. आनीक भुरगीं जावंचीं नात हें सत्य बी उजवाडाक आयलें."

"कितें?" हांवें कच्च करून आंग काडलें. "कशें शक्य आसा? थोड्याच दिसां पयलीं मिसेस रावान म्हाका ती गुरवार आसा म्हूण गूड न्यूज सांगल्या."

"तीय बी एक ट्रेजेडीच आसा. कसलीय गजाल तना-मनाक सामकी वेढून उरली जाल्यार तिच्या अस्तित्वाचो कसो भास जाता तशीच आसा ही गजाल.

फॉल्स प्रेग्नन्सी! फक्त भास! फक्त आशा! खरो आशिल्लो अमित. त्या टायमार ही गजाल आमकां खबर आशिल्ली. ताका लागुनूच अमितचे भंयकर लाड जाल्ले आनी तो सामको हट्टी आनी जिद्दी जाल्लो. आपूण मातसो जरी सूर काडलो तरीय आवय बापूय हातांतलें काम सांडून धांव मारतात, आपलो हट्ट पुरवतात हें त्या अजाण बालकाच्या केन्नाच लक्षांत गेलें. ताच्या हट्टीपणाचो त्रास जावंक लागतकच हें प्रकरण आमच्या लक्षांत गेलें. एकटो एक चलो, लाडान वगडोवचो न्हय म्हूण, हिणें कडक शिस्तीन वागपाचें थारायलें. आपलो हट्ट आतां सहज पुरो करिनात हें लक्षांत वतकच अमितान जमनीर आडवें उदारें लोळपाचें तंत्र सुरू केलें. अशींच एकदां आमी खेळण्यांच्या दुकानांत गेल्लीं. जाय तीं दोन-तीन खेळणीं अमिताक घेवन दिलीं तरीय तो आनीक व्हडल्या व्हडल्या खेळण्यांखातीर रडूंक लागलो. जमनीर लोळूंक लागलो. आमी ताचें आयकनात हें पळोवन ताणें

अकस्मात उठून मेळत त्या खेळण्यांचेर हात मारलो. बरींच खेळणीं सकयल पडून फुटलीं. रागान दोन थापटां मारून हिणें ताका फरफरीत ओडत व्हेलो आनी जिपींत व्हरून बसयलो. हांव त्या दुकानदाराचें लुकसाण फारीक करून भायर आयलो तोच अमित जिपीभायर आयलो आनी रस्त्यार तुरतुरीत चलत रावलो. हिणें म्हाका आडायलें, "वच नाका फाटल्यान. आमी येनाशीं पळोवन चार पावलां जावंचे पयलींच परततलो." पूण नशीब पळय तीं चार पावलां जावंचे पयलींच एक मोटरसायकलीन येवन ताका धडक मारली आनी तो जागच्या जाग्यार खलास जालो."

म्हजी तकली सून्न जाली. ताळ्यान येवन अडकल्ले हुंदके ओठांतल्यान भायर पडचे न्हय हाची धडपड हांव करूंक लागलें. दोळ्यांतल्यान गळपी दुकांक अंत नाशिल्लो. तो फुडें सांगूंक लागलो –

"आपणाल्या एकट्या एक पुताचो खून आपणाले शिस्तीखातीर जाल्लो हेंच हिणें तकलेंत घेतलें आनी तिगेल्या भ्रमिशटपणाची कथा सुरू जाली. "अमित जितोच आसा हें मतींत घट्ट धरून ती वागूंक लागली. कितले दोतोर जाले, कितले देव जाले पूण ओमथ्या कळशार उदक! हिका बसलेलो तो शॉक इतलो खर आशिल्ला, केन्नाच तिणें दोळ्यांत दूक हाडलें ना, केन्नाच हो हो करून रडली ना. हांवें पोसकें भुरगें घेवपाचो लेगीत खूब प्रयत्न केलो पूण ती म्हाका केन्नाच कशीच बधली ना. निमाणेकडेन दोतोरान आमकां सल्लो दिलो, तिका जाय तशें वागूं दी. कांय दिसांनी ती आपली आपुणूच ल्हवू ल्हवू निवळटली म्हूण! केन्ना केन्ना दूख्ख लेगीत इतलें नाजूक आसता, ताका सांत्वनाच्या उतरांचें वजें लेगीत सोंसना. त्या दुख्खाक तशेंच व्हावंक दिल्यार ताचो वेग आपुणूच ल्हव ल्हव जाता. म्हज्या तोंडांतसून फकत एक व्हडलो सुस्कार भायर सुटलो.

"ताका लागुनूच तिणें शाळेंत कितल्योय फावटी मारल्यो जाल्यार हांव कांय म्हणना. शाळेंतय हांवें टिचरींक, प्रिन्सीपॉलाक ही केस सांगून दवरल्या. थंयय कोणूच तिका तोडून उलयनात. "आतांच गेलो अमित पप्पावांगडा." अशेंच सांगतात. दर वर्सा रिजल्टाच्या दिसा मात ती वेळ करून येता. येतकच अमितचो पयलो नंबर आयल्ल्या कारणान खूश जावन टिचरीन ताका आपणाल्या घरा व्हेला अशें सांगता. रिजल्टाचो जाल्लो घोळ, आपणें दाखयिल्ली चूक, टिचरीन मागलेली

सॉरी सगलें बारकायेन सांगतली. कोणाक कसलोच दुबाव लेगीत येवचो ना अशे तरेन. फाल्यांच्यान परतो पयलो अंक सुरू....” सगली काणी आयकतां आयकतां म्हजो पालव गळिल्ल्या दुकांनी चिंब भिजिल्लो. आंवढो घोटून घोटून ताळो दुखतालो. तकली फातराभशेन जड जाल्ली. विचार करपाची शक्त गोठून गेल्ली. हात पांय मुयेल्ले. काळजाक घावे घेवन जगपी त्या मनशाकडे पळोवं नज जालें. “म्हाका दिसतालें...” ताणें फुडें म्हळें, “केन्नाय तरी तिका परिस्थितीचें खरेंपण समजून येतलें. ती तें मानतली आनी ह्या शोकांत काणयेचेर पडदो पडटलो. पूण पयलें पर्व सोंपचे पयलींच 'गुरवार आसा' ची समजूत करून घेवन तिणें दुसरें पर्व सुरू केलां. तुमकां ती परतीय मेळटली तेन्ना तुमीय बी कांयच खबर नाशिल्ल्या भशेन वागात. म्हजी तुमकां हात जोडून विनंती आसा. निमाणी, दोतोरांची विद्या सर्वश्रेष्ठ! म्हजेर उपकार करात.”

व्हडलो सुस्कारो सोडत हांवें हयकारी मान हालयली, पालवान तोंड पुसलें. ताचे नदरेक नदर दिवपाची तांक म्हज्यांत नाशिल्ली. पर्स उखलून आमकां अजापान पळयत राविल्ल्या सुहासाचो हात धरून हांव पांय घशटीत घशटीत घराकडेन चलूंक लागलें. एका अजस्त्र अदृश्य दुखखाची साक्षी असल्याच्या भारान वांकत वांकत!



9

# निर्णय

कॅम्पाक गेल्लें ऋचा परतें आयलें तें सामकें पुरो जावन. कॉलेजींत शिकता आसतानाचें हें 'सोशल वेलफेअर ॲण्ड अवेअरनेस' चे कॅम्पस करप म्हळ्यार दीस आनी रातीचें झुजय आसतालें आनी तरीय ऋचाक तें आवडटालें. कॅम्पाक वचपाक बरें दिसतालें. स्त्री मुक्ततायेचीं कामां करतना, झोपडपट्टींतल्या सामक्या तळांतल्या दळिद्री मनशांतल्यान भोंवतना ताका ताचेच दोळे उक्ते जाल्ल्याभशेन दिसताले. वर्सान वर्स दोळ्यार आयिल्ली भ्रमाची साय देविल्लेभशेन दिसताली. एक सत्य कळून आयिल्लें, सगळो लोक आपल्याभशेन आसना, बऱ्या बऱ्या घरांत रावपी, बऱ्यो बऱ्यो फॅशनी करपी आनी नाटकां - सिनेमाची उमेद भागोवपी! ते नेणटे पिरायेंत ल्हवू ल्हवू सत्य कितें आनी सपन कितें हें कळून येवपाक लागिल्लें. जगपाखातीर दोन वेळच्या शीत-कडयेखातीर लोक कितले कश्ट करतात, ल्हान पिरायेंत लग्न जाल्लीं बायलां कशीं जगतात हाचें गिन्यान जातालें. ऋचाचीं अनेक फ्रेन्डां ताज्या कामाक 'बेकारींतलो टायमपास' म्हूण चाळयतालीं.पूण ऋचा बेकारूय नाशिल्लें आनी ताच्याकडेन बेश्टो पासार करपाक वेळूय नाशिल्लो म्हणटकच तें फ्रेन्डांकडेन लक्षच दिनासलें. पूण उठटां बसतां दीसरात ताच्या नदरेमुकार दादल्यां कडल्यान चिड्डुपी बायलां, विंगड विंगड कारणांखातीर त्रास सोसपी, अन्याय आनी दुकां गिळून संवसार करपी बायलां आसतालीं. तांचे प्रश्न सोडयतना तांकां न्याय मेळोवन दितना ऋचा तांच्या दुख्खान इतलें एकरूप जातालें, घरांत आईबाबान तांच्या विरोधांत काडिल्लें एकूय उतर तें आयकून घेवपाक तयार नासतालें. तेन्ना

मात तें सामकें झगडूंक लागतालें. आईबाबा हांरून तो विशय विसरायेर घालतालीं. ऋचा भितर सरतानाच फोनाची रींग वाजली. पुरो जावन आयिल्ल्या ऋचान वाजेवन फोन उखल्लो. फोनावयलें उलोवप आयकतना ताचे दोळे अजापान जातात तशे व्हडले जाले. ओंठ दांतापोंदा चिड्डयत ताणें रागान फोन आपटिलो. कोणाचेर तरी फुगिल्ल्याभशेन ताचें तोंड फुगलें.

"कितें गो? कितें जालें?" आईन हांसून विचारलें.

"श्यँ! अर्थवची आत्या सांजची बॉम्बेच्यान येतली. म्हाका साडी न्हेसून यो म्हटलां."

"अशें! बरी रूंद देग-पालव आशिल्ली न्हेस आं..."

"आं!" ऋचा आईक पळयत रावलें. "आई, म्हाका येता तसो तुका राग येना? हें कितें वागप? म्हजें प्रदर्शन लायिल्ल्याभशेन करता अर्थव. सगलीं सोयरी पळयतलींच न्ही म्हाका लग्नांत. मागीर?..."

"अगो, सामकीं लागशिल्लीं सोयऱ्यां आयलीं आनी तांच्यानी खूब्ब आग्रो केलो जाल्यार अर्थव कसो न्हय म्हणटलो? म्हूण आपयता तुका तो. आनी कितें गो? तूं तांगेर वता तेन्ना प्रत्येक खेपेक तुज्या आंगांक कितें बुराक पडटात?" ऋचा पांय आपटीत भितर गेलें.

"हो साखरपुडो वोग्गीच करून दवरला घरच्यांनी. त्या कारणान तुगेलीं मेळत तीं सोयऱ्यां बायलेक दाखोवंक हाड, दाखोवंक हाड करतात आनी तूं म्हजें प्रदर्शन मांडटा." पिकिल्लें पान अर्थवाचेर मोखून मारतां मारतां ऋचा रागान फुतफुतलें. पानांक चिरपूट मारून अर्थवान तें सकयल उडयलें आनी तो हांसलो. "कार्यक्रम तर बेश्ट पार पडलो काय ना? आतां तूं कितेंय म्हण, कितलेंय रागार जा. आय डोंट केअर. पूण ऋचा तूंय तुगेल्या सोयऱ्या म्हऱ्यांत म्हजें प्रदर्शन मांड मगो. तुका हांवें कितें ना म्हटलां?"

"पुरो, पुरो. आयकत कोणूय. सोयऱ्यां म्हऱ्यांत कित्याक? त्या दिसा म्हगेल्या फ्रेंडाक तुका दाखोवपाक आमच्या ग्रुपावांगडा न्यू इअर सेलिब्रेट करपाक यो म्हटल्यार आयलोना...."

"हॅट! तीं तुगेलीं फ्रेंडां कसलीं सामकीं थर्डक्लास!"

"पुरो आं. तीं थर्डक्लास नाच्च जाल्यार. तांकां मात कळून आयलां, म्हगेलो चॉयस कितलो थर्ड क्लास तें..." मुमुरख्यांनी हांसत हांसत ऋचान म्हळें.

"ए ऽऽ परतें उलय, परतें उलय..." ताचेर हात उखलित अर्थव आड्डलो. आनी ऋचा हांसत हांसत गाडयेकडेन धांवलें. गाडयेंतसून देंवतना ऋचान गंभीर जावन परती याद केली, "पूण अर्थव तुका निमाणेकडे सांगता आं... हांव ह्यानफुडें तुमगेर कोण्णाक दाखोवन घेवपाक येवंचें ना. आयकलें? कोणें हाड म्हटल्यारूय तूं आपूण जावन कितेंय तरी निमित्त काड. पूण म्हाका आफोवं नाका. कळ्ळें? नाजाल्यार सगल्यां हुजीर इन्सल्ट जालो म्हूण झगडशी." ताणें ओंठ दांतापोंदा चिड्डोवन दार जोरान मारलें. अर्थवच्या कपलाक मिरयो पडल्यो.

"हांव आफयतलोच आनी तुकांय बी येवंचेंच पडटलें. कळ्ळें? म्हजी इत्सा पुराय जावंकच जाय." दर एका उतरांचेर जोर दीत अथर्वान म्हळें आनी आकांताची स्पीड घेवन, ऋचाक कितेंच उलोवपाची संद दिनासतना नाच्च जालो. ऋचा कच्च जावन तें उलोवणें, ती स्पीड पळयत रावलें. आजूय परतें तेंच? आनीक कितलो खेपो हो असो करतलो म्हाका? ताची तकली काम करना जाली. भेरेल्ल्या मनान तें सवकास सोपणां चडून घरा आयलें. आईच्या तोखणायेच्या प्रश्नांक बेश्टेंच हूं हूं करीत बाथरूमांत धांवलें.

नयना वांगडा ऋचा कॅफेंत बशिल्लें खरें पूण दोगांयच्या म्हऱ्यांतली कॉफयेचीं कपां थंड जाल्लीं. ल्हवू आवाजांत ऋचा आपणाल्या मनांतल्यो गजाली नयनाक सांगतालें आनी नयन अजापान आयकतालें. खरें तर ऋचाच्या ह्या सगल्या प्रवासाचें तेस्तुमीन एकटें नयनच आशिल्लें. युथसर्कलाच्या, स्त्री मुक्तताय आंदोलनाच्या, सोशल वेलफेअरच्या सगल्या कार्यक्रमांक दोगांयजाणां वांगडांच आसतालीं. दोगांयची दाट इश्टागत आशिल्ली सगळे जाणा आशिल्ले. दोगांयचे बी.ए. चें निमणें वर्स चलतालें. तेन्नाच ऋचाक सोयरीगत आयली. आपूण जावन मागणी आयिल्ल्या कारणान ऋचाच्या आईबाबान भुरगो पळयलो आनी सगळी पसंती जातकच लग्न थारायलें. हय ना, हय ना, करता करता निमाणें वर्स सोंपतकच लग्न ही ऋचाली अट मान्य करून लग्न पक्कें जालें. व्हडल्या दबाज्यांत साखरपुडो जालो. ऋचाची अट एकदां तांच्यानी मान्य केली म्हणटकच तांची 'आतांच

साखरपुडो' ची अट ऋचाक गुपचूप मान्य करची पडली. साखरपुडो जातांच अर्थव ताका आपल्या वांगडा सगळेकडेन व्हरूंक लागलो. केन्नायतरी ताच्या वांगडा फिरूंक वचपाक, नाजाल्यार नाटक सिनेमाक वचपाक ऋचाक आवडटालें. पूण दीसभर ताच्या समस्त सोयऱ्यांकडेन जावपी दर एका फंक्शनाक येन्नाच्यानच वचपाक ऋचाक आवडनाशिल्लें. आफोवन लेगीत ऋचा येना हें पळयतकच अर्थवान दुसरीच आयडीया काडली. तो आपणाले आवयक ऋचाचे आवयकडेन उलोवंक लायतालो. वरमांय आफयता म्हणटकच ऋचाली आवय भायले भायर ऋचा येतलें म्हूण सांगून सोडटाली. वयल्यान तोंड भरून तोखणायो करताली.

"कितलीं बरीं मनशां तीं. ऋचा कितें गो तुजे नखरे? आपणाले एकटे एक सुनेक घेवन मिरोवंचें अशें तुजे मांयक दिसता आसतलें म्हूण आफयता ती. तातूंत कितें जालें? पूण पळय मगो तिची सोबीत रीत. प्रत्येक खेप फोन करून परवानगी विचारता ती. खरें तर 'ऋचाक धाड' अशी ऑर्डर सोडली जाल्यार आमी कितें करूंक शकतात? पूण दुसऱ्याच्या मनाचो पयलो विचार करता तीं."

ऋचाल्या गळ्यांत आवंडो येतालो. 'ही म्हाका बागोवपाक त्या अर्थवची खेळी आसा.' पूण तें कांयच उलोवंक शकनासलें आनी उलयल्यार विश्वास दवरतलो आशिल्लो कोण? "पयर मगो, आमचे ते हुंडाविरोधी आंदोलन, एम.टी.व्ही.चेर दाखयतालें तेन्ना अर्थव आमगेर बशिल्लो." थंड च्यावयली साय चमच्यान काडीत ऋचा नयनाक सांगूंक लागलें– तेन्ना आईन म्हळें, जावंयबापू आतां तुमकां सांबाळून रावचें पडटलें. ह्या वर्सा ऋचाक आंदोलनाची खुबूच संवय लागल्या. तेन्ना तो हांसून म्हणूंक लागलो, "लग्नापयलीं लागूं दी कसली संवय लागपाची ती आई, तुमी भियेवं नाकात. लग्न जातकच हांव सारकी म्हाका जाय तशी लायणीर हाडटलों. ह्या असल्या बेकार आनी फालतू कामांखातीर ताका वेळच मेळूंक दिवंचो ना. "नयन आमी करतात तीं कामां बेकार आनी फालतू गो? आनी म्हाका लायणीर हाडटलो म्हळ्यार हाका आवडटा तितलेंच हांवें करचें आनी म्हाका आवडटा तें -- तातूंत म्हजो स्वास अडकला आसल्यारूय सोडून दिवंचें."

"ना गो ऋचा, तशें म्हणूंक नासतलें ताणें... तूं इतलें शिकिल्लें भुरगें... तो तसो वागलो जाल्यार तूं पटोवन दी मगो ताका, तूं जें काम करता तें तुका कितलें

म्हत्वाचें आसा म्हूण! प्रंपच सुखाचो जावंक जाय जाल्यार पयलीं बायलेचें मन सांबाळूंक जाय हें ताका शुअर खबर आसतलें."

"अगो नयन, म्हाका त्या दिसा कॉलेजींत व्हरूंक आयिल्लो न्हय तेन्ना हांव तीन-चार प्रोफेसरांवांगडा उलयत उबें आशिल्लें. तें पळोवन ताणें इतलें व्हडलें भाशण दिलें म्हाका - तो खंय ताचे बायलेक आनी फुडें शिकूंक दिवंचो ना आनी नोकरीय बी करूंक दिवंचो ना. म्हळ्यार म्हजो खंय त्या थर्डक्लास प्रोफेसरावांगडा संबंद येवंचो ना. हाका कशें कळ्ळें गो, इतले शिकून डॉक्टरेट घेतलेले ते, म्हज्या आनी ताच्या बापायच्चे पिरायेचे ते प्रोफेसर थर्डक्लास म्हणून? आनी ताच्या ऑफिसांत कितें थर्डक्लास मनशांच नासतलीं? त्या दिसा ताचेकडेन म्हजीं पयलीं झगडीं जालीं."

"बरें बरें. आतां मातशें थंड जा पळोवंया. तो तुका म्हणटा तशें तूंय बी म्हण मगो ताका हांव जाय तशें बदलतलें म्हूण. पिशें खंयचें? इल्ल्या इल्ल्या गजालींखातीर येन्नादर झगडूंक लागलें जाल्यार फुडें कितें करतलें?" नयनान म्हळें आनी थंड च्या चो कप तोंडांक लायलो.

शेटीकडल्यान निमाणी वस्त घेवन भायर सरतना ऋचाक दिसलें, अर्थवची आवय, आपल्यापरस चड अर्थवचीच आवड लक्षांत घेताली. दोन-चार दिसां पयलीं साडयो आनी शालवाची खरेदी करतना लेगीत अशीच गजाल जाल्ली. ऋचान पसंत केल्ल्यो जवळ जवळ सगल्योच साडयो अर्थवान बदलूंक लायिल्ल्यो. शालवाचो रंगूय ताका आवडूंक ना.

"अरे, तुका न्हेसूंक जाय तर तो? आसूं दी पळोवंया ताणें काडला तो रंग." अशें आवयन म्हणटकच "वा! वा! वस्त म्हजी आनी ती म्हाका आवडटा तशी सजोवं नाका तर?" अशें ताणें म्हणटकच ऋचान दोळे व्हडले करून ल्हवू म्हणिल्लें, "हांव म्हळ्यार कितें वस्त आसा?" ताचें नाक चिमटेन धरून हालयत ताणें हांसून ताचें उलोवप नदरेआड केलें पूण शालू बदलूंक लायलो म्हळ्यार लायलोच. ऋचा सामकें बावून गेलें. आयज वस्तींचो डिजायन काडटना तें वोग्गी रावलें. ताचें नर्व्हस जावप अर्थवच्या आईच्या लक्षांत गेलें. "वोग्गीच ह्या कोल्ली भुरग्याक वांगडा हाडलें." अशें ताचे आईक मनांत दिसलें.

"अर्थव, तूं म्हजो आनी ऋचाचो ड्रायव्हर कम अॅकाँउटंट म्हण आयला न्हय? मागीर मदीं मदीं तोंड घालूं नाका. ही बायलांची खरेदी बायलांक करूं दी."

"अगे आई, म्हजी बायल म्हणटकच म्हजेच आवडीच्यो वस्ती घालून मिरयतली न्हय?"

"आनी ते बायलेक कसलीच आवड-निवड ना अशें धरून तूं चलला काय कितें?" ऋचान गंभीर आवाजांत विचारलें. ताचो अर्थवच्या आईच्या मनाक खोल खंय तरी स्पर्श करून गेलो. "ह्या बहुमोल वस्तुंची निवड करपाचो चान्स एक फावटी तुका दिलो, आतां त्या वस्तुंच्या आवडी-निवडीचें कितें व्हडलेंशें घेवन बसलां गो तूं?" कमरेन बागोवन नाटकीपणान अर्थवान म्हळें आनी ऋचाचो प्रश्न मातीमोल करून उडयलो.

एकटे धुवेचें लग्न म्हणटकच ऋचाचे आवयन व्हडल्या दबाज्यान लग्नाची तयारी केल्ली. चार बॅगो भरून शिवण केल्ली. रांदपाच्या आयदनान चमच्यापासून तें ओव्हन, मिक्सर, फ्रिज, वॉशिंग मशीन, कपाटां, खाटी, शिवणाची मशीन, ऋचाचो कंम्प्यूटर, व्हीडीओ, कलर टिव्ही सगळी खरेदी जाल्ली. आतां फकत सोयऱ्यांच्या मानापानाच्या कपड्यांची खरेदी उरिल्ली. साडयांची खरेदी करपाखातीर आई ऋचाचे मावशेकडेन दोन दिसांखातीर गेल्ली. नयन दाद दिना हें पळोवन जेवण जातकच ऋचा बाबाच्या बेडरूमांत आयलें. घरांत आपूण आनी बाबा दोगूच जाणां आसा हीच संद घेवपाची ताणें थारायलें. बाबान शांत मनान ताच्या मनाचो जाल्लो सगळो घुस्पागोंदळ समजून घेतलो.

"बाबा, हांव जो मेरेन अर्थवचीं सगलीं म्हणणीं मान्य करीत रावतां तो मेरेन तो म्हज्यो तोखणायो करता, म्हजे लाड करता पूण ज्या खिणाक हांव मातशें लेगीत ताच्या विरोधांत उलयतां, म्हजें मत वेगळें आसा अशें सांगता तेन्ना तो पिसावता. मागीर वाद, झगडीं, फुगप, दिसाचे दीस उलोवप ना अशें तो करता. जो मेरेन हांव नाक घासून 'सॉरी" मागना तो मेरेन अशेंच चलता. बाबा, लग्ना पयलीं जर असो, इतलो हट्टी सभाव, स्वामित्वाची इतली प्रखर भावना तर लग्नाउपरांत कितें जातलें? म्हज्या पोटांत भंयाचो गुळो आयला. म्हाका सोल्यूशन जाय बाबा. तो एकटो एक पूत - सगलें घरदार ताच्या सांगणेचेर नाचता. तेखातीर

तो तसो जाला आसूंक जाय. पूण म्हजें कशें निभवतलें बाबा, म्हाका भंय पडला."

"ऋचा, भियेवपाची गरज ना. जबाबदारी पडली काय आपुणूच भुरगे निवळटात. सारको विचार कर." ताची तकली मोगान पोशेंत बाबान म्हळें. "तूं लेगीत एकटी एक धूव आमची. तुजी वाढ लेगीत ताचेभशेन जाल्या. तेखातीर तुकां तशें दिसना मगो? लग्न म्हळ्यार तडजोड जायच. ती करीनासतना फुडें संवसार करूंकूच मेळना."

"मागीर ती सद्दां हांवेंच करची?"

"हय शाण्या. सुरवातेक तर ती तुकाच करची पडटली. तो सांगता ते निर्णय ताणें घेतलेले म्हूण तुका मानवना, काय खरेंच तुजेर ते अन्यायकारक आसात हाचो सारको तपास घे. आपल्या आपूण गांठ सुट्टली. खंयच्च्या प्रस्नांक कितलें म्हत्व दिवपाचें हेंय थारोवपाक तूं ल्हवू ल्हवू शिकतलें. लग्ना पयलीं ज्यो गजाली सामक्यो म्हत्वाच्यो कश्यो दिसतात लग्नाउपरांत तश्यो त्यो दिसनांत. कांय भियेवं नाका. सगळें बरें जातलें." ऋचा जड पावलान बेडरूमांत आयलें पूण ताच्या मनावयलें वजें इल्लेंय कमी जावंक नाशिल्लें.

टेलराकडेन ब्लावज शिवपाक आनी साडयांचें फॉल बिडींग करपाचें काम दिवन ऋचा निकतें परतल्लें. सोफार बसून ताणें थंडगार उदकाची बाटली तोंडांक लायली. तितल्यान फोन घणघणलो – "ऋचा, मावशी आयल्या पूण्यासाकून. ती तुका पळोवंक सोदता. सांजचें घरा यो. डार्क कलरची साडी न्हेस, गळ्यांत नाजूक खडो घाल." ऋचाच्या कपलाची शीर तटतटली. ताणें अर्थवाक पुराय उलोवंक दिलें आनी एकच वाक्य उलोवन फोन कट केलो. "हांव येवंचें ना." तें एकदम बाबाकडेन गेलें. "बाबा, अर्थवचो जर ऋचाक धाड म्हणून फोन आयलो जाल्यार भायले भायर हय म्हणू नाका."

"अगो, पूण अशें कशें करूंक मेळटलें? आनी पंदरा दिसांनी तुजी परिक्षा सोंपतकच पयलो तेर्म आसा. ताका आतां अशें दुखोवप बरें न्हय."

"बरें आसा, तुमी उखलूं नाकात फोन. हांव फोनाकडेनूच बसून अभ्यास करता. हांवूंच उलयता."

"बरें, पूण सारको विचार करून उलय. बारीक बारीक गजाली खातीर तुमचे

भितर येन्नादरच्यान वांकडेंपणां नाका. मागीर त्रास जातलो. मम्मी लेगीत घरा ना तुजी."

"रिलॅक्स बाबा, हांव सारकें उलयतां. ओ. के."

पूण दुसरे खेपेक फोन उखलतकच अर्थवचो रागीश्ट दबको आवाज कानार पडलो. ताचे वयल्यान तो रागान कसो फणफणत आसतलो ताची कल्पना ऋचाक आयली.

"सगल्या सोयऱ्या म्हऱ्यांत कवतूक करूंक सोदतां तुजें म्हूण म्हज्या माथ्यार बसूंक सोदता काय कितें गो? म्हाका येना म्हणपाची तांक जाली कशी तुजी?" "अर्थव, दोन दिसांचेर परिक्षा आसा. फेल जालें जाल्यार ज्या सोयऱ्यां म्हऱ्यांत कवतूक करूंक दिसता न्हय, तांचे म्हऱ्यांत म्हजें आनी तुजें नाक कातरतलें. आनी हांव पास जायसर लग्न जावचें ना हें जाणां तूं. लग्न पोस्टपोन करपासारकी परिस्थिती हाडपा इतलो पिसो न्हय तूं." अर्थव सामकोच पिसावलो. "जाय ना फेल! कांय नाक कातरचें ना म्हजें. कित्याक ती डिग्री? वंटीर फ्रेम करून लावपाक मगो? ती अंदू लायली कितें आनी फुडल्या वर्सा लायली कितें... कसलो फरक पडटलो? तूं ग्रॅज्यूएट जा अगर नाका जांव. आय डोंट केअर."

"तुका नॉन -ग्रॅज्यूएट बायल चलतली?"

"हय! कळ्ळें?"

"पूण म्हाका चलचें ना. हांव येवंचें ना." ताणें फोन कट केलो. सांजची दाराची बेल आयकून, ऋचा आवय आयली समजून दार काडपाक धांवलें. दारांत आशिल्ली अर्थवची आवय आनी एकदम सादी पूण कडक दिसपी बायल.

"तुमी? येयात, येयात." खजील जावन ऋचान म्हळें. आपणे येना म्हटलें म्हूण ही आपूण जावन आयली काय कितें?

"ताचें अशें जालें ...."

"आसूं न्ही. अगो, म्हाका खरेंच याद उरली ना तुजी परिक्षा परवाच्यान सुरू म्हणून sorry हं. बरें केलें तूं येवंक ना तें, बेश्टोच अभ्यासाचो वेळ वेस्ट जातलो आशिल्लो. आनी आतां लेगीत तुजो टायम घेवपाक, तुजेकडेन येवंक ना आं आमी. आमचें तुजे आईकडेन मातशें काम आशिल्लें. तूं चल अभ्यास कर. आईक धाड पळोवंया. परिक्षा जातकच पोटभर उलोवंया आं." ते कडक चेऱ्याचे

बायलेकडल्यान इतलें मोगाळ उलोवप? ऋचा आयकत रावलें. एकदम भानार येवन ताणें म्हळें, "आई ना घरांत. ती दोन दीस जाले मावशेगेर गेल्या. साडयांचें शॉपिंग करपाक. आतां येवपाचीच आसली. पूण अजून मेरेन काय येवंक ना."

"बरें तर, आमी वतात. आमकांय बरींच कामां सोपोवपाचीं आसात." अर्थवचे आईन म्हळें.

"मातशीं रावात न्हय. कितेंतरी थंड गरम तरी घेयात. भितरच येतात? किचनांत?"

रांदचे कुडींत जेवणाच्या मेजार बसून दोगांय जाणां ऋचाक नियाळटालीं. ऋचान रोकडेच फोव केले. हुनहुनीत बटाट फोवांच्यो बश्यो भरल्यो. च्याचें कप म्हऱ्यांत हाडलें आनी सकयलच्यान हॉर्न वाजूंक लागलो.

"ह्या अर्थवची सदचीच घाई! ऋचा सांग ताका. जालें, येतात म्हूण!"

ऋचान वयल्यान कितलो हात हालयलो पूण हॉर्न बंद जालो ना.

"तो वयर पळयच ना."

"वाजोवं दी, कितलो वाजयता तितलो. मातसो फुगला तो." मावशेन हांसत हांसत म्हळें "तूं यो पळोवंया आमचे वांगडा खावपाक!"

खावन जाता म्हणसर मावशेन हेर चवकश्यो केल्यो. परिक्षा केन्ना सोंपता तें विचारलें. "ऋचा, परिक्षा सोंपता त्याच दिसा पयलो तेर्म करूया. त्या दिसा तूं आमगेरच यो जेवणांक." ऋचाचो येवपाचो दीस निश्चित करून ती उठली.

"ऋचा, तुका best luck दिवपाक आयिल्लीं अशें समज आनी आई येतकच फोन करूंक सांग." अर्थवच्या आईच्या कपलाक लावन तें दोगांयच्या पांयां पडलें. "बरे पेपर बरय..." तांणी आर्शिवाद दिलो. परत सकयल्ल्यान हॉर्न वाजूंक लागलो. चड कर्कश! "हो अर्थव म्हणजे सामकोच. सगळें कितें तें तो सांगता तेन्ना, सांगता तशें जावपाक जाय" तोखणायेन मावशेन म्हळें आनी ती सोपणां देवंक लागली.

हे मावशेबद्दल अर्थव ऋचाकडे जायते खेपेक उलयल्लो. ल्हान वयांतच, बेबद्या, रातदीस बडोवपी आनी लफडेबाज घोवाकडल्यान घटस्फोट घेवन, करारीपणान वेगळी रावपी हे मावशेचे धिटायेचें सगल्यांक कवतूक आशिल्लें. त्या उपरांत मावशी केन्नाच लग्न जावंक ना. तो विशय तिणें मनांतल्यान सामको हद्दपार

केल्लो.

ऋचाचे पेपर बरे जाले. पूण आतां ऋचाच्या तोंडार मोर नाचपाच्या जाग्यार उदासी आनी भंय नाचता हें पळोवन आईक खूब हुस्को जालो.

"ऋचा, लग्नाची तयारी तुज्या मनाप्रमाणे जायना गो?"

"जाता गे आई...."

"मागीर तूं इतलें गंभीर आनी दुख्खी कित्याक दिसता? म्हाका सांग मगो..."

"आई..." इतलोच उलो मारून ऋचा तिका वेंग मारून रडत सुटलें. लग्ना मागीरच्या जिविताचो भंय, आकांताचो हुस्को ताका सांगपाक जमना जालें. आईक मात दिसलें, एकटी एक धूव आवयलें घर सोडपाच्या दुख्खान बाबडें जालां.

"वोगी राव, वोगी राव अशेंच जाता गो शाण्या. अशेंच जायत आयलां. तरी पळय, तुजो मावोडो गांवांतल्या गांवांत आसां हें तुजें कितलें बरें नशीब! नाजाल्यार लोकांल्यो धुवो लग्न जावन खंयच्या खंय वतात, परदेशाक लेगीत! आमकां जाय तेन्ना एकमेकाक मेळूं येता न्ही." ऋचाच्या मनार मणभर वजें चडलें. आईक कितें आनी कशें सांगू हेंच ताका उमजना जालें. तें आवयचे मांडयेर ओग्गी पडून रावलें.

ऋचा, अर्थव, नयन आनी अर्थवाच्ये इश्ट पयल्या तेर्माची नोटीस दिवन आयलीं आनी अर्थवचे मावशेन फोन करून ऋचाक सांजे जेवणाक येवपाची याद करून दिली. ऋचाचें तोंड कडू कडू जालें. जेवतना लेगीत ताका तोंडांर ओडून हांशें हाडचें पडलें. जेवणाचे सुरवातेक मदत म्हूण ऋचान वाडपाक सुरवात केल्ली. भाजी वाडटकच अर्थव, "शी कितली उसपिल्या भाजी पिसांटाभशेन" म्हूण उठलो आनी दुसऱ्या ताटार वचून बसलो.

ऋचान वाडपाचें काम बंद केलें आनी बसून रावलें. ताळ्यांत आयिल्ले आवंडे ताणें उदकाच्या घोटावांगडा गिळ्ळे. घरा वतना मावशेन ताका ल्हवू फाटीं ओडलें आनी फुतफुतली - "कितें गो ऋचा, बरें दिसना काय कितें तुका? जेवूंक ना सारके तूं." "ना, बरें दिसता, मातशें पुरो जालां इतलेंच!" अशें म्हणत ताणें नाटक निभयलें. मावशेन ऋचाचे फाटीर मायेन थापटिलें आनी ऋचा सू ऽऽ जावन घरा परतलें.

नयनाक घेवन, ऋचान आयज ब्यूटिपार्लरांत वचपाचें थारायिल्लें. लग्नादिसा हेअरड्रेसर, मेंदी काडपी, मेकअपमन जाय आशिल्ले तें थारावपाक. नयनाकडेन गेल्लें ऋचा दाराक कुलूप पळोवन परतलें. सुटी आसा म्हणटकच नयन घराच आसतलें अशा अदमासान तें आयिल्लें. पूण नयनाक पयलीं फोन करून मागीर येवपाक जाय आशिल्लें हो विचार ताच्या मनांत आयलोच. एका फाटल्यान एक विचार, पिसांटाभशेन ताच्या तकलेंत येवंक लागले. विचारांच्या चक्रावतीन तें सामकें घुस्मटून गेलें. भेरयल्ल्या मनानच तें रस्तो क्रॉस करूंक लागलें आनी कर्कश आवाज करीत एक गाडी ताका तेंकून उबी रावली. भान नाशिल्ल्याभशेन भिरांकूळ नदरेन तें गाडयेकडेन पळयत रावलें.

"अगो, ऋचा तूं?" गाडयेंतल्यान मावशेन देंवत म्हटलें. फाटल्या गाडयांचे हॉर्न वाजपाक सुरू जाल्ले तशे मावशेन ताका आपले गाडयेंत धुकल्लें आनी ड्रायव्हराक गाडी सोडपाक सांगली. ऋचाली अवस्था पळोवन मावशेक अजाप जालें. हांचे कितेंयतरी जालां हें मावशेक उमगलें. ऋचा, नाका नाका म्हणटा आसतना ताका ती घेवन घरा आयली.

"घरांतलो दरेक मनीस, लग्नाच्या खंयच्या ना जाल्यार खंयच्या कामांखातीर भायर सरला. हांव घरांत एकटेंच आसां. चल तूं." मावशेन अशें म्हणत मायेन फाटीर हात भोंवडायतकच ऋचाक भडभडून आयलें.

"हें पळय, कितेंय प्रॉब्लेम आसल्यार म्हाका अर्थवची न्हय, तर तुजी मावशी समज आनी सगळें सांग... पूण तुजें हें बाबडें रूप म्हज्यान पळोवं नज जालां..." आपणालो सगळो भंय, घडिल्ले सगळे प्रसंग ऋचान सांगले. मातशें हलकें दिसतकच तें उलोवंक लागलें – "हांव जाणां मावशे, हांवें जर अर्थवचें दरेक उलोवप, वागप तागडेंत तोलपाचो यत्न केलो जाल्यार पदरांत कांय पडचें ना. तशें पळयल्यार हांवूय काय छत्तीसगुणी भुरगें न्हय. पूण अर्थवाक जाय एक सुंदर बावलें. ताणें जाय तेन्ना चावी भरतकच ताच्या इत्सेप्रमाण सजून-धजून, ताच्या वांगडा वावुरपी एक बावलें. ते बावलेक सोताची आवड-निवड, मतां, इत्सा, स्वातंत्र्य, कितेंच आसूंक जायना. अर्थवचो हुकूम होच ते बावलेचो श्वास आसूंक जाय. ते बावलेन आपणालें एक मत जरी मांडलें, एक इत्सा जरी प्रकटायली, एके आवडीचो उगडास जरी केलो तरी ताज्या स्वामित्वाचे भावनेक धक्को बसता. म्हाका, म्हजो

आवाज असो पुरून चावयेचे बावलेभशेन जल्मभर रावपाक जमचें ना. घरांतले हेर सगळेजाण म्हाका फकत तडजोड कर - तडजोड कर इतलोच मंत्र सांगत आसतात."

"मागीर बरोबरच सांगिनात तर तीं?"

"तांच्या म्हणण्याप्रमाण आमचो साखरपुडो जालो, आमी सगळेकडेन भोंवल्यांत. आतां जर म्हजें लग्न मोडलें तर दुसरेकडेन सोयरीगत जावपाक त्रास जातले. म्हज्या सुवार्थाखातीर हें लग्न मोडून समाजांत आई-बाबांचें नाक कातरचें हेंय म्हाका मानना. बरें, ही सोयरीगत मोडून दुसरी केली जाल्यार त्या मनशाचो सभाव कसो आसतलो कोण जाणां? इतलें जाणां आसुनूय हांव लग्नाच्या बंदखणींत रावपाक बळ एकठांय करतलें आशिल्लें. पूण जितले चड दीस हांव ते बंदखणींत उरतलें तितल्यो ताच्यो वणटी लांब आनी घट्ट जायत वतल्यो आनी म्हज्या हातापायांतली शक्त आनी मनाची जिद्द क्षीण जायत वतली."

"मागीर आतां कितें करचें म्हणटा?" प्रश्नाच्यो दोनूय बाजू आपुणूच उलयतल्या ऋचाक मावशेन गंभीर जावन विचारलें.

"मावशे, काल रातच्या लास्ट-शोक अर्थवान म्हाका व्हेल्लें. थंयच्यान परततना आमी एका गार्डनांत मातसो वेळ तेंकली. जरी ते आडवेळेक थंय कोणूच नासलो तरीय त्या पब्लीक जागेचेर अर्थवच्यो कांय मागण्यो हांवें पुराय केल्यो नात म्हूण रागान अर्थवान म्हाका थंयच सोडलें आनी तो गाडी घेवन घरा गेलो. रातच्या साडेबारांक हांव रिक्शा करून घरा आयलें. आई-बाबाक कांय कळचें न्हय म्हूण रिक्शा नाक्यार सोडली आनी चलत घरा आयलें. लग्नापयलीं जर हो मनीस इतली दादागिरी करता तर लग्ना उपरांत हो कितें करतलो? म्हाका म्हज्या संवसारांत पयशायेदें मोल तरी आसतलें मूं? सगळी रात म्हजो दोळ्याक दोळो लागूंक ना. विचार करून करून तकली फुटपाक पावल्या."

"हें मात अतिशय वायट केलें अर्थवान."

"आईबाबाच्या समादानाखातीर, प्रतिष्ठेखातीर जरी हांवें ओगगी रावन लग्न केलें तरी कांय वर्सांनी तो म्हाका कसल्याय कारणांनी वासी मार करचो ना हाची कितें गॅरेंटी? मागीर आईबाबाच्या समादानाचें, प्रतिष्ठेचें हांव कितें करूं? तेन्ना जर पदरांत भुरगींबाळां आसलीं तर प्रश्न आनीक कठीण जातलो. लग्न थारायल्याबरोबर

जर जाल्लें तर म्हाका ताजो सभाव कळचो नासलो. पूण इतले म्हयने मर्दी गेले म्हूण तो कळून आयला. कितें करूं? हांव कितें करूं?"

"ऋचा" गंभीर आवाजांत मावशेन म्हळें, "आमकांय बी हाच्या ह्या सभावाचो खूब त्रास जाता. ताका निवळावपाक आमी घरच्यांनी एक प्रयोग केल्ल तांच्या वांगडा तशेंच वागपाचें. तो दुसऱ्याकडेन वागता तशें - दर एक अडचणींत तो दुसऱ्यांक अडोवन दाखयता. तशें ताका दाखोवपाचें. दादागिरींत उलोवपाचें. मागीर कांय वेळान सोडून दिवपाचें. पूण हें पटोवन दिवन, तूं हें अशें वागता तेन्ना दुसऱ्याच्या मनाक कशें दिसता आसतलें तें तुजेवयल्यान चित म्हूण."

"पूण मावशे, एकदां प्रंपच्यांत पडली काय एक दुसऱ्याक हीं कमीपणां दिवपाची, हार-जिताची संवय कशी तोलतली? दुसऱ्याक दुख्ख दिवप आनी तातूंत समादान वा आनंद मानप हें कशें जातलें?"

"खरी आसा तुजी म्हणणी. घोवाबायलेचें नातें हेर सगळ्या संबंदापरस चड लवचीक आसता. तातूंत तिरस्कार, आसूरी आनंद, क्रूरता असल्या गजालींक जागो नासता."

"मागीर हांव कसलो निर्णय घेवं. मावशे हांवें उलोवंचें न्हय, पूण तुमचेर जेन्ना प्रसंग आयलो तेन्ना तुमी काळीज घट करून घटस्फोटाचो निर्णय घेतलोच न्हय? तो घेतना तुमच्या काळजाक भितरल्या भितर कितलो उजो पेटला आसतलो तुमकांच खबर! पूण तशाच घट काळजांत तुमी म्हाका निर्णय घेवपाक मदत करची नात?"

"बाय, आपलो निर्णय जेन्ना आपुणूच घेता तेन्ना सगले बरे वायट परिणाम आपल्याकच भोगचे आसतात. हांगा सगलें दुसऱ्याचें आसा. आयज म्हजेर, रगतापरस घट्ट माया करपी मनशान जर फाल्यां म्हाका म्हटलें, पळयनासतना तुवें उजो पेटयला तर हांव खंय वचून जीव दिवं?"

"ओह, म्हळ्यार म्हजो निर्णय म्हाकाच घेवंचो पडटलो?" जड पांयान ऋचा उठलें आनी चलत गेलें. ताका राव म्हणपाची ताकद मावशेकडे नाशिल्ली.

"ऋचा पत्रिकेचें प्रूफ पळोवन घे गो, म्हणजे फायनल प्रिटींगाक पत्रिका दिवपाक बरी." बाबान म्हळें.

"आई, बाबा, मातशे म्हऱ्यांत बसा. हांव कितें सांगतां तें आयका. मागीर प्रूफां तपासूया." आनी ऋचान कांयच लिपयनासतना मनांतली सगळी खळबळ मावशेक सांगिल्ली तशी आईबाबाकय बी सांगली. अर्थव ताका बागेंत सोडून गेल्ल्याचो, कालचो प्रसंग लेगीत सांगलो. मावशेची जाल्ली भेट आनी जाल्लें उलोवणें लेगीत ताणें लिपयलें ना. "तो तुका तसो सोडून गेलो ही ताची खरीच व्हडली चूक. पूण आतां झगडीं करून फायदो ना." आईन समजावणेन म्हळें.

"असो सल्लो जर दिवपाचो आशिल्लो तर कित्याक ल्हानपणा सावन म्हाका स्वतंत्र व्यक्तिमत्व दिल्लें? तुमकां चलो ना? अशें कोणेंय विचारतकच हो कितें आमचो चलो अशें म्हणत म्हजेकडे बोट कित्याक दाखयतालीं तुमी? चल्या भुरग्यापरस कितें कमी आसा आमच्या ऋचांत? अशें परत परत म्हणून म्हज्या मनांत आपूण चल्यांच्या, दादल्यांच्या इतलेंच म्हत्वाचें आसा अशें कित्याक ठसयलें. जेन्ना स्त्री मुक्ती आंदोलनांत भाग घेवपाक हांव परत परत वतालें, वोतान तळमळून तांचीं कामां करतालें, तांच्या हक्काखातीर झगडतालें तेन्ना कित्याक करूंक दिलें तें सगलें? कित्याक सांगलें ना हो फकत एक टायमपास म्हणून धाडटा तुका आमी? खरें अशें नासता. चलयो केन्नाच चले जावंक शकनात. पयलीं सावन कमीपणां घेवपाची संवय कित्याक लायली नात म्हाका? कित्याक केन्नाच सांगलें ना, स्त्री मुक्ती आनी प्रंपच ह्यो नाण्याच्यो दोन बाजू आसात. एका वेळार खंयची तरी एकच बाजू वयर येवंक शकता."

आई-बाबा दोगांयचो मेंदू सामको भेरेल्लो. ऋचा आईचे मांडयेर तोंड लिपोवन रड रड रडलें. हुंडक्यां हुंडक्यांनी रडटना आपल्या मनावयलो ताण ल्हवू ल्हवू कमी जाता अशें ताका दिसलें. आईन हताशपणान फाटल्यान वण्टीक तकली तेकयली आनी तिका जाणवल्लो भंय, निराशा, अपेक्षाभंग आनी अपमानाच्या खोल फोणकुलांत गरगर करून फिरपी धुवेची जीण! ती जाणां आशिल्ली, जर तिणें ऋचाक लग्न जावपाक फोर्स केलो जाल्यार ऋचा मोन्यांनी सवो चडटलें पूण तरीय बी तिचें आवयचें मन तशें म्हणपाक केन्नाच तयार नाशिल्लें.

"पूण तरीय ऋचा, एकदां अर्थवाकडे तूं ह्या विशयाचेर कित्याक उलयना?"

"कितें उलोवं? म्हजेकडेन लग्न जावपाक जाय जाल्यार तुका तुजो सभाव बदलचो पडटलो अशें सांगूं ताका?"

"तुज्या मनांत जो निर्णय पयलींच घेवन उडयला आनी ताजेर तुका फक्त आमचो हयकारी ठसो जाय तो निर्णय तूं आपूण जावन ताका सांगना कित्याक.. पळोवंया कितें बरें घडटा जाल्यार..."

"हय ऋचा," बाबान मान्यताय दीत म्हळें. "तोडप सोपें, पूण जोडप महाकठीण... आयक आईचें."

ऋचान आईचें उलोवणें मान्य केलें.

"अर्थव. म्हाका तुजेकडे खूब गंभीर विशयाचेर उलोवपा जाय. तूं मातसो सिरियस जाशी?" ऋचाचो चेहरो, आवाज पळोवन अर्थव खऱ्यांनीच सिरियस जालो.

"अर्थव, म्हाका तुजो पुरूशी घमेंडखोर, दुसऱ्यांक तुच्छ लेखपी सभाव आवडना. दुसऱ्याचो हर प्रयत्नांनी अपमान करीत रावप ही गजाल मानवना आनी हांव म्हाका तुजे परस इल्लेंय बी कमी मानना, मानचेंना. पूण तुजो हो असलो सभाव निमाणे सुवातीमेरेन पेलून व्हरूंक शकचें ना."

"श्यँ! हें तुजें म्हत्वाचें उलोवप? जालें? तुज्या चेहऱ्याकडे पळोवन म्हाका दिशिल्लें, कितें जालें तुका म्हणून. सामकेंच मगो तूं फकाणेर."

"अर्थव, हीं फकाणां न्ही. तुका हातूंत कांयच म्हत्वाचें दिसना?"

"ऑफकोर्स ना. समानता–दुसऱ्याच्या घरांतच सोबता. ती म्हळ्यार घराभायर आंदोलनां, भाशणां, वाद करून गांवार उलोवपाची गजाल. प्रंपच चलता घोवाचे मर्जेर, ताची इत्सा, ताचें मत, ताचो मान, ताचो निर्णय बस्स. प्रस्न आनी विशय दोनूय सोंपले."

"ना. म्हजो प्रस्न थंयच सुरू जाता."

"तुका दर दिसा म्हजेकडेन झगडपाचें आसा?"

"तसो वेळ येवंचो न्हय म्हण तर म्हजे यत्न चलल्या."

"हें पळय ऋचा, लाड वेगळे आनी स्वामित्व वेगळें. खंयचेंच चलयेच्या ताटांतलें मांजर हांव केन्नाच जावपी न्ही. म्हजो सभाव आसा तो आसा. तो बदलचो ना. मानतलें जाल्यार मान नाजाल्यार वासी मार."

"कितें?" दुकांनी उपाट भरिल्ल्या दोळ्यान ताणें म्हळें.

"ऑफकोर्स! गेट लोस्ट अदरवायज.." ताजें उतर सोपच्या पयलीं खस्स करून दुकां पुसून, पर्स उकलून ऋचा चलूंक लागलें. फाटल्यान कानार आदळपी उल्यांक दाद दिनासतना. घटपणान, ताठ मानेन!

सकाळीं ऋचाक जेन्ना जाग आयली तेन्ना वोत सामकें खर जाल्लें. आईन कुडींत पड्डे ओडून काळोख केल्लो. दार उगडटकच मिक्सराचो आवाज कानार पडलो. म्हऱ्यांत कॅलेंडर फडफडटालें. वोताच्या किरणांनी दोळे बिलबिलले. पूण तितल्यान तारीक दोळ्यांत गेली. फाल्यां दुसऱ्या तेर्माची तारीक. ऋचाल्या जिवाचो गुळो जावन आयलो. व्हडल्या दुयेंसांतसून उठून आयिल्ल्यावरीं ताका दिसलें. हताशपणान तें ल्हवू ल्हवू किचनांत येवन बसलें.

"उठलें बाय, यो बस. च्या दिता.." सदचे रांदपिणीन उलो केलो.

"म्हाका इतलो वेळ कित्याक न्हिदूंक दिलें? आई खंय?"

"व्हनीबाय भायर सरली. तूं रातचें न्हिदेंत खूब्ब पिरंगतालें म्हूण तुका उठोवं नाका अशें सांगलां. कितें जाता बाय, बरें दिसना जिवाक?"

"कांय ना. अशेंच. बरें दिसता आतां." अशें म्हणत च्याचो मग घेवन ऋचा परत कुडींत आयलें. पड्डे कुशीक काडून उजवाड केलो. फॅन फास्ट केलो. वारें आंगार बसतकच ताका बरें दिसलें. घरांत कोणाची जाग नासली. किण्ण घर खावंक येतालें. अचकीत ताचें लक्ष टेबलापोंदच्या कोयराच्या बास्केटीकडेन गेलें. कप तसोच दवरून तें तशेंच धडपडत उठलें आनी ताणें बास्केट ओमथिलें. तपासपाक हाडिल्ले पत्रिकेचे कुडके वाऱ्यान सगळेकडेन उडूंक लागले. ऋचा अजापान पळयत रावलें. ल्हवू ल्हवू ताचे तकलेंत उजवाड पडलो. आईबाबान जगाची पर्वा करिनासतना धुवेचे वटेन कौल दिल्लो. आनंदान ताका कितें करूं आनी कितें नाका अशें जालें. दोळ्यांतसून रकपी आनंदाच्या दुकांकडेन लक्ष दिनासतना तें गॅलरींत धांवलें. खर वोतान कढटल्या डांबरी रस्त्यावयल्यान येवपी आईबाबाची वाट पळयत!

●●●

## 10

# पानगळ

उमा प्लेटफॉर्माचेर देंवलें तेन्ना पावस शिरंतरांनी रकतालो. थंड वारें मारतकच तें पोटांतल्यान शिरशिरलें. ताणें सत्री सांसपिली. गाड न्हिंदेंत आशिल्लेभशेन जांबयो दीत दीत ल्हवू ल्हवू दिश्टीआड जाली. फलाट किण्ण जालो. दर एक बांकार कोण नाजाल्यार कोण, कितेंय तरी कांबरून न्हिदिल्लो. पांय पोटांकडेन कवळून. ट्यूबलायटीचो धुंगरेल्लो उजवाड मंद फांकतालो. तितलीच जाग! फलाटूय बी अर्द्यापरस चड भिजिल्लो. सुक्या जाग्यारूय जायते देह गुठली करून आड पडिल्ले.

उमाक आंगावेल्या स्वेटरांतल्यान लेगीत शीं खातालें. वाऱ्याच्या माऱ्यान कान गप्प जाल्ले. एक मरतमडें सुणें मात थरथरत तिका वांगड दितालें. भेरेल्ल्या बोटांनी उमान नामो बरयिल्ली चीट पर्सितल्यान काडली. नामो वाचलो. आतां ह्या आड वकतार वाहन तरी मेळटलें काय? ताळ्याकडेन येवपी आंवडे गिळत तिणें बॅग उखल्ली. महेशाचें आनी भुरग्यांचें आयकूंक जाय आशिल्लें. तिचें मन निर्शेलें. "श्यॅ, कित्याक आयकूंक जाय आशिल्ले? एकदां काय 'ते तुमगेले सांडलेले आपा आसूंक शकतात. खात्री करून घेवपाक ताकतिकेन येयात' अशा मजकुराचें संस्थेचें पत्र येतकच आपूण कशी ओग्गी रावंक शकतली आशिल्लीं? ती ताकतिकेन चलत रावली. फलाटाभायर आसमंत काळोखांत बुडून गेल्लो. 'रिक्शा स्टॅंड खंय आसतलो? तिणें विचार केलो. परत पत्र काडून त्या मंद उजवाडांत, दोळे बारीक करून करून वाचलें. सत्री हालतकच, उदकाचो सपकारो तिचेर बसलो. पत्रांत बरयिल्ल्याप्रमाण 'उजवीकडे वळतकच' खऱ्यांनीच कांय रिक्शा उब्यो दिसल्यो.

महेशाक जरी रजा नाशिल्ली तरी नितिनाक सुटी घेवन तिच्या वांगडा येवपाक हरकत नाशिल्ली. अशी खंत तिका दिसली.

पयलीं खंयचेय संस्थेचें पत्र येतकच नितिनच वांगडां येतालो. महेश फकत एक दोनदांच आयलो आसतलो. पूण आतां दोन-दोन म्हयन्यांनी अशें वचून वचून नितिनूय बी वाजेल्लो. माधुरीक तर खंय व्हरपाची सोयच नाशिल्ली. मातशें कितें जालें काय ताजें रडपूच सोप नाशिल्लें. तें आपाक खूब जीव करी. ताणेंच ताका ल्हानाचें व्हड केल्लें. ह्या वर्सा-देड वर्सांत तें मात सामकें बाबडें जावन गेल्लें. उमा पांच सात पावलां चललें आनी थंयच उबें रावलें. जाग्यारसूनच तें उलो करीत रावलें. काळखांत कितें तरी हालल्लें. कोणतरी उठून उबे आशिल्ले रिक्शाकडेन गेलो आनी रिक्शा फरफरत ताच्या म्हऱ्यांत येवन रावली. सत्री बंद करतना साप्प परतली आनी पांयाकडेन उबें आशिल्लें सुणें उमाच्या नदरेक पडलें. बॅग घेवन ती बेगीबेगीन रिक्शांत चडली. "मातसो राव आं" तिणें रिक्शेकाराक म्हळें आनी पर्सींतलें टिफीन काडलें. तकली बेजार जाल्ल्या कारणान टिफीन खायनासतना तसोच उरिल्लो. सगळें टिफीन त्या सुण्याक घालून तिणें रिक्शाकाराक नामो सांगलो. उदकान भरिल्ल्या खळग्यांतसून वाट काडीत रिक्शा संस्थेच्या दारांत उबी रावली. पयशे फारीक करून उमा गेटीकडेन आयली. गेटीक कुलूप नाशिल्लें. तिचेखातीरच तें उगडें दवरलेलें. वारांदांत बल्बाचो मंद दुयेंतकारी उजवाड फांकिल्लो. उमान गेटीवयले बेलीचो बटन दाबलो आनी गेट उगडून ती भितर सरली. ती वारांदांत पावता म्हसणर संचालिका दार उगडून भायर आयली.

"हांव उमा नायक...."

"हय, हांव हांगासरली संचालिका. यो भितर, खुबूच भिजल्या तूं..." उमा भितर गेली.

"निमाण्या पॅसेजरांत आयली दिसता."

"हय, रजा नाशिल्ली. ती तजवीज करता म्हणसर सगळ्यो गाडयो सुटल्यो. शेवटाक ही निमाणी मेळ्ळी."

"पयलीं कपडे बदलून घे."

उमाय बी तेंच करूंक सोदताली. संचालिका बाईन तिका भितर व्हेली. कपडे बदलून उमा भायर येवन बसली तेन्ना फांतोडेचीं तीन वरां जाल्लीं.

"हांव फोनार तुजेकडेन सगळें उलयल्लीं आसा. आतां फकत तुजी खात्री जातकच जालें. तागेल्या मेंदवाक खूब्ब मार लागला. ताचो सायड-इफेक्ट सगळे कुडीचेर जालो. केन्ना केन्ना ताच्या नदरेंत वेळखिचे भाव दिसतात. केन्ना केन्ना सामके अनवळखी. सगळे अवयव घळघळल्यात. पॅरॅलिसिसचो पेशंट आशिल्ल्याभशेन हातपांयांची कसलीच हालचाल जायना. ताचीं सगलीं कामां आनी निवळसाण दुसऱ्यांक करची पडटा. ताणें हांगा येवचे पयलीं चार-पांच हॉस्पिटलांनी ट्रीटमेंट घेतल्या. शेवटाक होपलेस केस म्हूण ताका हांगा आश्रमांत ॲडमिट केला."

उमा हें सगलें आयकून काचाबूल जाल्ली. मनावयलो, देडा वर्साचो ताण कमी जाला काय वाडला हें कळना जावन, हातान तोंड लिपोवन ती रडपाक लागली. संचालिका बाई समजूतदार आसली. फाटल्या देड वर्सासावन उमान टि.वी.चेर दिल्ल्यो जायराती, दर एका नेमाळ्यांत फोटोसयत छापून हाडिल्ल्यो बातम्यो, पोलिस-स्टेशनार, हॉस्पिटलांनी मारिल्ल्यो फावटी, विंगड विंगड अनाथाश्रमांत, रूग्णालयांत फोटो म्हायती सयत वाटलेल्यो छापील जायराती आनी दर एका म्हयन्यात सगळेकडेन केल्ले फोन - सगळ्यांची संचालिकाबाईक खबर आशिल्ली. मांवाखातीर उमान घाण दवरलेलो जीव तिणें पळयिल्लो. ताका लागूनच जेन्ना तिगेल्या आश्रमांत त्या फोटो आनी म्हायतीकडेन जुळपी पेशंट आयलो तेन्ना तिणें ताकतिकेन उमाक आफोवन घेतलें. गरम कॉफी तिणें आपल्या हातानी करून हाडली - तितल्यान उमा बरीच सांवरली.

"आं, आं पिये आनी आमच्या गेस्टहावसांत न्हीद काड. सकाळीं तुका पेशंटाकडेन व्हरता. देवान बरें केलें आनी तो जर तुजो मांवच आसा जाल्यार तूं एकली ताका कशी व्हरूंक शकतली?"

"पेशंट जर आपाच आसत जाल्यार हांच्यांनी रोकडो फोन करूंक सांगला. ते येतले गाडी घेवन." आयज मेरेन तसो फोन करपाचो वेळ उमाचेर येवंक नासलो. आतां लेगीत तिचें मन आशा-निराशेच्या ल्हारांचेर वयर -- सकयल जातालें. कॉफी पितकच तिका मातशें बरें दिसलें. उब आयली. काल ऑफिसाक वतना आपणे जें किते खालां ताचेर आतां मेरेन कांयच उश्टवूंक ना हाचो तिका उगडास जालो.

"आनीक जाय इल्ली?" संचालिकाबाईन विचारलें.

"नाका, पुरो." तिका आश्रमाच्या गेस्टहावसांत पावोवन संचालिका बाईय न्हिदूंक गेली. पुरो जाल्ले कुडीन, भिरांकूळ मनान हांथरूणार पडल्यारूय न्हिदपाचें न्हयकारलें. 'दुराव्यान मोग वाडटा' आपाची पेटंट म्हणणी आशिल्ली. ताका लागून आपाकडेन उमाचो वाद जातालो. आनी आतां दैवान तांच्या नशिबांत हो दुरावो बरोवन कोणाचो मोग वाडयला? कोणाली सत्व परिक्षा पळयता नशीब? तांच्या पुतान तांकां सोदपाक आकांत केलो. शीम मेर दवरी नासतना सगळो वाठार आनी भोंवतण पिंजून काडली. वांगडा उमाय धांवतालें. स फुटांची दणदणीत काया, एक दीस देवळांतसून येतना, चलत घरा वचपाचो हट्ट करता आनी मागीर केन्नाच घराय पावना, देवळाकूय परतना आनी खंयच मेळना! हाका कितें म्हणप?

भायर शेवण्यांचो किलबिल सुरू जालो तेन्ना निकतीच उमाच्या दोळ्यांचेर झापडी येवंक लागिल्ली. तिका केन्ना न्हीद लागली कळ्ळेंच ना.

संचालिकाबाई तिका उठयताली तेन्ना घडयाळांत आठ जाल्लीं. उमा ताकतिकेन उठली, "दोळो लागुनूच उरलो." संकोचान ती फुतफुतली. "पयलीं तो लागलो कितल्यांक ती याद कर." बाई हांसत उलयली. "तयार जावन तूं ऑफिसांत यो.. तितल्यान पेशंटाच्यो मॉर्निंग ड्यूटीज आटपून आमी ताका थंय हाडटात." बाई गेली. उमाचें विचारचक्र परतें फिरूंक लागलें. आसतलो काय तो आपाच? सुटी काडून काडून आपूण आपाक सोदूंक हांगा – थंय धांवट आसा. सापडटलो काय तो हांगा तरी? येतली काय देवाक आपली इल्ली तरी काकूट? उमाच्या मनार मणभर वजें चडलें. बेगीबेगीन ती बाथरूमांत धांवली.

ऑफिसाक वतकच, म्हर्‍यांत हुनहुनीत च्या चो कप आयलो. "घे". नायकबाईन म्हळें. "येता तो. तितल्या म्हणसर ही तागेली फायल वाच." तोंडांक कप लायता लायता उमान फायल वाचली. 'देडा वर्सां पयलीं अपघात जाल्लो तो मनीस, मेंदवाक आकांताचो मार बसल्या कारणान विकलांग जाल्लो. स– स म्हयने तीन विंगड हॉस्पिटलांनी ट्रीटमेंट घेवन, लास्टाक 'होपलेस केस' म्हूण त्या आश्रमांत दाखल जाला. तिणें विचार केलो, आपणें आनी महेशान सगल्या हॉस्पिटलांच्यो सदांच पासयो मारल्या. खंय आनी केन्ना चुकत रावलो तो आमकां? उमा विचारांत गूल्ल जाली.

"योऽ" बाईच्या उंचेल्या आवाजान तिणें आंग काडलें. व्हील - चेअरावयल्यान एक जाणटो मनीस आयलो. 'आपा?' बरोचसो तसोच. उमा थरथरत उबी रावली. झप् करून फुडें सरली. सगलो जीव दोळ्यांत हाडून पळोवंक लागली. खुर्चेच्या दांड्यार हात दवरून ओणवें जायत तिणें ताचो हात पळयलो. ह्या मनशाच्या दाव्या हाताकय बी स बोटां आशिल्लीं. आंगठ्याक आनी एक आंगठो. तिणें ताचो कुडतो वयर काडलो. मान सोंपता थंय तसोच एक काळो ल्हासो. बस! इतल्योच दोन कुरू ताका वळखुपाक.

"आपा ऽऽऽऽ" तिणें काकुळतेन साद घालो. दोन निर्विकार दोळे खिणभर तिजेकडेन वळ्ळें आनी परते भायर पळोवंक लागले. तिका सामकें रडें आयलें. कसली अवस्था जाली ह्या मनशाची. लांब रूंद, बरे भलायकेचो, स फुटी मनसी! गडगडाट करून हांसपी, घब्ब घब्ब करून शिंवाच्या ऐटीन चलपी आनी गर्जना करून उलोवपी मनीस, व्हील चेअरचेर? खंय लिपलें तें हांशें? खंय गेली ती जगपाची उमेद? ती चलपाची तरतरी? उमान रडत रडत बाईक एकूच प्रस्न केलो, "हो मनीस हांगा पावला तेन्ना ताचेकडेन कसले कपडे आशिल्ले? ते खंय दवरले?"

"ताचेकडेन कपडे नाशिल्ले. तो हॉस्पिटलाच्या कपड्यांत आशिल्लो. मुळांत तो शर्ट पॅन्टींत आशिल्लो खंय. पूण ते अपघातांत सामके पिंजिल्ले. रगतान भरिल्लीं तीं बोंदेरां हॉस्पिटलान भायर मारलीं. ही लुंगी आनी कुरतो आमी आश्रमाचो, आमचे सोयीखातीर न्हेसयला."

आपाचे फाटीर हात दवरीत, सकयल वाकत उमान म्हळें, "आपा, म्हाका वळखले? हांव तुमची सून, महेशाची बायल - उमा."

बाईंचेय दोळे भरून आयले. उमाचे फाटीर हात दवरीत तिणें म्हळें, "हें पळय ताचेकडल्यान जाप मेळची ना."

उमान उसासो सोडलो. "आनी कसली खात्री करपाची आसा, काय वचूं दी ताका भितर?"

"वचूं दी." उमान म्हळें. पूण तिचो चेहरो हांसगे जालो.

"हांगा आयिल्ल्याक कितेंच उलोवंक ना ते?"

"ना, व्हडल्यान कांयच ना. तागेले ओंठ मात हालत आसतात. पूण आयकूंक मात कांयच येना. तागेली शिर्विस करतल्या सर्व्हेंनांक ताणें केन्नाच इल्लोय त्रास

दिवंक ना. केन्नाच व्हायोलंट जावंक ना."

उमाचें काळीज भरून आयले. तसोच नाशिल्लो काय आपा? भुरग्यांची जापसालदारकी तर ताणें तांच्या भुरगेपणांसावनच आंगार घेतिल्ली. "हांव आसतना तुका जाय कित्याक चेडवां? तूं रांद आनी थंडपणान ऑफिसाक वच. भुरग्यांचें हांव करतलो. म्हाकांय बी ह्या वयार घोळूंक नाका?" अशें आपा सदांच उमाक सांगी. दोनूय भुरग्यांक भरवप, न्हाणोवप, भोवूंक व्हरप, शाळेंत पावोवप - हाडप, तांचो अभ्यास घेवप - सगलें आपा मोगान आनी उमेदीन करतालो. ती व्हड जातकच लेगीत हेर जाणट्यांभशेन ताणें तांकां शिस्तीच्या नांवान त्रास केलो ना. तांकां पूर्ण स्वतंत्रताय दिली आनी तरीय बी तांचेर कडक नदर दवरली, ताका लागूनच, घरांत केन्नाच कोणांक, आपा आडमेळो कसो दिसलो ना. आनी केन्नाच नाकाय बी जालो ना. दर एकल्याक दीसभर, ह्या ना त्या गजालींखातीर सल्लो घेवपाक आपा जाय दिसतालो. ताणें केन्नाच कोणाक आपणाली उबगण येवंक दिली ना. उमा जेन्ना गांवांकडेन इल्लेंशें घर बांदूंक सोदताली तेन्ना महेश कसोच आयकूपाक तयार नाशिल्लो.

रीण काडून घर बांदप ही कल्पनाच ताज्यान सोसूं नज आसली. पूण हो वन-बेडरूमाचो फ्लॅट दिसानदीस पावचो ना, स्वतंत्र घराची गरज आपाक समजून आयली आनी आपानच तिका उमेद दिली. गांवांकडल्या घराची कल्पना इतले तोखणायेन महेशाचे तकलेंत घातली, महेशान लोनाक अप्लाय केलें केन्ना आनी घर बांदूक सुरवात केली केन्ना ताचें ताकाच कळ्ळें ना. गांवांकडेन परत्यो परत्यो फावटी मारून कामाचेर नदर दवरून आपानच तें काम अद्यर्याच्या वयर करून काडलें. आतां इल्लेंशें काम उरिल्लें आनी तितल्यान तो अपघात घडून आयिल्लो.

"मागीर कितें ठरयतात?" बाईन विचारलें.

"म्हाका खात्री जाल्या हे आपा आसात म्हूण. तरी हांव हांकां आनी भुरग्यांक आफोवन घेतां. तांचीय खात्री जांव दी. कारण आपा गोरोच आशिल्लो."

"रेडियेशन थेरपीक लागून तोंड काळेकिट्ट जाता पेशटांचें, केस झडतात."

"तांचीय खात्री जातकच रोकडेंच व्हरता आमी तांकां."

"बरें आम्मा." समादानान बाईन म्हळें. "एक नेम मात तुमकां पयलींच सांगून दवरतां. ग॰॰दा काय ताका तुमी हांगासरलो व्हेलो, काय खंयच्याच कारणान

तुमच्यांनी ताका परतो हांगा हाडूं नज."

"कित्याक धाडतलीं परतीं आमी? परतो धाडपाक इतलो सोद घेतला ताचो?" तळतळून उमान म्हळें.

"हें पळय, रागार जांव नाकात. हांवें फकत नेम सांगला." उमा समादानान घरा फोन करपाक उठली.

उमा हांथरूणार जोरान जाम जावन पडिल्ली. आंगाचो उजो जातालो. पूण दोळो लागनाशिल्लो. जोराच्या भ्रमान कसल्यो कसल्यो यादी येताल्यो. सपनां पडटालीं. आजूच घडिल्ल्याभशेन.

महेशान आनी भुरग्यांनी 'होच आपा' असो निर्वाळो दितकच तांच्यांनी आपाक सोमतो घरा हाडलो. नितीन आनी माधुरीन घराक आंब्याच्या पानांचें तोरण बांदिल्लें. रांगोळ्यो घातिल्ल्यो आनी पणट्यो पेटयिल्ल्यो. आपाचें परतें घरा येवप म्हळ्यार तांगेली ती दिवाळीच आशिल्ली. वयर चौथे माळयेर व्हीलचेअर उकलून हाडटा म्हणसर महेशाक आनी नितीनाक नाका शेवट जाल्लो. तोंडांक सामको फेस आयिल्लो. पूण सगळें घर तेन्ना गातालें, थय्या थय्या करून नाचतालें. उमेदीन चिंब जाल्लें, घरांत दुकांक, घामाच्या पावळ्यांक, तोंडाच्या फेसाक पाळो नाशिल्लो. उमान आपाक राट दाखयली. पिठाचे गुळे ओंवाळून भितर घेतलो. आपालो चेहरो कोरोच उरलो. भुरगीं आजुबाजूक शेवणीं कशीं चिंवचिंवतालीं. ताका हें दाखय, तें दाखय करतालीं. कसल्यो कसल्यो गजाली सांगतालीं, यादी काडटालीं, पूण आपाले थंड नदरेन घायाळ आनी बाबडीं जायत जायत ओग्गी जातालीं. परतीं ओडून हाडलेल्या उमेदीन प्रस्न विचारतालीं. आपाचे यादीन सगळ्यांनी ह्या तेंपार कितलीं दुकां गळयलीं, कितलीं तळमळ्ळीं तांचे तांकांच खबर आशिल्लें. तांच्यानी थरयिल्लें, आपाक सामकें बरें करूंक शकली ना जाल्यारूय ताका बरेंचशें नॉर्मल करतलीं आनी जिणेची उमेद ताका परती मेळोन दितली म्हूण.

कोणेंतरी उमाच्या माथ्यार झेलाची पट्टी दवरली - उमा पिरगली. भ्रमांतली व्हीडीओ टेप फुडें सरकली. "हांवें VRS घेतल्यार कशी?" उमान एक दीस जेवतना विशय काडलो. 'म्हणटकच तुमकां तिगांकूय तुमगेलीं कामां -अभ्यास सारको करूंक मेळटलो. तशीय बी म्हजी शर्विशंक पांचूच वर्सां उरल्या.

तांच्याखातीर नर्स दवरल्यारूय सगळें घर तिजेर सांडून वचपाक म्हाका बरें दिसना. उमाली VRS चीआयडीया सगल्यांक मान्य करचीच पडली. दिसाचीं चोवीस वरांय उमान आपणांक आपाले शर्व्हीसेंत बुडयलें. घरचीं हेर सगळीं आपणाल्या विश्वांत गूल्ल जालीं. आतां मात दर एकल्याक घर ल्हान आशिल्ल्याची जाणविकाय जावंक लागली. अदृश्याभशेन वावुरपाचे आपाले संवयीची सगळ्यांक याद येवंक लागली. भुरग्यांक, आपणाल्या मित्र मैत्रिणींक घरा हाडटना लज दिसूंक लागली. मित्रांचे नदरेंतली सदची काकूट आनी सहानुभूती नाका अशें दिसूंक लागलें.

उमाचो जोर वाडलो आनी उमा बडबडूंक लागली. तिका कळ्ळेंच ना हांसत्या खेळट्या घरांत केन्नासावन अशीं वादळां घुमूंक लागलीं? भुरग्यांक दीसभर आपालीं कामां करप ही ख्यास्त कशी केन्नाच्यान दिसूंक लागली? चोवीसूय वरां आपाच्या आनी भुरग्यांच्या कामांत गूल्ल जाल्ली उमा, आपणाल्या वाट्याक येच ना हें लक्षांत वतकच महेश केन्नाच्यान नाराज जावंक लागलो? पयल्या स म्हयन्यांतली दर एकल्याची आपाक बरें करपाची उमेद ल्हवू ल्हवू नाच्च जाली. दर एकल्याच्या तिडकिचेर उपाय म्हूण उमान 'नर्स दवरपाची' आयडीया काडटकच "आतां तुवें VRS घेतकच पयलींच घराच्या लोनाचे हप्ते म्हाका एकल्याक भरचे पडटात. तातूंत आनी नर्सीचो खर्च कित्याक वाडोवया?" अशें म्हणत महेशानच ती आयडीया कॅन्सल केली.

उमाक इंजेक्शन दिल्ल्याचें जाणवलें. खोल खंयतरी बारीक कळ आयली. कितलो वेळ पासार जाल्लो देव जाणां! पूण सगळेकडेन किण्ण आशिल्लें. इंजेक्शनाखातीर आसूंये पूण उमालो जोर एकदम न्हिवलो. ती घामान चिंब भिजली आनी सगल्यांनी सुस्कार सोडलो. दुसऱ्या दिसा, ऑफिसाक सुट्टी मारून नितिनाक आनी कॉलेजाक दांडी मारून माधुरीक तिची आनी आपाची सेवा करतना पळोवन उमा भुल्लुसलें. तिका गाढ न्हीद लागली पूण दोळो उक्तो जालो तो भयण भावाच्या कडाक्याच्या झगड्यान. उमा तशीच ल्हवू ल्हवू भितर गेली. "ए नित्या, गिळ रे एकदाचें. म्हाका म्हातऱ्याचें वखद दिवपाचें आसा. कसलें लचांड फाटल्यान लागलां." नितिनाचें पान वाडत माधुरी करवदतालें. उमा भियेली. हें कितें आयकता आपूण? तें तशेंच थरथरत परतें फिरलें. भुरग्यांच्या बेडरूमांत मुताचो वास मारतालो. उमान पयलीं आपाक भायर हॉलांत हाडलें.

"मम्मी", नितीन जेवतां जेवतां तापलो, "म्हजे मित्र येवपाचे आसात. तांकां ह्याच टायमार भायर कित्याक हाडलें?"

"आरे पूण, तुमच्या बेडरूमांत कसलो वास मारता जाणां तूं?"

"हय जाणां. कालच्यान आपाक लूज मोशन जाता, ताका लागून येता तो."

"मागीर चादरींची रास कित्याक घाल्या जमनीचेर. कितें गो माधुरी? रोकड्योच वॉशींग मशिनांत उडोवपाच्यो न्हय त्यो?"

"आगे, हांव एकलेंच कितें कितें म्हणून करूं? हाका पळय न्ही, दीसभर फ्रेंडांक एकठांय करून गजाली मारता तो." उमा विशादान हांसलें. जाचें जळटां ताकाच कळटा. उद्वेगान उमान म्हळें. "कळ्ळें मगो आतां? एकाच मनशाचेर सगलो भार पडटकच कशें पुरो जाता तें. केन्नाय चुकून जर आपाची लुंगी ओली उरली, ना जाल्यार कूड पुसपाची उरली जाल्यार तुमी नाक दाबून कितलो बोवाळ घालतात तें."

"ए, पुरो आं मम्मी, म्हाका बोअर करूं नाका. तूं सामकीच जाणटी जाली शी दिसता. जेन्ना मनीस आपणालें उदाहरण परतें परतें दिवपाक लागता तेन्ना तो जाणटो जाला अशें समजूंक जाय." उमा अजापान आयकत रावली.

"माधुरी, तांची पेज हाडून म्हजेकडेन दी. हांव भरयता तांकां."

"अगे मम्मी," माधुरी चोरांभशेन फुतफुतलें, "आपा, परत्यो परत्यो चादरी घाण करीत आसा न्हय म्हूण नितिनान सांगलां म्हाका, ताका कितेंच खावपाक दिवं नाका. बेश्ट्या ग्लुकोजच्या उदकार दवरूया."

"कितें? आनी वखदां कितें निराळ्या पोटारच दितालीं? कितवो दीस लूज मोशनाचो?"

"चवथो! पूण च्या दिता न्हय तीन चारदां करून?"

उमाक हांसपाचें काय रडपाचें तेंच कळना जालें.

"अगो, पूण दोतोराक विचारपाचें डायटबद्दल."

"विचारलें. दोतोरान लिक्विड डायट दी सांगलां. हांवें पातळ शाबुदाणे करून दोनदां दिलें नितिनाकडेन, नितीन म्हणटा आपा खायना."

उमा जाणां आशिल्लें, शाबुदाणो तर आपाचो प्रिय. फ्रेडांनी गूल्ल जाल्ल्या नितिनची उमाक सामकी तिडक मारली.

होच काय दुराव्यान वाडलेलो मोग. तिणें पदर खोयलो. माधुरीक पयस करून ती रादचें कुडींत आयली. आपाक शाबुदाणो भरयता आसतनाच नितिन फ्रेंडांक बाय करून भितर आयलो. तापून तिणें नितीनाक विचारलें,

"नितीन, खरें सांग तूं भरयतालो तांकां, काय...."

"हय तर. हांव भरयतालोच. पूण आपा खंय घेतालो? घेच नाशिल्लो."

"खरें? म्हजो सोपूत घे."

नितीन ओग्गी पडलो आनी मागीर एकदम उसळ्ळो, "म्हजें कितें गे? एकेक उणयेक पंदरा पंदरा मिनटां लावप. म्हाका टायम आसा तितलो? म्हाका दिसलें पोटाक चुरचुरून भूक लागतकच घेतलो बेगिबेगीन."

"आनी म्हूण त्या बाबड्याक उपाशी उडयलो रे हलकटा. टायम ना तुजेकडेन? अं? चकाट्यो पिटूंक टायम आसा? आरे... तुमच्या ल्हानपणांत तांणी वाजेनासतना कितलें केलां तुमचें? तुमची कितलीं दुयेंसां म्हजे वांगडा जागरणां मारून मारून काडल्यां. म्हाका ऑफिसांत रजा नासताली, पप्पा तुमचे सदांच फिरतेर. तुमची एकूण एक कामां ते करताले. आवयपरस चड केलां तुमचें, सदांच तुमी पोट भरून जेवल्या बगर उणी तोंडांत घालूंक ना तांणी आनी हांव मोडलें म्हूण तुमचेर चार दीस पडले तर तुमचेकडेन इतलें करूंक जाय ना तांचें? आनी फाल्यां जर हांव मेलें जाल्यार कितें करतलीं? कोयराच्या बल्लांत उडोवन येतलीं तांकां? हें तुमचें मनीसपण? तुमच्या उपेगाचे आशिल्ले तेन्ना तुमी जीव करतालीं तांकां आनी आतां ते कसल्याच उपेगाचे ना म्हणटकच एकेके उणयेखातीर भीक मागूंक लायतलीं तांकां?"

उलोवन उलोवन उमाची अशक्तताय उसळून आयली. राग सोसूं नज जावन तें थतर-विंतर जालें. वैफल्याचे जाणवीकायेन तें मोडून, आपले मांडयेर पडून रडत सुटलें. "म्हाका माफ करा आपा, माफ करा, तुमचीं नातरां सामकींच सुवार्थी निपजलीं."

नितीन आनी माधुरीक लज जाली, पश्चाताप जालो. माधुरीन धांवट वचून धाण जाल्ल्यो चादरी वॉशींग मशीनांत उडयल्यो आनी तें सुरू केलें. सगळेकडेन फिनेल फाफडून कपड्यान तें जमीन पुसूंक लागलें. नितिनान जनेलां उगडलीं आनी दरेके कुडींत चंदनाच्यो उजवाती पेटोवन खोयल्यो. मागीर उमाच्या हातांतलो

शाबुदाणो घेवन आपाक भरोवंक लागलो.

उमा केंस उगयताली. हारशांतल्यान तिणें पळयलें – आपाच्या तोडांतल्यान उलवणें चालू आशिल्लें. दोन–तीनदां बोटांय हालयलीं. उमा अजापान पळयत रावलें. ती सामकी भुल्लुसली. जेवतना "आपान खूब प्रगती केल्ल्याची" खबर तिणें सगळ्यांक सांगली. नितिनान वांकड्या केल्ल्या बोच्याकडे आनी माधुरीन मारिल्ल्या मुरक्याकडेन तिणें लक्ष दिलें ना. भुरग्यांक तिणें उलोवंक शिकयिल्लें तशें ती आतां आपाक शिकोवंक लागली.

"आपा, म्हणा उ ऽ ऽ ऽ मा ऽ ऽऽ म्हाका उलो करा आपा, म्हणा उ ऽ ऽ म् ऽ म् ऽऽ मा ऽ ऽ !" घरांत म्हणपाक सोपें अशें तिचेंच नांव आशिल्लें. ती काम करतना म्हऱ्यांत आपाची खुर्ची दवरून, तांचेकडेन खूब गजाली करताली, पयलींच्यो यादी काडटाली. महेशाच्यो, भुरग्यांच्यो कागाळी करताली, हांसताली आनी शेवटाक पुरो जावन निर्शेवन वोगी रावताली. तिका दिसतालें, हांकां कळ्ळें काय हांव कितें उलयतां तें? मदीं मदीं हुंकार दिल्लो काय भास जालो?" परतें सगळें बळ एकठांय करून ती सांगूंक लागताली, "आपा, महेशाचीं सर्व्हीशीचीं तिनूच वर्सां उरलीं. अंदू माधुरी ग्रॅज्यूएट जातलें. मागीर रोकडोच तुमकां नात जांवय हाडूया. ताच्याच फुडल्या वर्सा नितिनाक लेगीत लग्न करूया. ह्या दोन वर्सांत गांवांकडेन अर्दकुटें बांदलेलें घर पुरें करूंया. मागीर हो फ्लॅट नितीनाक आनी ताजे बायलेक दिवन, तुमी, हांव आनी महेश गांवांकडल्या घरांत रावपाक वचूया."

उमा फुडलें फुडलें चिंतून उलयत रावताली. आपालो निर्विकार चेहरो सगळे उमेदीर उदक वोततालो. पूण तिणें प्रयत्न करपाचें सोडलें नांत. त्या हतबल आनी अगतीक जिवाचेर आशिल्लो उमाचो मोग दिसानदीस वाडत आशिल्लो.

"आयकतात" एक दीस काकुळतेक येवन उमान घोवाक विचारलें, "जोमेरेन आमचो उपेग ह्या भुरग्यांक आसा, तोमेरेन आमी तांकां जाय जातलीं आनी दुर्देवान जाणटेपणांत जर आमचें कितेंय पाड पडलें जाल्यार, आमचे कडेय हीं अशींच वागतलीं? मनांतल्यान खरीं तर वाजेल्लीं आनी वयल्यावयर दाखोवपाक बरीं!"

महेशान फकत एक उसासो सोडलो. "नशीबाचो खेळ आसा हो उमा. कोणाच्या नशिबांत किदें बरयलां तें कशें कळटलें? पूण इतलीं काय आमचीं भुरगीं पडमूर ना आं."

"पडमूर ना?" रडकुऱ्यां परतत उमान म्हळें, "तुमच्या गुणी पुतान ओर्द काडल्या 'ताका ऑफिसांतसून आयल्या आयल्या आपा म्हऱ्यांत दिसूंक जायना. आनी तुमचें लाडकें बाय म्हणटा, हांव वाजेलां, ताका हाडला थंय नाजाल्यार दुसऱ्या खंयच्याय आश्रमांत पावय सांगला. आपलें निमाणें वर्स, आपलो अभ्यास जायना. आतां तुमी उरल्यात. आपाचो एकटो एक मोगाचो पूत कितें ओर्द दितां तेंय बी आयकूनी म्हाका."

"उमा" अडखळत पूण गंभीर आवाजांत महेश उलोवंक लागलो. "हांवें खूब्ब विचार केला. गांवांकडेन दोन खोली कंप्लीट जाल्यात. थंय आपाक एक नोकर दिवन दवरूया. आतां तर नितिनूय बी पयशांची मदत करीत आसा. जमतलें तें! ह्या घरांत परतें भुरग्यांचें हांशें उसळूं दी. त्याबगर माधुरीच्या लग्नाचें कशें कितें पळोवंक मेळटलें? नाजाल्यार आतां सावनच भुरगीं तुटटलीं आमचे पासून. हरशींय म्हूण आपाक कसलीच जाणवीकाय नाच. तेन्ना घर बदलले, करपी मनीस बदललो तरीय ताका कसलो फरक पडटलो? आठवड्यान नाजाल्यार पंदरा दिसांनी वचून खबर घेवन येवंची." उशें उखलून उमा भायर धांवलें.

दिवाणाचेर घालून घेत ताणें आपल्या दुकांक वाट करून दिली. तिचें घोटीर विस्कटून गेल्लें. भौतिक सुखान गूल्ल जावपी जीण तिच्या घोटेरांत निवाऱ्याक आसली. मोग, दया, काकूट, त्याग, कर्तव्य ह्या भावनांक थंय थारो उरूंक नाशिल्लो. पुडी भरलेली आसा तोमेरेन उपेगाची मागीर पुडयेक जागो कोयराच्या बल्लांत. रडटां रडटां उमाचो थंयच दोळो लागलो. कुशीकच्या दिवाणारसून आपा तिका एकटक पळयत रावलो.

फांतोडेर बेल वाजली तशी उमा काचाबूल जावन उठली. मान आनी फाट घट जाल्ली. तिच्यान पट करून उबें रावपाक जालें ना. बेल दोनदां, तीनदां, चारदां वाजली. थार नाशिल्ल्याभशेन उमाचीं पावलां सामकीं मुयेल्लीं. भितरल्यान महेश, नितीन, माधुरी सगले जाण भायर आयले. सकाळफुडें कोण आयला अशें म्हणत

नितिनान दार काडलें आनी ताणें व्हडल्यान किळांच मारली – "मायगॉड – मम्मी, आपा..." सगळे दाराकडे धांवले.

"हे ऽ ऽ ऽ माय बॉय!" आपान जाणटेपणानूय नितिनाक उखलून फिरयलें. माधुरीक वेगेंत काडलें. महेशाक वेंग मारली. सगळे जाण पळयत रावले.

"कितें रे, भूत पळयल्ल्याभशेन कितें करतात? हांव तुमचो आपा ऽ ऽ!" आपा पयलीं सारकोच गडगडाट करून हांसलो. ताणें नितिनाचे फाटींत तशेच मोगान धबके घातले. माधुरीचे पोले चिमटेन धरून हालयले. महेशाच्या गळ्यांत हात घालत आपा उलयलो, "आरे त्या दिसा देवळांतल्यान घरा चलत येतना वाटेर म्हाका एका सुमोन जोरान धपको मारलो. हांव जो शेवटून पडलो तो सोमतो फुटपाथाचे कडेक तकली आपटून बेशुध्द जालों. सुद आयली ती तांणी घातिल्ल्या हॉस्पिटलांत. केस जावंक जायना म्हुणून म्हाकाय सुमोन दाबून तांणी पळ काडलो. ते दिल्लीकार टुरिस्ट आशिल्ले. तांचे भितर दोगजाण दोतोर आशिल्ले. जागो जावन हांवें पळयलें तर दोनूय पांयांक फ्रॅक्चर! दोनूय पायांक लोखडांच्यो कांबी घातिल्ल्यो. दावो हात गळ्यांत! मानेक कॉलर! हांवें कितले फावटी तांकां घरचो ॲड्रेस आनी फोन नंबर दिलो. कितलीं पत्रां बरोवन थंयच्च्या वॉर्ड बॉयांक, नर्शींक पोस्ट करपाक दिल्लीं. पूण तें तांचें सोताचें हॉस्पीटल आशिल्लें. तांच्या मनाविरूध्द वागतलो? तुमचेर कसलो आकांत येतलो हो विचार करून हांव सामको अर्दमेलो जाल्लों. बरो जातकच परतींय ऑपरेशनां करून कांबी काडल्यो. सामको बरो जातकच तीं मनशां हात जोडून म्हणूंक लागलीं 'अंकल, तूं आशिल्लो तसो घटमूट करून धाडटां तुका पूण आमच्या भुरग्या बाळांक खेपू नाका.' म्हणून पांच हजार कॅश दिवन म्हजें तिकिट काडून दिलें. आनी देड वर्सांत हांव घरा पावलों. गाडयेंत लेगीत एकूच विचार मनांत येतालो, तुमकां कितलो मनस्ताप जालो आसतलो म्हूण! पूण शेवट "दुराव्यान मोग ऽ ऽऽ?"

"वाडटा ऽ ऽ" नितीन आनी माधुरी आड्डलीं. आनी आपाच्या गळ्यांत पडलीं. महेश लेगीत दोळे पुशीत आपाले वेंगेंत रिगलो. फकत उमा लोखणाच्या पुतळ्याभशेन स्तब्ध उबें आशिल्लें. सगळ्यांक कुशीक काडून आपा ल्हवू ताचे लाडके सुने म्हऱ्यांत आयलो. उमाचे तकलेर हात दवरून रडें दाबित उलयलो, "उमा रागार जालां?" उमाच्या दोळ्यांतसून दुकां गळूंक लागलीं. इतल्या म्हयन्यांचो

त्रास, मनस्ताप, काळजी, दूख्ख सगळें दुकांतसून गळूंक लागलें. "आपा ऽ ऽ!" व्हडल्यान उलो मारीत उमा आपाल्या गळ्यांत पडलें आनी घसघशांनी रडत सुटलें.

त्याच खिणाक आपाची नदर उमाच्या फाटल्यान गेली. एका स्तब्ध बशिल्ल्या तांच्याकडेन निर्विकार नदरेन पळोवपी जाणट्याचेर! "तो ... तो... बोटान चुटक्यो वाजयत नितिनान म्हळें, "आतां ताजी पोटली परत खंयच्यातरी वृध्दाश्रमांत उडोवपाची. ताका आपा समजून आमी घरा हाडिल्लो." घरांत आनीक एकदां खरी खरी दिवाळी आयली. ओडून हाडिल्ली न्हय. मनांतल्या गाभ्यासून वयर उसळून आयिल्ली आनंदाची उमेदीची दिवाळी. पूण आतां ते दिवाळेन उमाचें चित्त नाशिल्लें. घरांतल्याचें खरें रूप तिणें पळयिल्लें. हें रूप तिका मानूंक नाशिल्लें. अलिप्त मनान ती विचार करताली.

तीनसांजेचो आपा त्या जाणटेल्या म्हऱ्यांत बशिल्लो. रडत विकल जायत उमान फाटल्या देड वर्सान घडिल्ली दरेक घडणूक आपाक सांगली. तितल्यान बेगिबेगीन नितीन आयलो तोच हातांतलो कागद फडफडायत, "हांव एका वृध्दाश्रमाकडेन उलोवन तांचो फॉर्म भरून आयला. उखला पोटली जाणटेल्याची. खूब्ब छळलां आमकां दळदिऱ्यान." नितिनाची सूज्ञ भास आनी शिमरे हावभावूच उमाची सांगणी खरी आशिल्ल्याची साक्ष दिताले. नितिन जाणटल्याचें सामान घेवन सकयल धांवलो. माधुरीन व्हीलचेअर दाराकडे हाडली. महेशाचो ताळो भरून आयलो. आपा स्तब्ध सगळें पळयतालो. आपल्याक खंयतरी व्हरता अशी सूक्ष्म जाणीव जाण्टेल्याच्या मनांत खोल खंय तरी जाल्ली आसूंये, ताणें पयली खेप बोटांची हालचाल केली आनी लाळ गळयत ल्हवू फुतफुतलो "उ ऽ ऽ " आनी मान मातशी शी न्हयकारी कशी हालयली. उमा "आपा ऽ ऽ" म्हणत रडत ताच्या पायांकडेन कोसळ्ळी.

व्हडल्या दबाज्यान यो-वच करपी नितिनूय मातसो वोगी रावलो. "मम्मी ऽ, पुरो! चड नाटकां नाकात आतां...." अशें ताणें म्हणटकच उमा तीराभशेन उठली आनी नितिनाच्या हातांतलो फॉर्म ओडून घेवन तिणें कुडके कुडके करून उडयलो. भितर वचून एके ल्हानशे बॅगेंत तिणें आपले कपडे हाडले. सगल्यांच्या व्हडल्या जाल्ल्या दोळ्यांकडेन पळोवन ती उलोवंक लागली. "हांव तुमकां कोणाकूच

बदलपाक असमर्थ आसा. मोगाचें रोपटें कलम करून लावं नज. ताचें बीं रूजोवनच कोंबऱ्यो फुटूंक जाय. हांव तें बींच तुमच्या मनांत बऱ्याभशेन रूजोवंक शकलें ना. ह्या गुन्यावाची ख्यास्त हांव म्हजी म्हाकांच करून घेतां. ह्या मांडिल्ल्या प्रंपचांतसून हांव म्हाका वजा करतां. सगळ्यांक तांचो त्रास दिसता न्हय? हांवूंच तांकां घेवन गांवांकडेन वता. हांवें हें घर सोडलेंलें ना. दरेका मंगलकार्यांत, दरेका संकटांत हांव हांगा हजर आसतलें. कर्तव्य म्हूण न्हय, तुमची मोगाळ सून– बायल – आवय म्हूण. तुमची सगळी काळजी आपा घेतलो, नोकर दवरून तुमीय बी आपाची काळजी घेयात. पूण हांकां हांव अशें वाऱ्यार सोडूंक शकचें ना."

"वाऱ्यार खंय मम्मी, बरेभशेन आश्रमांत पावयता न्हय."

"ना, ते आमगेर घर मागूंक येवंक नाशिल्ले. आमी हाडिल्ले तांकां. आमचे गरजेक. तांकां परत वनवासी करपाचो अधिकार आमकां ना. पानगळ दर एकल्याचे जिणेंत आसता. पूण वयाचीं तीं गळिल्लीं पानां यादींचे चोपडेंत सांबाळून दवरपाचीं काय पांयांपोंदा माड्डुपाचीं तें दर एकल्यान थारावपाचें. म्हजे वयल्या मोगाखातीर तुमी एकवेळ तांकां मानून घेशात पूण आतां म्हाकाच तुमगेर तांकां फोर्सान दवरपाचें ना. तुमकां जाय तेन्ना तुमी गांवांकडढेन यो–वच करा. दोनूय बिराडांतलीं आमी सगळीं जाणांच आनंदान रावया. आप्पा, बरोबर उलयता न्हय हांव."

तिचे तकलेर हात दवरून आपा केन्नाच रडूंक ना तसो हो हो करून रडलो. तिका वेगेंत घेवन ताणें म्हळें, "म्हाका तुजो अभिमान दिसता उमा." उमाक आडावपाची तांक कोणाकडे नाशिल्ली.

गाडी फुडें फुडें वताली. उमाच्या दोळ्यांमुखार भविश्यांत पानगळ सोंपून दर एकल्याच्या मनांत फुटिल्ल्यो मोगाच्यो कोंबऱ्यो धोलताल्यो.

●●●



**अंजली रवीन्द्र आमोणकर**

**जल्म** : पुणे - 13-12-1954

**शिक्षण आनी हेर काय** : B.A. LL. B. शिक्षणीक मळार अध्यापनाचे कार्य तशेंच बॅंकेंत नोकरी.

गोवा होमसायन्स कॉलेजीचे एक्झेक्यूटीव्ह कमिटीचेर.

ऑल इंडिया रेडिओ, पणजी, पणजी दूरदर्शनाची मान्यताप्राप्त निवेदिका. गोमंतक, तरूण भारत (पुणे), सकाळ, स्त्री, महाराष्ट्रटाईम्स, श्री, मेळुन सान्याजणी (पुणे) ह्या नेमाळ्यांनी सातत्यान लेखन. सांस्कृतिक आनी साहित्यिक कार्यक्रमांचें निवेदन. कथा, कविता, एकांकिका, ललित लेख, नाटक, पुस्तक परिक्षण, प्रवास वर्णन, निसर्ग चित्रण, मुलाखत आदि प्रकारचें लेखन. साहित्य स्पर्धांनी, एकांकिका - नाटक स्पर्धांनी इनामां लाबल्यांत, तशेंच परिक्षक म्हणूनय काम पळयलां.

**प्रकाशित साहित्य** :

| | |
|---|---|
| 1. **प्राक्तन** | (मराठी कथासंग्रह) प्रस्तावना - डॉ. सरोजिनी वैद्य, प्रकाशक : मेहता पब्लीशर्स, कोल्हापूर. (गोमंतक मराठी अकादमीचो उत्कृश्ट साहित्याचो पुरस्कार - 1995-96) |
| 2. **सांदी- कोपरे** | (ललित निबंध संग्रह) - प्रस्तावना - श्रीमती शांता शेळके, वितरक - मॅजॅस्टिक (गोमंतक मराठी अकादमीचो उत्कृश्ट साहित्यांचो पुरस्कार - 1996-97 ) |
| 3. **दूसरी बाजू** | (मराठी कथा संग्रह) - गो.म.अ. प्रकाशन |
| 4. **लोलक** | (मराठी कथा संग्रह) - प्रस्तावना - कविवर्य शंकर वैद्य - हेरंब प्रकाशन - गोंय |
| 5. **सीपीयों के मोती** | (हिन्दी बालकथा संग्रह) राष्ट्रभाषा विद्यापीठ - पुणे प्रकाशित |